**Hawthan**

(Konkani Novel by Mahabaleshwar Sail)

**प्रकाशन क्र.५७**



**पयली आवृत्ती**
जानेवारी २००९

**छापणावळ**
इम्प्रेशनस्
बी-२, 'अक्षर आर्केड'
३३६०/४, गोंधळी गल्ली,
बेळगांव - ५९०००२

**अक्षर जुळणी**
बिम्ब प्रकाशन

**दर्शनी चित्र**
गिरीश नंदा बोरकार



**प्रकाशक**
दिलीप बोरकार
बिम्ब प्रकाशन
'धर्म-लक्ष्मी', सांत लॉरेन्स, आगशी - गोंय ४०३ २०४
दूरध्वनी : (०८३२) २४१०५३५

मोल : रु. २००/-

म्हजो इश्ट
नारायण मुळेकार (कुंबार)
हाका मायेमोगान

- महाबळेश्वर सैल

**वो**तांत हुलपताना ती दनपार काळी करपल्लेवरी दिसताली. अस्तंत दिकेक मळबामुळार सकाळसान काळेंशें धरिल्लें तें उठनासलें, सरकनासलें, मायंडोळावरी मांडून राविल्लें. वारो तर असो पडिल्लो, सावरी कापसाची म्हातारी वयर उडयल्यारय हुबची नासली.

पूण कुंबारवाड्यार कुंबरांले सगळे व्यवहार नीट चलिल्ले. ते चाकार चालां काडटाले, मडकीं पेट्टाले. तीं वोतांत सुखोवंक उडयताले, खळांतल्या आमले तोरां वांगडा पेजे नीस घोट्टाले. पुरशान दारान उबो रावन एक फावट म्हणिल्लें, "हो सांचिल्लो हुलाताप बऱ्याचो न्ही, पावस बीन पडना मू देवा. आंगार हुमेच्यो पावळ्यो, वारो तर तीळभर ना."

वैशाख लागिल्लो. रोयणी नक्षत्राक अजून बरोच कळाव आसलो आनी हो कसलो घुसमटमार चलला मळबांत! वाऱ्या वोताक जशें अंदून धल्लां...

दनपार देंवली आनी खंय तरी कितें तरी हाललें. माडार चुडत सरसरले. वाड्यार मद्दीं उबो आशिल्ल्या आमले रुखाचो शेंडो एके वटेसान लखलखत दुसरे वटेन पावलो. ताचो सों... आवाज येयलो.

पळयतां पळयतां वाऱ्याक बरीच हुनसाण भल्ली आनी ताची धांव वाडली. वाऱ्या वांगडा काळीं कुपांय माथ्यार सरकून येवंक लागिल्लीं. चाकावयले मडके गळे घेवन मडकीं पेटत बशिल्ले कुंबार थाल्ले. हातांतलें पेटणें, पेटण्या फातर तांणी भुंयेर तेंकयले. कालबीन सरी केल्ल्यो कच्च्यो मडक्यो आंगणांत सुखोवंक घातिल्ल्यो. बायलांची एकच धांदळ जाली. त्यो चोबे, पिणगीं घेवन धांवल्यो. सुखोवंक घातिल्ल्यो मडक्यो भरूंक लागल्यो. यशवंता बायल गोकूळ पिणगे भरून घेताना पिणगे वांकडे जाले आनी एक सुकिल्ली मडकी पडून फुटली.

यशवंत वासरे वेल्यान बायलेर तापलो. ''हुतहुती रांड, जोर माल्ला तुज्या हातांक. काय बरी मडकी फोडली. पेटूंक हिंगा रटे फुट्टात.''

''तूं बसला कित्याक गुळो कसो? कुल्याक चरमां फुटलांत? उठून मात्सो हात घातल्यार जीव झरतलो?''

यशवंत वोग उठलो आनी बायलेक आधार करूंक लागलो. मुखावयल्या घराच्या तेण्यार उबो राविल्लो पुरसो कमरार हात घेवन उलयतालो. ''हांव सांगतालों, बेगीनच तळ्यांतली माती हाडून सुगूर करून घेयात म्हण. आतां पावस पडून तळ्यांत उदक भल्ल्यार कितें करतले, वचून तळ्यांत बुडी मारतले? गांडीर माल्लेबगर हेंचे तकलेचो खुळखुळो वाजना.''

हाचेर यशवंतान म्हटलें, ''माती हाडली कितें धुल्ल हाडलो कितें, कुंबरान पावसांत तीन म्हयने आपली आंतडी बरगूनच खावची मुरे. भुके भुके सोस भूक मागता म्हस. सोड, अडेचो पावस तो. येतलो आनी वयतलो.''

वारो आतां रावलो आनी सगळेकडेन काळोख कालयल्लेवरी काळेंकाळें दिसूंक लागलें. मळबाची काळसाण धरतरेकय बादली. खिणांत पावस झडूंक लागलो, बारीक हुबत कुसकुसत. करतां करतां पावसान जोर धरलो. पयस शेतांत कुळवाड्यांनी जोतां बांदिल्लीं, तीं जोतां, शेतां पयल्यानचे कुळवाड्यांले वाडे धुल्ल-पावसाच्या पड्ड्या आड लिपून गेल्लेवरी जाले. मुखाल्ले वटेनच्या दोंगरांनीय धुंवर उठिल्लेवरी दिसूंक लागलें.

कुंबारवाड्यावयल्यो बायलो दादले पोल्यार हात घेवन आपआपले पडवेर, तेण्यार बशिल्ले. हुसक्यान, भिरांतेनशे पावसाक पळयताले. भूंय माती, झाडां पेडां, भुरगीं बाळां पावसांत तृप्तताय भोगतना ह्या कुंबाराल्या तोंडार आसा हुसको, फाल्यांचे पेजेचो, भुकेचो... पावस चड जाल्यार तळ्यांत उदक भरतलें, माती मेळची ना. पावसांत मडक्यो सुकच्यो नात...

इतल्यांत कोणें कोणें बशिल्लेकडच्यान पळयलें, पयस शेतांतल्यान एक बायलचेडूं भिजत येता. तागेले हांडीर एक भुरगेंय आसा. शिवराम पावसाक जुमानीनासतना वाड्याकडेर येवन उबो रावलो. ताणें दोळ्यांर हात धरून बारीक पळयलें. केन्ना आंगाखांद्यार खेळिल्लें भुरगें, तो वोळखलो. ''आरे, हें तर आमगेलें घनशामालें चेडूं सुनंदा. आरे, हें आनी रडतच येता काय कितें?''

तें रडतच येतालें. पावसा उदक आनी ताचीं दुकां एक जावन गळटालीं. पावसांत तागेले केंस भिजून फासपल्ले. कपलावेलो कुकुमय धुवन गेल्लो. ताचें तें रूप अनर्थाचें दिसतालें. भुरगें तर भिजून खेतें जावन आवयक घट वेंगोवन आसलें. तें वाड्यादेगेर येयलें आनी होळोम काडून रडत आपल्या बापायल्या घरा गेलें.

पावसांतच पुराय वाड्यार खबर पावली, 'घनशामालें चेडूं सुनंद घोवा घरसान धांवत येयलां, व्हडान रडतच बापायल्या घरांत गेलां.' दरएक घरांतल्यान एक दोग जाण भायर सरून घनशामाल्या घरांत गेले. बायलो, दादले मेळून सोळा सतराजण तरी भिजिल्ल्या पांयांनी घरांत गडदी करून आसले.

बापूय घनशाम काळो किडकिडीत, बागवल्लोसो, कमर धरिल्लोसो भायर भितर करतालो आनी बेठोच पिरपिरतालो. मदींच शिवा, शिवा, शिवा म्हणटालो. आवय रुक्मीण नातवाक आपल्या पदरान पुशीत घोवाकच उलयताली. ''हांये नाका, दिवं नाका म्हटलें आसताना हेणें चेडूं भयणील्या चेड्याक दिलें. भयण न्ही राक्षीण, दंखीण ती. बींच तसलें तुमचें. तूं आनी कसलो, आतां कमर धरिल्लो कासोव जाला. आदीं पेटण्यान पेट्टालो म्हाका.''

घनशाम आतां व्हडान पिरपिरलो. ''पयलीं येयल्ले फावट तूं चवंडी कशें झगडटालें तेचेसरीं. शिरापून रडत वयतालें तें. चेडूं दिवन तरी...''

गोपाळ मदींच तापलो. ''पोर भिजत येवन पडवेर बसून रडटा आनी तुमचीं झगडीं कसलीं?'' तेणें मागीर सुनंदाक विचारलें, ''कितें जालें गो बाय? एकलेंच कणसगिरीसान चलत येयलें?''

कोण तरी लुगटा फाळ्यान तेगेले केंस पुसताली. तशेंच रडतच सुनंदान सांगलें, ''अण्णा, मारतात तीं म्हाका. घोव आनी आत्ती दोगांय. कुंड्या पेज वाडटात म्हाका. हांवें कितेंय केल्यार वांकडें, मगेले मातयेंत फातर उरतात म्हणटात. हांवें हात लायल्यार हाव्यांत मडकी फुट्टा म्हणटात. म्हाका हावठणार वचूंक दिनात. हाव्याक हात लावंक दिनात.''

''काय बरें गुणाचें मुगो तूं. कसलो सांवार येयला तेंचेर?'' एके बायलेन म्हटलें.

''ह्या वर्साक एका कोंकण्यालें खांडयेचें शेत केल्लें. म्हाका शेताकाम कळना

म्हण शेतासान घरामेरेन मारीत हाडलें घोवान.''

सगळ्यांक रासवळ राग येयल्ले वरी जालो आनी तांणी एकच कलकल केलो. ''भुरगेपणाक घोंगो पिसोसो दिसतालो. मामागेर म्हण येयलार रातदीस आंब्यांनी भोंवतालो. काजुंच्या, आंब्यांच्या दिकान आंगार रुंवां भरतालीं. हों हों करून उलयतालो.''

''पिसो खंयचो, बापूय लफंगी सोरेकार आसलो. मेलो सोरो पिवनच. चेडो तसोच लुच्चो जाला.''

''आवय कस्तुरें पयलींपसून चूड. एक फावट विकरेक गेल्लेकडेन गांवांत एकल्याले तकलेर मारून मडकी फोडल्या तेणे. गांवान दांडे घेवन गांवा भायर धांवडायल्लें खंय, परत ह्या गांवांत पांय दिवं नाका म्हण धमकायल्लें खंय.''

''पूण बापाय घरची मर्वद तरी राखची न्हू? बरें वायट भावाल्या चेडवाक तेणेच सांबाळून व्हरूंक जाय आसलें न्हू?''

आतां जाण्टी सीताय सगळ्यांक कुशीक धुकलून मुखार येयली. ''पोर भिजून येवन बसलां आनी खबरीच करतात तुमी? तेका कुकूम तरी लायात मुगो.'' सीतायन सुनंदाक हाताक धरून उठयलें आनी भितर व्हयलें. ''रुक्मिणी, तेका सुकें न्हेसूंक दी, कुकूम दी.'' मागीर ती एकदम ताणशेली. ''तें कस्तुरें कसलें तें हांव पळयतां. फाल्यां एक दीस. परां हांव घेवन वयतां तेका. ते कलागतीचें शेणकूट धरून हालयतां पळय. पोराल्या केंसांक धको लायल्यार पुरतलें म्हण्टां फोंड खणून. कणसगिरच्या कोंकण्यांली गांवकी आफोवन गांवाभायर करूंक लायतलें म्हण सांगतां.''

घनशाम रडलोसो करून म्हण्टालो, ''पयलीं तीनचार फावट तरी येयलें तें चेड्याक चेडूं दी म्हण. आतां तीन वर्सां जावंक येयलीं, एक दीस येयलें ना हेवटेन.''

''येवंक तोंड नाका तेका? येवचेंच नाका तें. येवचे पयलींच आरान मारून पडूं.'' रुक्मीणील्या भागिल्ल्या काळशा चेहऱ्यार, मुखार येयल्ल्याशा खर दोळ्यान राग खतखततासो दिसतालो.

सुनंदान भायर येत म्हटलें, ''कित्याक उलयता तें आई? हांव भोगतलें म्हगेल्या नशिबांतलें.'' सुनंद तशें मायेस्त, सादें साबळेंच चेडूं. पूण तेगेले हात

पांय बरेच बारीक आसले आनी कमरेचें धडच मोटें आसलें. ताचेन ताच्यान बरो कामाचो आटाप जायनासलो. भावालें चेडूं म्हण कस्तुऱ्यान ताका सांबाळून घेवंक जाय अशें सगळ्यांक दिसतालें. ना तरी तागेल्या चेड्याक - घोंग्याक कोण चेडूं दितासलो?

तिसऱ्या दिसा सकाळींच सीताय खरीच सुनंदाक घेवन कणसगिरी वचूंक सुटली. आपलीं चर्रचर्र वाजपी व्हाणां चडयलीं आनी ताका म्हटलें, "चल यां, तूं कांय एक्क भिवं नाका."

सीताय ताका घेवन गेल्या म्हण्टकीर वाड्यावयलो सगळो लोक हुस्क्यामेकळो जालो. ती सगळें थाऱ्यार घातलेबगर येवची ना.

**पा**वस घडघड घालीत येयलो आनी इल्लो झडूनय गेलो पूण दुसऱ्या दिसा ताचो मागमूसय नासलो. दनपरमेरेन उदक जिरून गेलें आनी धुल्ल वाऱ्यार हुडूंक लागलो. फाटल्या दोंगरांतली पिवळीसाण तशीच आसली. आजच्या नितळ खर वोतांत ती उजो कशी चकचकताली. चोंयवटेनच्या शेतांनी कुळवाड्यांनी कसूंक, रोवंक जोतां बांदिल्लीं. तांच्यो बायलो सारें वारयताल्यो, दिपळे फोडटाल्यो. तांच्या कामांचो घडघड चलिल्लो.

कुंबरांकय ताकतीक लागिल्ली. तळें भरचे पयलीं पावसाळ्या खातीर जाता तितली माती सुगूर करून घेवची आसली. ह्या तळ्याची माती अपरूपच आसली. तांच्या पुर्वजांन माती वोळखून पारखूनच हांगा राबितो केल्लो आसूंक जाय. अशी मडक्यांक बरी लोणी माती धा-वीस मैलांच्या वाठारांत आनीक खंय नासली.

सकाळीं उसरांच ते चोबे, कुदळ, खोरीं घेवन तळ्यार मातयेक गेल्ले. खरें तर सगळे कुंबार सकाळीं उठ्ठालेच कळाव करून. कुळवाडी कोंकणे तेंकां केन्ना हांसतालेय. कुळवाडी रानांतल्यान लाकडा वोजीं घेवन दोंगर देंवन येताना हांगेल्यो बायलो रानाक वयताल्यो. कुळवाड्यांले नसकाक जोत बांदून चार कुडावांचें कसून जातालें तेन्ना कुंबार उठून दातांक मिसरी लायताना दिसतालो. पूण खरें तर कुंबार न्हिदतालोच उसरां. रातचे थंडायेक तो उसरां मेरेन मडकी पेटत





बसतालो. टोक टोक आवाज थंडायेंत घुंवत रावतालो आनी तेन्ना तांच्यो बायलोय भायर भितर गणमणत रावताल्यो. दादल्याचे विडयेक उजो दी, निसराक उदक दी हें चालूच आसतालें.

भरिल्ले आसू सुकिल्ले, तळ्यार पावतकीर मन प्रसन्न जातालें. मोटे शंबर हात रुंद आनी पांचशें हात लांब तळें. सकल्ले वटेन बसको बांद. वयले वटेन दोंगर देंवन देंवन तळ्यामेरेन येवन पाविल्लो. मदीं इल्ली शेतोड. थंय उकतो मुक्तसो धवो उजवाड आसतालो, आनी सदांच एक जिवी जाग, मनशांची न्हीच. बेठेच उले कुले घुंवताले. कितें तरी सरसरत धांवतालें. कोण नासलो तरी मनशाक येवकार दिल्लेवरी टिक्टिंवीं 'टिक्टिवांक्' करीत तकलेवयल्यान हुडून वयतालींच. तळ्यांत उदक आसू वा नासू तीं थंय वर्सभर आसतालीं. तळ्यार ओणोव घेवन आशिल्लो दोंगर आपलीं सदाकाळ बदलपी रुपां तळ्यांत सोडत रावतालो.

तळ्याचो सकल्ले वटेनचो बांद सामकोच बसको आशिल्लो. ताचे अस्तंत वटेसान एक व्हाळ व्हांवन गांवावटेन वयतालो. ताचेन तळ्याचें उदक माघांतच तळाक तेंकताले. फाल्गुन सरसर तळ्याचे मातयेक धाळे पडटाले. तेन्ना फक्कत कुंबरालेंच तळ्यार यो-वच आसतालें. तळें सुकलें म्हणटकीर कुळवाडी, तांचीं गोरवां गोठे, गोठणां सोडून गांवांनी गंवणिनी वयतालीं. कुंबरांक तर तळें सुकतकीरच मडक्यांक माती मेळटाली.

पुरसो, पुरशा बायल जानकी, तांगेलें चेडूं विमल, तशेंच शिवराम, शिवरामा बायल आबोलें वांगडाच तळ्यार पाविल्लीं. ते माती खणूंक पयली कुदळ मारता थंयच आसात, दोंगरावटेन कोणतरी उलयता तें आयकोंक आयलें. पूण तेवटेन नीट दिसनासलें. मदीं एक वाशा कणक उबी आसली. ती इतली व्हड आसली, कातरल्यार चारशें तरी वाशे काडूं येताले. पूण ती भोंवतणीं कांट्यांन इतली शिंवन पडिल्ली, म्हऱ्यान वचून ताचेर एक कोयती घालून एक किल्ल, एक वासो काडप शक्य नासलें. काट्या चरकण मुखार घेवन ती वर्सवर्साक वाडतच आसली. उलयल्लें आयकोन पुरसो आनी शिवराम बायलांक थंयच सोडून वयले वटेन गेले, कणकीक बगल दिवन.

थंय तीग धवाडे पयस पयस उबे आसले. एक तिखटें उबें केल्लें तेचेर एक सान यंत्र दवरिल्लें. एकलो बावटो घेवन पयस उबो आसलो. शिवरामान विचारलें,

"कितें करतात गा, कितें चल्लां?"

"सर्व्हे करतात न्हू तळ्या वाठाराची." तो कानडींत उलयतालो. शिवरामाक कानडी उलोवंक कळनासलें, पूण उलयल्लें इल्लें इल्लें समजतालें. तांकांय कोंकणी उलोवंक कळनासलें पूण उलयल्लें कळटालें.

"कित्याक म्हण ती सर्व्हे?" शिवरामान विचारलें.

"डॅम, डॅम बांददतात हिंगा..." तो उलयतलो इतलो काळो आनी ओबडधोबड आसलो, हो आनी हातांत लेखणी धरचो मनीस न्हीच असो दिसतालो. ताचें कानडी उलोवपय कोंचयल्लेवरी आसलें. तो बावटो धरपी तेन्ना थंय येयलो. तो कोंकणी मनीस आसलो. ताणें सांगलें, "तुमकां खबर ना? तळ्याक सकल्ले वटेन व्हडलो उंच बांद घालचे आसात. ती व्हळा मूसय मागीर वयर वयतली. तळें मे म्हयन्यांत लेगीत तुडुंब भरून उरतलें."

"तळें केन्नाच तळाक वचून सुकचें ना म्हणटा?" पुरशान भियेतच विचारलें.

"चे चे, मागीर बांद बांदून कितें उपेग? तेचेन गांवची ही सकल्ली जमीन भिजतली गिमांत."

"केन्ना जातलें काम?"

"सांगूंक येयना. सरकारी काम. पूण जातलें बेगीन."

शिवरामान येद्देशें तोंड करून म्हटलें, "आमी कुंबार. तळ्या तळांतली मातीच कुंबारालें मूळ धन गा. ही माती ना तर आमकां माती खावची पडटली. चाकार चालां कितें आमचें मास थापून काडटले?" ताणें आंवडो घोटलो. "इतलीं वर्सां आयकतालेच, आतां हड्ड्यारच येवन बसतले काय कितें!"

"तुमी सांगूंक जाय आसलें आदींच आमदाराक, मंत्र्याक."

"आमच्या कुंबरांचें कोण आयकतलों? ल्हान लोक गा आमी, मातये गुळो कसो कोणेय चिड्डुवचो."

'आतां कांय जावचें ना, कांयच जावचें ना' म्हणत तो बावटो घेवन गेलो. शिवराम आनी पुरसो जड पावलांनी तळ्यांत येयले. तळें सामकें सुकिल्लें आनी तळाक धाळे पडिल्ले. सुकी सुकी काळी दिपळ्या माती. असलीच माती मडक्यांक जाय आसताली. ती आनीक सुकोवन बडोवन दोंगरांतल्या तांबडे मातये वांगडा अर्दी अर्दी भरशिताले. ती मागीर उदकांत भिजोवन, फुगोवन

कालयतकीर ताची लोणी कशी माती जाताली. ती मागीर चाकार कशीय खेळोवन लिंग उबें करून बेस चालां काडूं येतालीं.

तांणी मेल्ल्या हातांनशी कुदळ. खोरीं मारून चोबे भल्ले आनी बायलांच्या माथ्यार दिले. फाटल्यान आपणेंय चोबे भरून एक दुसऱ्याच्या आधारान तकलेर घेतले. चोब्यार कुदळ उडयली. खोरें खांदार घेतलें. ''शिवरामा, तळ्यांत वर्सभर उदक भरल्यार आमी खंय वयतले?''

''वयतले आनी खंय, येवचें आनी बायल भुरग्यांसयत तळ्यांतच हुडी मारची.''

''न्हू, आनीक खंयच्याय गांवांत?''

''माती आसूंक जाय न्ही? आनी अख्खो वाडो उखलून घेवन खंय वयतले? कोणाल्या पोटार पांय दिवंक? आदींच सगळीकडचे कुंबार तेंकलांत...'' शिवरामालीं मुखाल्लीं उतरां जशीं भिजिल्ल्या ताळ्यांत घुसपून गेलीं.

बायलांनीच आदीं खबर गांवार घातली आनी घराघरांनी खपखपो भरून गेलो. तांकां दिसलें, तळ्यांत उदकाचो हुंवार येतलो खरो पूण तो आमचीं घरां बुडोवन बुडोवन वयतलो.

तिनसांजचे कांय दादले गांवांत वचून पिवन येयले. शंकर नुस्तें हाडूंक म्हूण सांजचो माजाळे बाजारांत गेल्लो तो येतानाच बरोच घेवन येयलो. नुस्तें उंबरासरीं उडोवन तो हावठणा स्थळार येवन उबो रावलो आनी बोवाळूंक लागलो, ''तुमच्या हातांत माती बडोवची पेटणी मुरे, बांदार एक ट्रक माती उडयल्यार बोडां फोडात. ट्रक बांदावयल्यान धुकलून ओमथून उडयात. जावंदी हाणामारी. रगतान तळें भरूंक जाय. हे शतकंजूश कुळवाडी वायंगणां पिकयतले, माड शिपतले आनी आमच्या तोंडांत माती? ना जावचें ना. आतां रक्तखेव जावंक जाय.''

गोपाळ पयल्यान उबो रावन आयकतालो. मुखार येवन ताणें म्हटलें, ''सोऱ्या नेटावयल्यो ह्यो झांकड्यो तुगेल्यो. वाड्यार पंचायतेचो कारकून येयल्यार लिपून चुलीकडेन वचून बसता तूं. मेलो तूं ट्रक ओमथो घालतलो.''

''गोपाळा, तूं म्हाका सांगूं नाका, म्हजेकडेन खेळूं नाका. हांव जाणां तुवें कितले वाग माल्ल्यात ते. एक फावट एक कुळवाड्या बायल जोतें घेवन फाटीक

लागिल्ली मुरे तुज्या? तूं धांवन येवन बायलेल्या कासाट्या फाटल्यान लिपिल्लो. तिका तूं झिलींत लिपून कुले मारतालो मुरे.''

''मायझंया शंकरा कितेंय उलोवं नाका. दाडवणां निखळावन हातांत दितलों.''

''उलयतलों, कितें करता तें कर. फौजदाराक हाड. तुका धरून सगळ्यांक विकतो घेतलों हांव. कुळवाड्यांली ही सगळी जमीन विकती घेतलों आनी सात जोतां घालतलों. तुजेवरी चुलीर आदन दवरून तांदळाक हेरांल्या दारांत वचून बसना हांव.''

आतां थंय मोटो कलकल जालो. दोगय हाणामारीर पावले. हेर कांय जण सोरो पिवन आयल्ले खरे पूण ते रडूंक बशिल्लेवरी वोगी सीतायल्या आंगणा मेरेर बशिल्ले. दुख्खां वांटून घेत ल्हवल्हव उलयताले. आतां तेवय उठले. आतां खंय तांचो सोरो तकलेंत पावलो. त्या बोबाटांत तेवय भरसले. बेठेच कोणालो तरी पाखो घेवन आड्डूंक लागले. एकलो म्हणटालो, ''आमी थेट बेंगळूराक वयतले, मंत्र्याले गोमटेक धरून विचारतले, मुखाल्ल्या इलेक्शनाक वोट मागूंक येयलार दांडो घेवन धांवडायतले म्हण सांगतले.''

आतां सीताय ते गडदेसरीं येयली. तिणें तांकां सांगलें, ''आरे तुमी इलेक्शनाक मतां मारूंक आफयल्यार थंय सय करूंक कळना, बोट मारचें पडटा म्हण वचूंक फाटीं सरतात आनी बेंगळूरची खबर करतात? बेंगळूरा तुमकां गळ्यांत दांयी घालून व्हरचे पडटले.''

''पूण फाल्यां आमची माती कायमची बुडल्यार आमी कितें करचें गे सीताय आवो?''

''जाता तें जाता. आतांच कितें हड्ड्यार येवन बशिल्लें ना मुरे? सरकारी काम आनी बारा वर्सां राव.''

सोरो देंविल्लो काय हुस्को चडच मनातळांत पाविल्लो नकळ, सगळे वोग आपआपल्या घरा गेले.

कुंबार ही तांची जात नासली. फक्कत एक व्यवसाय आसलो. त्या व्यवसायावयल्यान तांची जात पात थारिल्ली. ह्याच माजाळे गांवच्या कुंबारवाड्यार तीन जातींचे कुंबार आसले. आज ते आपली जात पत विसरून एक जाल्यात. सोयर-संबंद, जेवण-खाण करूंक लागल्यात खरे. पूण ते हालींमेरेन आपले जातीचें तुणतुणें घेवन बशिल्ले. घराब्याचें, पुर्वजांलें व्हडपण सांगताले.

हांगा भगत म्हण आडनांवाची एक जात आसली. ते सोताक खेत्री कुंबार म्हणून घेताले. ते आदीं काणकोण पाळोळें वाठारांत रावताले. काणकोणचो मल्लिकार्जुन तेंचो कुळदेव आसलो. पूण तुमी हो कुंबार धंदो केन्ना आपणायलो आनी हांगा केन्ना पावले म्हण विचारल्यार कांयच नीट सांगूंक तांकनासले. जाण्टेले एक मात सांगताले, केन्ना तांच्या घरांतलो एकलो आमाड्या रुखावयल्यान पडून मेल्लो. आमाड्या रुखावयल्यान पडून मरप अवचिन्न मानताले. तातूंत अकराव्या दिसा कावळ्याक पिंड दिल्लो तेन्ना एक कावळो पिंडा उंडी पांयांत धरून गांवच्या बुदवंताल्या घरा पाडसऱ्यार वचून बसलो. गांवार सगळोच आकांत. पुरोयता सरीं वचून हाचें कुवाडें विचारल्यार ताणें सांगलें, "आमाड्या रुखावयल्यान पडून जाल्लें अवचिन्न मरण. पुराय गांवाक तेचो बादिकार. पयलें मरण घडये बुदवंतालें मागता. तेच्यो अस्थी गुठलावन घेवन तेच्या घराब्याक गांवा भायर वचूंक सांगात."

गांवान धांवडायतकीर ते पडत झडत, पेणी करत हे सुवातेर येवन पावले. मदीं एका पेण्यार तांणी हो कुंबरा धंदो शिकिल्लो जावये.

आनीक एक घराबो आसलो. ते सुकेरकार म्हण आडनांव लायताले आनी सोताक बामण म्हणून घेताले. सांगताले, फाटीं केन्ना गांवांत व्हड दुकळ पडिल्लो तेन्ना रायान गरीब दुबळ्यांखातीर अन्नछत्र लायल्लें. तातूंत अठरा पगड उणे जातीचे लोक वचून जेयताले. एक दीस ह्या बामणालो पूर्वज भूक सोसूंक नज जातकीर घरच्यांक घेवन त्या अन्नछत्रांत वचून जेयलो. तो उणाक जातीच्या लोका वांगडा

वचून जेवलो म्हण कळटकीर तागेल्या जातीच्या लोकांनी ताचेर खर बहिश्कार घातलो. खाण जेवण, उलोवप चलप बंद जालें. ते दिसलार पच्‌करून थुंकूंक लागले. पूर्वज बेजारलो. गांवच्यान उठून गांवाभायर कुंबराले वसतेर ताणें आलाशिरो घेतलो. तेन्नाय एक बरें आसलें, कुंबरांक हेर लोक उणे लेखताले पूण तांकां भश्ट जातीचे मानिनासले. वेळवगतार तांच्या हातचें खावंकय फाटीं सरनासलें. ते मागीर थंयच कुंबारपण शिकले जावंये. आतां तर ते बामणपण विसरूनच गेल्यात आनी खंयच्याय कोंकण्या कुंबरा वांगडा सोयरिको करतात. तरीय तांचो उजळ रंग अजूनय उठून दिसता.

तिसरो घराबो आसलो देवळी कुंबारालो. हांगा तांचीं तीन घरां आसलीं. ते पयलीं गोंयां खंयच्या तरी देवळा स्थळार आसले. तांच्या पुर्वजांली आवय देवळासर देवळीण आसली. ती दिसा देवळांतलो हरतरेचो वावर करताली. सान्न मारताली, दिवे, पंचपात्रां घांसताली आनी रातची शेट, शेणैंक घरांत घेताली. उपरांत पुर्वजांली फाटली भयणय अशीच शेंस भरून देवळीण जाली. पुर्वज ह्या सगळ्याक विटलो. तो पिशावरी कांय दीस देवळा वाठारांत भोंवतालो. देवळाच्या लोटच्यारच न्हिदतालो. एक दीस तो सगळें सोडून गांवाभायर कुंबारवाड्यार येवन रावलो. थंय कुंबारकाम शिकलो. चाकार लिंग उबारून मडके गळे काडूंक तो फिशाल जालो. आंगवणेक, जोगवणेक पित्रावळ, भुतावळ करूंक शिकलो.

एक दीस तो उठलो आनी आवयसरीं गेलो. म्हटलें, ‘‘आवय मगेले, आमी हांगा आनीक रावचें नाका जगाची धुंवक. किकोंत लेखतात लोक आमकां. दादल्यांक पुरुशार्थ ना म्हणटात. पयस वचुंया खंय तरी. पोट भरची बरी विद्या शिकलां हांव. हांव पोसतलों तुमकां. बायकय घेवन या.

आवय वांगडा येवंक रोखडीच तयार जाली. पूण भयण आपूण येवची ना म्हणूंक लागली. त्या दिसा तिगेलो एक बामण घरांत आसलो. दोगांय पूर्वजासरीं झगडूंक लागलीं. तेणें भयणीले बोमले सकल एक खोंट माल्ली आनी तिका सकल शेंवटिली. तो आवयक घेवन येयलो आनी ताणें गांवय सोडलो. आवय खूब वर्सां ताचे बराबर आसली. अशें सांगतात, ती मागीर गळ्यांत तुळशीमाळ घालून, हातांत कांसाळ घेवन भजनां कीर्तनां सांगताली. गांवचो लोक तिचेसरीं

एकठांय जातालो. कुंबरावाड्याचे अस्तंतेक सुरंगी रुखापोनाक एक सान घुमटी आसा. ताका गुणायली घुमटी म्हणटात. कुंबराल्यो बायलो स्रावणाक ताची पुजा करतात. पूर्वजाले देवळीण आवयलें नांवय गुणाय आशिल्लें म्हण सांगतात.

पूण आपले मदीं ह्यो जाती केन्ना आशिल्ल्यो हाचें तांकां आतां कांयच दिसना. भायल्या लोकांक तर कांयच कळना. इतले ते आतां एकच घराबो कशे एक दुसऱ्यांत भरसून गेल्यात, इतले रासवळ जिवीत जियेतात. कितलेय झगडले तरीय जात काडिनात. पयलीं पयलीं तांचेमदीं कांय लग्नसंबंद जाल्ले. आतां तर ते साप्प उणे जाल्या. आपल्या धुवांक, पुतांक भायलीच सोयरीक केल्ली तांकां चड मानवता.

आपलीं सुखां दुःखांय ते रासवळपणान भोगतात. गरिबी भोगूंक चड बळ मेळचें म्हण चड लागीं येंत आसतात. तरीय कळमेल्ल्या निर्शेल्ल्या समाज चोम्याचो किंवाटो, विकळाप, दुस्वास हांगाच आसा. सोरो पियेतात, झगडटात, शिरापतात. मागीर परत रोखडेच एक जातात, गळ्यांत गळो घालतात. सरकार तळ्याक बांद घालून माती बुडोवचो आसा म्हण हवायो मदींमदीं उठ्ठात. त्यो कुंबरांल्या कानांवयल्यान गेल्यारच पुरो, सगळे मागीर तिनसांजचेबीन एकठांय जावन रडूंक बशिल्लेवरी बसतात, माती मेळना जाल्यार पोटाक शेंकरे बांदचे प्रडटले गा देवा! कोणय दुयेंत म्हण कळ्ळयार तेगेल्या दारांत-गडदी करून रातरात बसतात. कोणाल्याय घरांतलीं लग्नां, मरणां आपलींच मानतात.

**सी**ताय घरामुखावयल्या आंब्याचे सावळेंत बसून पणट्यो करताली. आदीं मातयेचो गुळो बरो तळटार मळून घेताली आनी मागीर ताची पणटी रेखताली. वाटकुळी, पूण वातीच्या तोंडासरी कयपंचेवरी मुखार सरिल्ली. पणटी रेखताना ती मनांत चिंतताली, हरशीं देवस्पणाक लोकाक रांड बायलेची सावळी खपना. तरीय बरें रांड बायलेन केल्ली पणटी देवामुखार चलता. विधवा सीतायन केल्ली पणटी आनी वामन भटाले विधवा अम्मान केल्ले जोडे देवाक

हुंवाळूंक बेसबरी पंचारत!

ह्या विचारान ती हयन्हयशी हांसली. तिच्या गोऱ्या चेहऱ्यावेल्यो मिरयो लिकलिकिल्ले वरी जाल्यो. तिणें मनांत म्हटलें, पूर्वजान शास्त्र म्हण हो मायटयांचो आनी पणटयांचो धंदो रांडाव बायलां खातीर राखून दवरला म्हण बरें. ना तर कुंडो खावन जियेवची पाळी येतासली. हांव भुकेक खायनय आसलें कुंडो पूण रांडाव सुनेल्या, तिगां नातरांल्या पोटांत कितें घालतासलें? बायलांनी चाकाक हात घालूंक फावना, चाक घुंवडावन तांचेर चालां-गळे काडूंक फावना, मडकी पेटूंक हातांत पेटणें, फातर घेवंक फावना, पेटून ती सरी करूंक फावना. रांडाव बायलेन चाकार मडके गळे काडप म्हणजे भुरग्याक जल्म दिल्ली खबर खंय. बांदून घातल्यात हातपांय. तरीय आमी पाळ्ळे पूर्वजांले नीतनेम, नीट पाळ्ळे. सुनेकय तेंकां जाय तशी रांडाव करून दवरली. फक्कत बिनगळ्यांचीं मुणकी आयदनां रेखलीं.

सीताय गांवांत खरी धिराची बायल आसली. मरणाच्या, लग्नाच्या घरांत तिचेबगर पान हालनासलें. वैजीण वेळार पावंक ना जातकीर तिणें केन्ना बाळंटेर लेगीत केल्यात. तिचे हात शास्त्रान बांदिल्ले आसात. ना तर पूत मरतकीर माळ्यार काडून दवरिल्लें चाक सकल देंवोवन ते मांडून ती गळे काडटासली. ते पेटून मडक्यो हाव्यांत भाजतासली. तिका उगडास आसा, आंकवार आसतना भुरगेपणाक बापायमुखार चाक घुंवडायताली. ताच्या मुंडळेवयले मातयेक हात घालून गळे रेखीत खेळटाली. पूण आतां मुंडळेवयले मातयेक हात घातल्यारच हे लोक अच्छेव करतले. सीतायन पोटांत गर्भ रचयलो म्हणटले.

तिगेली सून तारा भायल्या हुंबरासरीं बसून शेणिल्ले नदरेन भायर खंयतरी पळयताली. तिगेलें निमाणें चेडूं वोग्ग आवयल्या आंगार पडून आसलें. बापूय गेलो तेन्ना हें चेडूं तीन म्हयन्यांचें बाळक. बापाय फाटल्यान खरें तर तें आवयले व्हटयेबगर आनी मोम्या दुदाबगरच व्हड जाल्लें. कोणय ताका बळयां आवयले व्हटयेंत व्हरून घातल्यार आवय पिशांतूरा वरी धुकलून दिताली.

सकाळ बरीच वयर चडिल्ली तरी ह्या घरांतलो काळोख अजून निशेवन वचूंक नासलो. तो घरांत, मनांत अजूनय सावळ करून घेवन आशिल्लो, दावखुलां

मारूंक राविल्लेवरी. राघोबा थंय हावठणार हावो घालतालो, मडक्या घण्णां दाळून वयल्यान तणाकुटारो घालून मातयेन सारयतालो. वाड्यावयलीं बरींच भुरगीं थंय बोवाळटालीं. सीतायलो नातूय थंय आसलो. पूण तो भुरग्यांलो बोवाळय ताराल्या मनाक काळजाक हूनसाण हाडूंक तांकनासलो. फाटल्या उगडासाचो, दु:खाचो एक फातरगुळो तागेल्या काळजांत घट बसून आसा. साडेतीन वर्सां जाल्यात सितायल्या चेड्याक जयवंताक भायर पडून. पूण सून तारा अजूनय त्या धपक्यांतल्यान सावरूंक ना. कामधंदोय नीट करिना. करूंक म्हण हात घालता आनी चिंतनांत घुसपून तशेंच वोग बसून रावता, पिशें लागिल्लेवरी. तिनसांजचें केन्ना तिगांय भुरग्यांक खाकोळांत ओडून घेता आनी मोन्यानच रडूंक लागता. वागान मारचे परस ताणें ओडून व्हरचें त्रासाचें जालां.

सीतायक कांयच सुचना. तिणें काळजार मणाचो फातर दवरून घेतला. एकलोच पूत गेल्ल्याचें दुख्ख पोटांत गिळून सुनेक आनी नातरांक राखचेलो यत्न करता. दुकां दोळ्यांत आवरून घेवन सुनेक म्हणटा, ''वयतलो गेलो आपले वाटेन. रडली, तकली धाडायली म्हण परतो येवचो आसा? पदरांत भुरगीं आसात. आपलें दैवच फट म्हणचें आनी मन घट करचें, भोग सोसचे आमी.''

सून केन्ना जखमी जिवावरी चीं चीं करूनशी मांयचेर आड्डता. ''कसले भोग? तुमी कुंबार माती भाजून कोळसो करतात आनी पातकां जोडटात. मगेलो बापूय शेतकार, कोंब काडटा मातयेंत. कित्याक म्हण दिलें म्हाका हिंगा माती खावंक! मातयेनच गिळ्ळो मुगे तुगेलो पूत? आपलो पूत गोरो बामण, तुमचेवरी उंदीर न्ही म्हण व्हडलें सांगताली. पुताचें गर्व जाल्लें तुका. गर्व हरण केलें देवान.''

सीताय वेळार वोग रावता. पूण केन्ना तें आंग कांबरून घेवन बसलें म्हणटकीर तेचेर किसळटा, ''तकली धाडावन कपलार बरयल्लें पुसोवंक पळयता तूं. जल्मा वांगडाच हें रांडावपण घेवन येयल्लें तूं. ना तर ह्याच घराक कित्याक पावलें? तोच कित्याक म्हण मेलो? आतां तें हांसून भोग ना तर रडून भोग. घोव भोगूनच भुरगीं जाल्लीं मुगो, तेंकां आतां पोसतलो कोण?''

सून तारा वावर करनासलें अशें न्हू. दोगांय मांय सून मेळून तळ्यांत, दोंगरांत माती हाडूंक वयतालीं, हाडून आंगणांत सुकोवंक उडयतालीं. सून कुडतेन माती

बडोवन बारीक करताली, ती चाळटाली, भिजोवंक घालताली. मांयन केल्ले तवे, कायली, मायट्यो, पणट्यो, कदीं चोब्यांत घालून विकरेक वयताली. पूण मळिल्ले मातयेक ती हात लायनासली. एक पणटी रेखनासली. मुळांत ती एक थंड प्रकृतीची अस्तुरी. तिचें चलप, हालप वावराक हात हालोवप सगळें थंडपणान. चवदा वर्साचें आसतना तिगेलें लग्न जाल्लें. सोळा वर्सार पयलें भुरगें जालें आनी चोवीस वर्सार घोव भायर पडलो.

सीतायक अजूनय दोळ्यां मुखार झळकता तें सुनेलें सोबीत अपुरबुद्द व्हंकल रूप. एक दीस तिनसाना ती पुता वांगडा आंगणांत पाविल्ली, माथ्यार मुडयोभर फुलां, कपलार व्हडलो कुकूम, ताका धशिल्ले तांदूळ, कमरार गुठली जाल्लो णववारी साडयेचो सोगो...व्हंकल सुनेक खाकोळांत घेवन घरांत हाडटाना तिका तें अपुरबुद्द सान चेडूंच कशें दिशिल्लें. सीतायन मागीर पोटांत पिकिल्ल्या चेडवा परसय चड माया तेका दिल्ली. सीतायक पयली तीन फावट व्हाळणी लागून ना ना म्हण जाल्लो एकलोच पूत... आपणाक दीस गेल्यात म्हण कळटकीर सीताय थर्त भियेताली. जीव गळ्यासरीं घेवन जियेताली. तेगेली मांय मात तिका बेस सांबाळटाली. न्हिदूंक नवीताल्ल लव्या मांदरी, तेचेर कांय हांथरूंक फावना, ते मांदरेक घोवालो हात पांय लागूंक फावना... जेयताना मुखार गायेच्या ताज्या शुद्ध शेणान सारोवप, तेचेर केळिचे शिरवते पान दवरप आनी जेवप... उकडें शीत आनी सोलकडी, तोंडाक धवे भाजयेची नातर धव्या दुदयाची भाजी... हो सुवाळो चालू आसतनाच सट्ट करून एक दीस न्हेसणार तांबडें दिसप. मागीर आकांत येवप सगळ्या घरादारार. पूण हो निमाणो गर्भ मात तगलो...

तो तिगेलो एकलोच पूत उठून गेला, काळीज पिंजून उडोवन. एक दीस सकाळीं पूत जयवंत आनी सून हातांत कुदळ आनी चोबे घेवन दोंगुल्लेर माती हाडूंक गेल्ली. मडक्याक अर्दी दोंगुल्लेंतली तांबडी माती तर अर्दी तळ्यांतली चिकणमाती जाय आसताली. ते दोंगुल्लेंतली माती बरी तांतया मुंडळेवरी तामशी हळडुवी आनी गंद गंद आसली. चाळल्यार एक फातर मेळनासलो. ती दोंगुल्ली दोंगराचो फाळ कसो गांवावटेन सरकल्ली.

दोंगुल्लेर एकवटेन कुंबरांनी माती काडून काडून खोल भुंयारशें केल्लें. गांवचे

लोकय चुली घाूलूंक, आंगण सारोवंक तातुंतलीं माती व्हरताले. भुंयार दिसादिसा भितरच वचत आसलें.

शिंयाचे दीस. सकाळीं उठून चयल्यार सगळो वाठार, मुखाल्लो दोंगर दोंगुल्ल्यो गच्च धुंवरान भरून गेल्ल्यो आनी तीं मळबांतल्यान देंविल्लीं कुपां कशीं दिसतालीं. ह्या वाठारांत पयस पयस आनी गांव आसात हें खरेंच दिसनासलें. खंय शेतांत कुळवाड्यान जोत हामुडिल्लो आवाजय येनासलो. चोंयवटेन ओलोओलो शेळाव.

जयवंत आनी तारा धुंवर इल्लो इल्लो निवळटकीरच भायर सरिल्लीं. आज कितें जालां, सुर्या येवन मळबांत बसलो तरीय शीं कित्याक उणें जायना. ती शिंयान कुडकुडत दोंगुल्लेर येयल्ली. दोंगरांत इल्ली हुनसाण आसली, माती काडिल्ले पोकळेंत तर आनीक हुनसाण... जयवंत पोकळेंत भितर सरून कुदळीन माती काडटालो. कुदळ माल्ली म्हण्टकीर वयल्यान बरीच माती देंवताली. ती तो चोब्यांत भरतालो. तारा भुंयारा भायरच उबें आसलें. अचकीत वयलें हरिश्ट कवच कोसळ्ळें. शंबरेक वोजीं माती वयल्या झिली झुडपांसयत कोसळ्ळीं. ते मातयेच्या ढिगाऱ्यांत जयवंत अख्खो पुरून गेलो. बायल हातांत चोबो घेवन उबी आसली आनी घोव पुराय मातयेंत पुरून गेल्लो... तिणें व्हडाव्हडान बोब माल्ली. हड्डें बडयत कुलकुलाट केलो. कोणाक आफयताली काय बेठीच बोब मारताली तें कांयच कळनासलें. बारीक ताळ्याची ती बायल पूण आतां मात आवाज हड्डें फुटून वयर सरतालो, सगळ्या वाठारांत घुंवतालो.

सकल्लेवटेन शेतांत दोग कुळवाडी मेरो धरताले. आनीक कोणें जोत बांदिल्लें. ते धांवन येयले. तांणी मागीर खोरींबीन हाडून माती उसपिता म्हणसर बरोच कळाव जालो. जयवंत भितरले भितर घुसमटून मरून गेलो. शेवटा काडलें तें तेगेले कुडीचें एक लाकूड...

सीतायल्या घरादाराचें कमर एका खिणांत मोडून गेलें. फाटल्यान उरलीं ती कणो बागवल्ली एक जाणटेली, पारव्यावरी चीं चीं करून रडपी रांडाव सून आनी तिगां अबुद्द भुरगीं. सीताय भितरल्यान सामकी बसल्या, ती रडटा, पूण ती जाणा आपणें धोंपरां माल्ल्यार संसाराचीं कयलां जातलीं, हाव्यांत फुटिल्ले मडकेवरी...

वर देडवरांत सीतायन बऱ्योच पणट्यो, मायट्यो रेखिल्ल्यो. तिणें उंबरासरीं बशिल्ले सुनेक उलो माल्लो आनी त्यो व्हरून सुकोवंक उडोवंक सांगलें. ती आंगावेल्या भुरग्याक सकल काडून चोबो घेवन येयली आनी त्यो भरूंक लागली. भरतां भरतां सून विचारताली, ''ह्यो गळे नाशिल्ल्योच मडक्यो आमी कित्याक रेखच्यो आवो?''

''तेंकां भिरांत दिसता गळे रेखतां रेखतां आमच्या पोटांत गर्भ रचतलो म्हण?''

''चे चे, पिशेपणां...'' करीत तारा चोबो घेवन वोत सोदीत गेलें.

तेवटेन दुलबा येयलो. सीतायलें घर जंयसान लोक वाड्यार येतात थंयच तोंडार आसलें. दुलबा केन्ना येतालो आनी वचचे येवचे वाटेवटेन तोंड करून सीतायल्या आंगणा मेरेर बसतालो. कोणाली वाट पळयता रे दुलबा, म्हण विचारल्यार तो सांगतालो, ''हांव भावंडांत निमाणो न्ही. आवय मडक्यो व्रिकरेक घेवन वयताली तेन्ना खूब उसरां तिनसांजची बीन येताली. हांव भुरगेपणाक हांगाच बसून तिगेली वाट पळयत रावतालों. चड उशीर जाल्यार रडूंक लागतालों. आतां आवय ना पूण ती याद वचना.''

दुलबाक आतां कसलो तरी रोग जाला. गेल्लीं तीन वर्सां ताका नीट न्हीदच पडना. मुदलांतलो तो सावळो, मदीं आपशींच तांबडो जालो. आतां तर तांबडीसाण वचून पालील्या पोटावरी धवो जाला. ताळयेवयले केंसय गेल्यात. उरिल्ले कांट्यावरी उबे रावतात. मेंदवांत शेळ धरिल्लेवरी कित्याकितेंय उलयता. पयर गोपाळान हावो देंवयल्लो तर हो एक मडकी उखलून घेवन गेलो. आरे आरे, मडकी खंय व्हरता काय म्हण विचारल्यार म्हणूंक लागलो, म्हजे सारयेर फोडूंक व्हरतां. कोणाल्याय हाव्यांतली, जाबळ्यांतली मडकी सांगिनासताना उखलून व्हरता. कोणय बऱ्याक वायटाक वाड्यार मडकी व्हरूंक येयलार हो आपली मडकी हातांत घेवन थंय रोखडोच उबो. म्हणटा, घे ही मडकी आनी वीख खावंक कितेंय दी.

तो विशेक वर्सांफाटीं लग्न जाल्लो. तेन्ना तो सोळा वर्सांचो तर तागेली व्हंकल इकरा वर्सांची. सांगतात, एक फावट तो आपले अपुरबुद्द बायलेसरीं गेलो आनी तिचे कुडीर ताणें जबरदस्ती केली. बायलेल्या मांयआंगांतल्यान रगत व्हावंक लागलें तें थाल्लेंच ना. तातूंनच ती मेली. सीताय केन्ना सांगता, तें पोर रातभर गोदडेर तशेंच पडून आसलें. सकाळीं मांयन पळयल्यार रगत गोदडेंतल्यान व्हांवन भायर पाविल्लें.

आतां येयल्लो तो आपले सदांचे सुवातेर सीतायले आंगणामेरेर बसलो. थंयसानच व्हडान उलोवंक लागलो, ''म्हगेली व्होनी म्हाका दिसउजवाडचो म्हारू म्हण्टा, हांव म्हऱ्यांत गेल्यार नाक मोडटा, अन्नाक काळ आनी भुंयेर भार म्हणटा. सीताय आवो, जाय जाल्लो बेगीन मरता आनी नाका जाल्लो म्हजेभशेन झरता न्ही गे?''

तेन्ना कोण एकलो अनवळखी मेल्ल्या पावलांनसो शेतांतल्यान चलत वाड्यावटेन येताना दिसलो. इतलीं वर्सां जालांत सीतायक पूण अजूनय आडवेळार कोणय अनवळखी वाड्यार येताना दिसलार तिका खप्प जाता. ती जाणा असो पिरंगत येवपी मनीस चड करून मरणाचेंच पेरगांव घेवन येता. तो येयलो आनी सीताय मुखारच उबो रावलो. ती वळखली. हो सावंतावाड्यावयलो शांबालो राम. तिणें विचारलें, ''कितें जालें रे रामा?''

''आमगेलो दायजी नीळकंठ सावंत गेलो सकाळपाराक. सांजचेच व्हरतले लासूंक. चेडवाक, जावंयाक हाडूंक गेला एकलो पणजे, पावतले दनपारसर.''

''बरोऽ आशिल्लो मनीस. पांच जण भयण्यांलो एकलोच भाव तो. बापूय भुरगेपणाकच गेल्लो. नीळकंठान दाडयेन खडो धरून एकल्यान पांच जणां भयणींचीं लग्नां केलीं.''

''पावलांत आतां कोणकोण. रडून सामकीं विकळाप करतात भावाल्या नांवान.''

सीतायन ताका यशवंतासरीं धाडलें. म्हटलें, ''कालच तेणें हावो देंवयला. मेळटल्यो मडक्यो.''

राम वचून यशवंताकडच्यान दोन मडक्यो घेवन येयलो – एक शेणी शिक्याक

बांदूंक, दुसरी चिवळां मारून सारये भोंवतणी उदकाची रीस घेवंक.

राम वचूंक गेलो. दुलबा बशिल्लो थंयच आसलो. तो राम वयताना पळोवन म्हणूंक लागलो, ‘‘कितेंय जावं, मनशालीं मरणां आसासर कुंबरांल्या पोटांत पेज पडटली. लासताना दोन, इकराव्याक तीन. सीताय आवो, आतां कुंबरान मागचें, मनशां अशींच मरत रावं म्हण.’’

सीतायन धेंगसो घातलो, ‘‘दुलबा तुजेंच मरण माग तूं. हेरांल्या मरणांक रावं नाका.’’ तरीय सीताय जाणा आसली, लोकांक वाड्यार कोणय बऱ्या वायट कामाक मडक्यो व्हरूक येताना दिसल्यार देव येयल्लेवरी दिसता. चड करून पावसा दिसांनी. मदींच आडवे वचून मडक्याविशीं विचारप समा नासलें. पूण एकादरी गरजवंत बायल वाटे कुशीक उबी रावन वा जनेलांतल्यान ल्हवच विचारताली, ‘‘मामा, मडकी जाय?’’

शिवराम आनी पुरशालो चेडो सखाराम वाड्यार मद्दीं आशिल्ले आमले पोनांत बसून नाटकाचे संवाद पाठ करताले. देवा परबेक भांडीशिट्यार नाटक आशिल्लें. तातूंत सखारामाक एक पार्ट दिल्लो. तो शिवरामा मुखार बसून व्हडव्हडान संवाद म्हणून दाखयतालो. शिवराम तागेलें बेस आयकतालो. मोट्या जाणकाराल्या आबांत ताका कांय सुचोवण्यो करतालो. मदींमदीं तांगेल्या संवादाची जुगलबंदी झडटाली. शिवराम पयलीं केन्ना तरणेपणाक दशावतारी खेळांनी, इतिहासीक नाटकांनी कामां करतालो. ताका आतां सामाजीक नाटकांनी उलयतात ते ताळोचेपे संवाद मानवनात. अपूण पयलीं पाठ केल्ले संवाद तो घणघणीत आवाजांत म्हणून दाखयतालो. तांगेलो दोगांलोय तो आवाज दनपरचे थंडायेंत पुराय कुंबारवाड्यार घुंवतालो. वाड्याक देवासासाय येयल्लेवरी दिसताली. लोकांकय बेस बरें दिसतालें.

शिवरामाले संवाद बरे घणघणीत आसले तरीय ताका सखारामालो आवाजय मानवतालो. सखाराम जल्मानच बरो खरो कलाकार. ताणें आपलो असो एक

सुवर्णमध्य साधिल्लो. तातूंत गोडसाणय आसली आनी खणखणीतपणाय आसलो. म्हणच गांवागांवांनी तो एक बरो नाटक कलाकार म्हण नांवाजतालो. खंयच्याय गांवचो कोणय हातांत पार्ट घेवन ताका सोदत येतालो. गांवा वटेच्यान व्हाळा पलतडी सायकल, मोटर सायकल दवरून व्हाळ, शेताकेर बळांटून सखारामाक विचारीत येतालो. तो पार्ट हिरो, खलनायक, कोडांगी, बायलपार्ट कसलोय आसतालो. तो संगीतय बेस बरो गायतालो. तो वाटकुळ्या तोंडाचो गोरसो सुंदर आसलो. तागेल्या आंगाक नाचरी लचक आसली. चौदा वर्सां पिरायेर ताणें तोंडाक पयले फावट रंग लायल्लो. आतां एकवीस वर्सांर ताणें चाळिसांवयर नाटकांनी कामां केल्लीं.

केन्ना घरांतल्यान चार आठ दीस नाच जातालो. आवय घोर लावन घेवन बसताली. बापूय गाळी संवतालो. येयल्यार घरांत घेवंचो ना, पांय मोडून घालतलो म्हण्टालो. पूण माजाळे बाजारांत गेल्लेकडेन, परत येतना कोणय मेळ्ळयार आपल्या पुताली तुस्ततोखणायच करतालो. लोकय मान हालयताले. म्हणटाले, 'रत्न तें तुगेल्या पोटांत जल्माक येयलां. कितें पार्ट करता!''

पावसाळ्यांत तो वोग घरांत पडून आसतालो. आवय बापायन सांगिल्लें सगळें करतालो. पूण दिवाळी जाली म्हणटकीर ताचे नाकापुडये फुलताले. भायलो वारो नाकांत ओडून घेतासो दिसतालो. आंगार रंग चडटालो. जत्रांनी पेठांनी भोंवत रावतालो. नाटकां पळयतालो आनी नाटकां करतालोय. हाताक म्हण मेळनासलो.

मागीर आवय बापूय म्हणटाले, ''फुकट गेलो तो, इल्लो काळो उंदरा पेटो कसो जाल्लो जाल्यार म्हातारपणाक आधार तरी जातासलो...''

एक दीस दनपार देंवच्याक वाड्यार एक चली आयली. शेतांतल्यान चलत येताना दिसली. हातांत पर्स, वोताक सत्री, आंगार सुळसुळीत साडी, तांबडें पोल्क. ती येयली आनी वाड्याकडेर उबी आशिल्ले सीतायले सुनेक ताराक तिणें म्हटलें, ''म्हाका सखारामाक मेळूंक जाय आसलें.'' तारा गडबडिल्ले वरी जालें. कांय उलयनासतना उमळशिकेन, तोखणायेन पळयत रावलें. मागीर कितें जालें, अचकीत मुखार वचून तेणें ते चलयेल्या पोल्काचेर हात दवरलो. चली

कचरून मात्शी फाटीं सल्ली. तारान म्हटलें, ''सद्दां वासा साबणान न्हाता न्ही तू?''

इल्लो कुशीक हावठणासरीं धर्मुलो चेडो प्रेमानंद उबो आसलो. तो अजापानसो दोळे पसरावन पळयतालो. तारान तेका म्हटलें, ''सखारामाक मेळूंक येयलां तें. तो आसल्यार आफोवन घेवन यो.''

प्रेमानंदाक खीणभर दिसलें, फाटले आमलेवेल्यान हाडें बळार फडफडत हुडत तकलेवेल्यान गेलां. कोणेंतरी तकलेर मूठ माल्ल्या. तो धांवत गेलो आनी सखारामाक आफोवन घेवन येयलो. मागीर सगळे कुशीकुशीन पयस उबे रावले. वाड्यार भितर सरता थंय दोन इंच आकाड्या फातर उबे आसले. केन्ना तरी वाड्याक वंय आडो आसूंक जाय. आतां सामकी वंय नासली पूण तेन्ना उबे केल्ले आकाड्या फातर अजून तशेच उबे आसले. ती चली वचून आकाड्या फातराक तेंकून उबी रावली. थंयच तीं दोगांय उबीं रावन उलोवंक लागलीं.

वाड्यावयलो एक्कान एक मनीस अडसराक उबो रावन पळयतालो. सखारामाले आवय बापूयय उबे रावन पळयताले. तांकां एकच फावट चेड्यालो राग येतालो आनी तोखणाय दिसताली. पूण मुखार येवची धिटाय नासली.

सगळ्यांक दिसतालें, ह्या चेडवाक खंय तरी पळयलां... तेन्नाच यशवंतालो धाकलो चेड्डो नरशिंव सगळ्यांक ल्हवच सांगीत सुटिल्लो, ''शीला नटी ती. पयर 'यातनाचक्र' नाटकांत बरेंऽ काम केल्लें तेणी!'

मागीर लोकान म्हटलें, ''हय तीच ती. रंगयल्ल्या चेहऱ्यार पळयलां बरेच फावट.''

वरभर तरी ती तशी उलयताली. मागीर सखारामान वाड्यावटेन हात करून सांगलें, ''रस्त्यामेरेन पावोवन येतां.'' तें सांगप कोणाक एकल्याकच म्हण नासलें.

ती गेली आनी अख्खो लोक वाड्यादेगेर येवन उबो रावलो. बेठोच फुतफुतूंक लागलो, 'एकलेंच पळय कशें मेळूंक येयलें... हुशार तें, धिराचें.'

'काय बरें गोडयेन उलयतालें.'

'नाटकाचें कितेंय काम आसतलें.'

'लग्न बीन जावचीं नात मू?'

हाचेर बापायन - पुरशान फुशारकेन म्हटलें, ‘‘लग्न जाता जाल्यार कोण आडावंक येयला तेंकां?’’

हाचेर सीतायन म्हटलें, ‘‘तुगेली माती कालयतलें मुरे तें? तकलेर मडक्यां जाबळो घेवन विकरेक भोंवतलें मुरे?’’

**ह्या** दिसांनी किरांब्याचे खोंटांनी आंबे पिकूंक लागिल्ले. दीसभर रुखापोनांत भुरग्यांचो कलकल आसतालो. एकादरी चानी, एकादरो कावळो खंयचे खांदयेर वचून खंयच्या घोसांतल्या पिक्या आंब्याक चोंच मारता तें पळयत भुरगीं तेवटेन धांवतालीं. खंयूय आंबो पडिल्लो ढुब्ब आवाज येयलो म्हण्टकीर सगळी धांवाधांव जाताली. दिसाचीं भुरगीं आनी रातचे जाण्टेले.रातचे केन्नाय कोणय हातांत वल्ली घेवन आंबे पुंजावंक वयताले. एके रातचे आंबे पुंजायतली एक बायल ‘भूत, भूत’ म्हण धांवत आपल्या घरांत घुसली. थोडी सावचीत जातकीर घरच्यांनी विचारल्यार सांगूंक लागली, ‘‘हांव आंबे पुंजायता तर भूत म्हजे फाटल्यान आंबे पुंजायत येता. हांव बागवल्यार भूत बागवता, हांव उबें रावल्यार भूत उबें रावता...’’ इतल्यान धर्मू बायल तुळशी दारांत येयली. ती आदींच काळशी आनी तिणें काळशेंच कापड न्हेशिल्लें. तकलेवेले केंस हुबून उबे जाल्ले. तिणें सांगलें, ‘‘हांव हिचे वांगडाच आंबे पुंजायतालें तर ही मदींच भूत भूत करून धांवन येयली...’’

तो आंब्यारूख चोंयवटेनच्या वाठारांत अजापाचोच आसलो. अशे वेंगों पावना जाल्ले पांच पुरीस उंच कांड. ताचेवयर ताका दोन खांदे फुटिल्ले आनी ते पसरून जशे मळबाक तेंकिल्ले. तेणें पुराय कुंबारवाड्यार सावळी धरिल्ली. पुराय उबाळा दिसांनी कुंबराले हे सावळेंतच, ह्या शेळावांतच आपलें घर जातालें. दादले रातदीस हांगाच चडून रावताले. तातूंत आनी रुखापोनाक आंब्यांची खातोड. त्या दिसांनी मागीर आंब्यापोनांत मनशांच न्ही, रुखार चानयो, सुकणीं हांची जत्रा भरताली. लोक चानयेन उडयल्लीं चानकोत्रां चड रुचीक म्हणटाले.

तो केन्ना कोणें रोयल्लो काय बेठोच किल्लोवन आयल्लो तें कोणाक खबर ना. पूण तो पुराय आठय घरांतल्या कुंबारांचो रासवळ रूख आसलो. म्हणजे हे कुंबार हांगा रावंक येयल्यात तेन्नासान वा ताचे पयलींसान उबो आशिल्लो आसूंक जाय.

हाचो आंबो त्या हरिश्ट उंच रुखार चडून पाडूंक येनासलो. फक्कत पिकून पडिल्लोच आंबो खावप. आंबो गोड म्होंवाळ पूण इल्लो सुंबाळ. तो फक्कत चोखूनच खावचो. भुरगीं वरवर आंबो चोखीत बसतालीं. एकादऱ्या वर्साक गांवांनी आंब्यांचो दुकळ आसल्यार ह्या रुखाक मात आंबे धरतालेच. देवरथ कसो फुलतालो आनी तेका मुड्यामुड्यांनी आंबे धरताले. रुखाची वीणच वेगळी आसली. पुराण पुरूशाले रूप घेवन जसो उबो आसलो.

केन्ना गांवांतले कुळवाडी रुखाचे आशिकुशीन भोंवताले, हक्कान जशे आंबे उखलून व्हरताले. म्हणटाले, ही सुवात आमच्या पुर्वजांनी तुमकां रावंक दिल्ली.

एका कार्तिकांत एक दीस दोग गाबीत वाड्यार येयले. येयल्लेच तेणें रुखार घब्ब घब्बकरून हात माल्ले. "पोकळ नासो दिसता!" थंय यशवंत उबो आसलो. ताणी विचारलें, "रूख दितात गा? आमकां व्हडें करूंक?"

यशवंत वोगी गेलो आनी वासरेर मडक्यो पेटीत बशिल्ल्या घनशामाक, शिवरामाक, गोपाळाक घेवन येयलो. "रूख मागूंक येयलात ते गाबीत..."

गोपाळान एकदम गाबत्यावटेन हात हेळायत म्हटलें, "ना, दिवचे नात रूख आमी. कुंबरांले रासवळ मालकेचो एकच म्हालवज तो. पोरां वर्सभर आंवडेवन रावतात तेच्या तोराक. ल्हान व्हडांचो आंवडो तो. ह्या आंब्याचे ओडीन कुळारच्यो धुवो धांवत येतात."

शिवरामान म्हटलें, "आमचे तकलेर तेणें सावळी धल्ल्या ती दिसना तुमकां? सावळी कशे विकून खातले आमी? भिकेक लागले नात अजून. गीमभर ही सावळीच आमचें घर जालां."

"पूण आमी बरी किंमत दितासले." तांतल्या एका गाबत्यान आपल्या मोटव्या खालसांवाच्या खिशार दोनतीन फावट ल्हव हात माल्ले. जाण्टेलो घनशाम हरशीं सादो, सदां पिरपिरत रावपी मनीस. पूण तो तापलो. "लाख उडयले तरी दिवचेनात रूख. आमच्या मूळ पुरसार कुराड घालूंक पळयतात तुमी?"

गाबीत वोगी काडून गेले. पूण वयताना एकल्यान म्हटलें, ''आमी कितें फोर्सान मारून व्हरतले? तुमच्याच एका मनशान दाखयल्लो तो रूख. दितले म्हणटालो.''

ह्या निमाण्या उतरांनी मात कुंबार गोंधळांत पडिल्लेवरी जाले.

**नां**व धर्मू. पूण तो केन्ना धर्मान वागिल्लो कोणें चयलें ना. घटघट सोऱ्या पाव घोट्टालो आनी कोणाल्याय उंबरार वचून बसतालो. जांघ उकती घालून ती खराखरा खाजयतालो. तोंडांत लुथी घेवन कांय वेळ ती तोंडांत घोळयतालो, मागीर पच् करून खंयूय थुकतालो. कोणाल्यार आंगणांत पावळेंत तांबडेशे धेंकर पडटाले. बायलांल्या कंबरासरीं बारीक पळयतालो आनी म्हणटालो, ''घोव बरें दूद तूप खाववयता म्हण तुमच्या कमरार ह्यो बामणीवरी घडयो. कितेंय म्हण तुगेलो घोव मडकी पेटूंक हुशार. गाय गवळी एक जाल्यार गाय केन्नाय पानेता म्हण जाणा मुगो?''

तेगेल्या तोंडाक कोण केन्ना लागनासलो. झगडूंक लागल्यार तो पोदडें पोदडें उलयतालो, झगड्याचें निमित्त करून तोंडाची खाज काडून घेतालो. तेतूंत आनी सोरो. केन्नाकेन्ना तो सोरो पिवन बोवाळटा काय बेठी मस्ती म्हण कळनासलें. बायल आसली, तिगां वयार येवंक लागिल्लीं भुरगीं आसलीं पूण हाचो मात सदांच शिगमो. सांगताले, तागेले आवयन हागेल्यो ख्यास्ती सोंसूंक नज जावन काजऱ्या फळां खावन जीव दिल्लो. अजाप म्हटल्यार तेगेली आज्जी - बापायली आवय अजून जिवी आसली. ती णव्वदाक पाविल्ली म्हातारी खंयच्याय, कोणाल्याय घरा वचून कितेंय खावन जियेताली. बडी घेवन लखतलखत कुळवाड्यांल्या वाड्यांनी वयताली आनी मागून खावन येताली.

धर्मू सोऱ्याचीं भाटये भाणां करूंक फिशाल आसलो. चड करून व्हडलीं भाटये भाणांच तो करतालो. ही पुरूसभर उंच भाणां व्हडली कवंज करून कवंजेंत घोळयत उबो रावन पेटप. हावठणाच्या मुखार एकच भाण दवरून हावो घालप

आनी भाजप. ल्हान मडक्यो करूंक ताचो हातच वळनासलो. तेणें केल्लीं भाटये भाणां बद्‌द आगोंद, पाळोळें, सादोळशें, गांवडोंगरीमेरेन पावतालीं. व्हाळा तेवटेसान मोटरसायकलीचो आवाज येयलो की धर्मू धांवन धांवन वाड्याकडेर येतालो. आवाजावयल्यान वळखतालो ते खंयसान येयलात ते. ज्युस्त तांकां धरतालो. पंदरा दिसांत भाण तयार जातालें. मागीर तें व्हाळापलतडी रस्त्यामेरेन माथ्यार मारून व्हरून पिकअपींत घालताले.

सोरो पितालो आनी रातरात भाणां पेटत रावतालो. वाड्यार फक्कत आपूणच इतलीं व्हड बरीं भाणां करूंक जाणां अशी फुशारकी मारतालो. गांवांतबीन गेल्यार हेणें लोकांक सांगप, ''ह्या कुंबरांक माती मळुंकय कळना. पेटूंकय कळना. हेणीं फक्कत खुळणी करची. एक भाण पेटूंक घेतलार हेंचो कमरे कांटो तुटून वयतलो. मर्द दादल्याचें काम तें.''

शिवराम कुंबार तसो सगल्या कुंबारकामांत फिशाल आसलो. चाक घुंवडावन ताचे मुंडळेर माती दवरून काय बरी सोबीत चालां-गळे काडटालो. चाक घुंवच्या तालार ताचे हात जशे भोंवऱ्यार भोंवताले आनी एक कला रूपकारताली. ताचे हात जशे मातयेर भोंवनासले तर संगीत वाजताले आनी एक मूर्तस्वर वयर सरतालो. उदक तापोवंक, भात उकडूंक तो भाणां, आडभाणां पेट्‌टालो, पूण भाटये भाण केन्ना पेटूंक नासलें. उब्यान बागवोन करचें तें काम इल्लें अवघड आसतालें खरें. तरीय ताका दिसतालें, आंगार घेतल्यार हांव तें करूंक तांकतलों. पोटान आकारान व्हड जालें तरीय शेवटा भाणच तें.

एक दीस अशीच एक मोटरसायकल व्हाळा पलतडीं पांयवाटेर येवन थारिल्ली कुंबरांक दिसली. आदीं आवाज येयलो, मागीर ती रावयल्ली दिसली. धर्मू खुशाल जावन वाड्याकडेर येवन उबो रावलो. आतां आनीक एक नवें भाण. एक भाण म्हटल्यार पंदरावीस दिसांचें पोट. सोऱ्याची, विडयेकाडयेची व्यवस्था. हे लोक म्हाका गणपतीच्यो मुर्त्यो करूंक कळना म्हण्टात. हांवें केल्ल्या भाणांनी गोंयां लोकांनी हजारांनी कोळशे सोरो काडला आसतलो.

ते दोगय मोटरसायकलवाले व्हाळ बळांटून येवन धर्मू मुखारच उबे रावले. तांणी कांय सांगचे पयलींच धर्मून म्हटलें, ''भाटये भाण न्ही, करतां हांव. ह्या

लोकय चुली घा़लूंक, आंगण सारोवंक तातुंतलीं माती व्हरताले. भुंयार दिसादिसा भितरच वचत आसलें.

शिंयाचे दीस. सकाळीं उठून चयल्यार सगळो वाठार, मुखाल्लो दोंगर दोंगुल्ल्यो गच्च धुंवरान भरून गेल्ल्यो आनी तीं मळबांतल्यान देंविल्लीं कुपां कशीं दिसतालीं. ह्या वाठारांत पयस पयस आनी गांव आसात हें खरेंच दिसनासलें. खंय शेतांत कुळवाड्यान जोत हामुडिल्लो आवाजय येनासलो. चोंयवटेन ओलोओलो शेळाव.

जयवंत आनी तारा धुंवर इल्लो इल्लो निवळटकीरच भायर सरिल्लीं. आज कितें जालां, सुर्या येवन मळबांत बसलो तरीय शीं कित्याक उणें जायना. ती शिंयान कुडकुडत दोंगुल्लेर येयल्ली. दोंगरांत इल्ली हुनसाण आसली, माती काडिल्ले पोकळेंत तर आनीक हुनसाण... जयवंत पोकळेंत भितर सरून कुदळीन माती काडटालो. कुदळ माल्ली म्हणटकीर वयल्यान बरीच माती देंवताली. ती तो चोब्यांत भरतालो. तारा भुंयारा भायरच उबें आसलें. अचकीत वयलें हरिश्ट कवच कोसळ्ळें. शंबरेक वोजीं माती वयल्या झिली झुडपांसयत कोसळ्ळीं. ते मातयेच्या ढिगाऱ्यांत जयवंत अख्खो पुरून गेलो. बायल हातांत चोबो घेवन उबी आसली आनी घोव पुराय मातयेंत पुरून गेल्लो... तिणें व्हडाव्हडान बोब माल्ली. हड्डें बडयत कुलकुलाट केलो. कोणाक आफयताली काय बेठीच बोब मारताली तें कांयच कळनासलें. बारीक ताळ्याची ती बायल पूण आतां मात आवाज हड्डें फुटून वयर सरतालो, सगळ्या वाठारांत घुंवतालो.

सकल्लेवटेन शेतांत दोग कुळवाडी मेरो धरताले. आनीक कोणें जोत बांदिल्लें. ते धांवन येयले. तांणी मागीर खोरींबीन हाडून माती उसपिता म्हणसर बरोच कळाव जालो. जयवंत भितरले भितर घुसमटून मरून गेलो. शेवटा काडलें तें तेगेले कुडीचें एक लाकूड...

सीतायल्या घरादाराचें कमर एका खिणांत मोडून गेलें. फाटल्यान उरलीं ती कणो बागवल्ली एक जाणटेली, पारव्यावरी चीं चीं करून रडपी रांडाव सून आनी तिगां अबुद्द भुरगीं. सीताय भितरल्यान सामकी बसल्या, ती रडटा, पूण ती जाणा आपणें धोंपरां माल्ल्यार संसाराचीं कयलां जातलीं, हाव्यांत फुटिल्ले मडकेवरी...

वर देडवरांत सीतायन बऱ्योच पणट्यो, मायट्यो रेखिल्ल्यो. तिणें उंबरासरीं बशिल्ले सुनेक उलो माल्लो आनी त्यो व्हरून सुकोवंक उडोवंक सांगलें. ती आंगावेल्या भुरग्याक सकल काडून चोबो घेवन येयली आनी त्यो भरूंक लागली. भरतां भरतां सून विचारताली, ''ह्यो गळे नाशिल्ल्योच मडक्यो आमी कित्याक रेखच्यो आवो?''

''तेंकां भिरांत दिसता गळे रेखतां रेखतां आमच्या पोटांत गर्भ रचतलो म्हण?''

''चे चे, पिशेपणां...'' करीत तारा चोबो घेवन वोत सोदीत गेलें.

तेवटेन दुलबा येयलो. सीतायलें घर जंयसान लोक वाड्यार येतात थंयच तोंडार आसलें. दुलबा केन्ना येतालो आनी वचचे येवचे वाटेवटेन तोंड करून सीतायल्या आंगणा मेरेर बसतालो. कोणाली वाट पळयता रे दुलबा, म्हण विचारल्यार तो सांगतालो, ''हांव भावंडांत निमाणो न्ही. आवय मडक्यो विकरेक घेवन वयताली तेन्ना खूब उसरां तिनसांजची बीन येताली. हांव भुरगेपणाक हांगाच बसून तिगेली वाट पळयत रावतालों. चड उशीर जाल्यार रडूंक लागतालों. आतां आवय ना पूण ती याद वचना.''

दुलबाक आतां कसलो तरी रोग जाला. गेल्लीं तीन वर्सां ताका नीट न्हीदच पडना. मुदलांतलो तो सावळो, मदीं आपशींच तांबडो जालो. आतां तर तांबडीसाण वचून पालील्या पोटावरी धवो जाला. ताळयेवयले केंसय गेल्यात. उरिल्ले कांट्यावरी उबे रावतात. मेंदवांत शेळ धरिल्लेवरी कित्याकितेंय उलयता. पयर गोपाळान हावो देंवयल्लो तर हो एक मडकी उखलून घेवन गेलो. आरे आरे, मडकी खंय व्हरता काय म्हण विचारल्यार म्हणूंक लागलो, म्हजे सारयेर फोडूंक व्हरतां. कोणाल्याय हाव्यांतली, जाबळ्यांतली मडकी सांगिनासताना उखलून व्हरता. कोणय बऱ्याक वायटाक वाड्यार मडकी व्हरूंक येयलार हो आपली मडकी हातांत घेवन थंय रोखडोच उबो. म्हणटा, घे ही मडकी आनी वीख खावंक कितेंय दी.

उंच तांबडें तांबडें भाण दोळ्यांमुखार झळकतालें. हाव्यांत चुंबळीर तेंकयल्लेकडेन व्हडलो एक काळो माग.

सामकी दोन दीस माती भिजोवस, कुसोवन मागीर जाय तितली चाकाचे मुंडळेचे पुराय रुंदायेर माती फिरोवन लिंग उबें करून एक बेस चाल-गळो काडून घेतलो.

चाल चड सुकूंक दिवंक फावनासले.रोखडेंच भाण पेटूंक घेवंक जाय आसलें. भाणाचे उंचायेचो नीट अदमास तेका येयना जालो. धर्मूक विचारून उपेग नासलो. तो वांकडें सांगतासलो. तो उठलो आनी जाण्टेलो पांडूदादाकडेन गेलो. पांडूदाद बरोच जाण्टो जाल्लो आनी तेका आयकोंकय उणें येतालें. दोळ्यांर जाड चश्मो लायतालो. तेची एकवटेची काडी तुटिल्ल्यान दोर बांदून कानाक खोवयतालो. तेगेले पूत विश्राम आनी गोपाळ एकाच घरांत वेगळे रावताले. तेगेली धाकली सून भोवच मोगाळ आसली. व्हडलेलें रांदून जावचे पयलीं ती बेगीबेगीन रांदताली आनी 'बाप्पा जेवंक यो' म्हण आफयताली. पांडूदाद कोण पयलीं आफयता तेंगेर वोग वचून बसतालो. केन्ना पेज एकल्यागेली, शाक दुसऱ्यागेली अशें तेचें जेवण जातालें. एकल्यागेर शीत जेवताना दुसरी येवन बेगीबेगीन निस्त्या कुडको घालून वयतांली. तो पंयलीं चंड घुमटांच करतालो. तेका घुमटकार पांडू म्हण गांवांत वळखताले.

शिवरामान भाणाची उंचाय विचारतकीर शिवरामाकच आयकोंक येयना जाल्लेवरी तेणें आपल्या चिरक्या आवाजांत व्हडान म्हटलें, ''वाड्यार बरो उंच कुंबार तूं शिवरामा, तुगेल्या हड्ड्या चिपयेकडेन पाव इतलें उंच जावंदी.''

आंगणा भायर सावळेंत व्हडली कवंज केली आनी शिवरामान भाण पेटूंक घेतलें. निसर उदका मान्यांत बुडयतालो आनी माती ओली करून घेतालो, आनीक माती लायतालो आनी उजव्या हातांतल्यान पेटण्यान पेट्टालो. दाव्या हातांत भितरल्यान फातर धरिल्लो आसतालो.

भाणाचें पोट वयर येयसर तेणें ते कवंजेंत घुंडायत बसूनच पेटलें. मागीर मात तो उबो रावलो. बागवोन बागवोन पेटूंक लागलो. एका हातांत पेटणें आनी दुसऱ्या

हातांत पेटण्या फातर, तेतूंन आनी उदका नीसर घेवंक बागवचें पडटालें. बसून बसून आदींच कुंबरालो कमरेकांटो मोव जाल्लो आसतालो. तेतूंत बागवोन काम करप मरण आसतालें. भाण वयर येतां येतां हड्ड्यासरीं पावलें.

शिवरामान भाण रचलें. हें पुरूसभर उंच कच्चें भाण. सोबीत रुंद वाटकुळो गळो. पोट चोंयवटेन ज्युस्ताज्युस्त सुटिल्लें - रथावयली घुमटी काय देवळावयलो कळस! शिवरामान जीव ओतिल्लो. अखंड देड दीस तो भाण पेट्टालो.

तेणें तें तीन दीस मोव वोतांत सुखयलें आनी चौथ्या दिसाक भाजूंक हाव्याक घातलें. हाव्याच्या तोंडांत तीन चार वेळा ल्हव ल्हव कोळशे सारून आदीं हावो गरम करून घेतलो आनी मागीर भितरल्या तणाक, जिगांक उजो दिलो. चिंवळ्यांतल्यान, कानोळ्यांतल्यान धूर वयर सरूंक लागलो.

पूण कितें जालें, खंय चुकलें, भाण गरम जाता तसो भितरल्यान तडे गेल्ले तट्तडक् आवाज येवंक लागलो, उज्यार जशे मक्याचे लाये फुटून फुलतात. शिवरामाक मोटें अजाप. अशें कशें काय हें देवा! खंय कितें चुकलें? ताचेर भिरांतेन कलकल येयलो. तेणें उले घालून गोपाळाक, शंकराक, विश्रामाक आफयले. धर्मूय थंय पाविल्लो. सगळो कुंबारवाडो थंय एकठांय जाल्लो आनी अदमास घेतालो. हाव्याच्या मुखाकडच्यान बरोच उजो भायर सरतालो. तेचो धग थंय जमिल्ल्यांच्या तोंडार रगशेल्लेवरी पातळिल्लो. धर्मूल्या चेहऱ्यार इल्लो चडच थापिल्लेवरी जाल्लो. वयलो आमले रूख मात आपली काळी सावळी घेवन काळखार पुराय व्यापून आसलो. भाण भितरल्यान शेंमळ वाजयल्लेवरी वाजतालें.

यशवंतान विचारलें, "शिवरामा, माती नीट भरशिल्ली, चाळिल्ली, कुसयल्ली मुरे?"

"माठ आनी खर नीट अर्दीअर्दी भरसून कालयल्ली, लोणी कशी जाल्ली माती, पेट्टाना धांवताली पेटण्यार."

गोपाळान म्हटलें, "हावो म्हण्टा तो यज्ञकार्य केल्लेवरी. कितेंय भश्टपण जाल्यार हाव्याचीं कयलां जावन वयतात खंय."

शिवरामान बेठेंच 'चे, चे' म्हटलें. "मगेल्या हाव्यांत केन्ना एक मडकी

फुटली ना.''

हाव्यांत भाणाचो तडे गेल्लो तड्तड् आवाज येतच आसलो. घनशामान म्हटलें, ''फाटीं एक फावट सैरू हावो घालताना हावो गरम करून घेवचे पयलींच चुकून हाव्यांतल्या जिगांन, तणान उजो घेतलो. मागीर पळयल्यार हावोभर तीन जाबळे मडक्यो कयलां जावन पडिल्लीं. सैरू मरता म्हणसर याद काडून सांगत रावतालो.''

शेवटाक हाव्यार मातयेन सारोवन घातिल्ल्या तणा कवळान उजो घेतलो आनी भाण उकतें जालें. पळयल्यार पुराय भाणार चिपयेयेदे तडे गेल्ले. गळोय फुटिल्लो. ताचेन तें भारी विद्रूप दिसतालें. पळोवन शिवराम रडलो. ताणें म्हटलें, ''तेंका पंदरा दिसांत भाण दितां म्हणिल्लें हांवें. गेल्ले आठ णव दीस तेंच घेवन बशिल्लों. उतराक फटिंग जातलों रे देवा हांव!''

ल्हव ल्हव लोक फासपले. वयताना शंकर म्हणटालो, ''कलीयुग हें. तुकाराम महाराजान आदींच म्हणून दवरलां, कलीयुगांत मातयेंतल्या गांयडोळाचे फाटीक दात फुट्टले, ना तर हाव्या भितर हातोडो घेवन हो कोण बसतासलो?''

सीताय येदोळसान थंयच उबी आसली. तिणें म्हटलें, ''मनशांच चुकतात आनी मागीर देवाचेर दैवाचेर घालतात. रडटा कित्याक? दादलो तूं. परतें भाण पेट.''

धर्मू केन्नासान थंयच आसलो. कुछित्रपणान हांसतसो, सगळें पळयतालो. ताणें म्हटलें, ''गेलें तें गेलें. हाताकच बळ ना, जय ना म्हण समजून आतां सोडून दिवचें. अवचिन्नपण हें तुमचें. फाल्यां आमी आनी ह्या हावठणार मडकी चडोवची म्हण आसा?''

शिवरामान ताचेसरीं एक फावट रागान पळयलें. पूण तो फेंगडे पांय घालीत बावळे मोडिल्लो कोलो कसो चलूंक लागिल्लो.

दुसऱ्या दिसा शिवराम जोशागेर वचून तांदूळ मंत्रावन घेवन येयलो. जोशान सांगिल्ले परमाणें ते थोडे तेणे घरांत, घरावयर फासपून उडयले. उरिल्ले हावठणा भोंवतणीं वारयले.

आतां मेज्जून सात दीस उरिल्ले. तेणें दुसरें भाण करूंक घेतलें. माती नव्यान

बडयली, चाळ्ळी, कालयली. मनांत म्हटलें, हांव उतर राखतलों, उतराक फटिंग जावचों ना.

माती बरी भरसून सदचे परमाणें पावळेंत भायर व्हड मडकेंत कुसोवंक घातिल्ली. मदीं एक दीस. दुसऱ्या दिसा सकाळीं मातयेचो वास अदमास घेवंक म्हण गेल्यार थंय मडकेसरीं मीठ पडलां. एक धवो पिवळोसो मिठा खडो सामक्को मडकेसरीं. मातये वयर धंवसो उदका थरय मांडिल्लो. शिवरामान तो चाखून पळयल्यार काटूकखार.

ताका कळ्ळें तें धर्मूलेंच काम म्हण. ताणें बेगीबेगीन उले मारून कोणाकोणाक आफोवन हाडून तें दाखयलें. सीतायकय व्हडाव्हडान उले दिवन आफोवन हाडली. ''हें पळयात मीठ. मातयेंत तर खारसाण भल्ल्या. पयल्या भाणा मातयेकय हें अशेंच केल्लें तेणें.''

शिवराम आतां ताका बुरशो बुरशो गाळी संवत ताच्या घरासरीं गेलो. फाटल्यान आनीक जायते जाण आसले. पूण तो घरांत नासलो. बायलेन सांगलें, ''खंय गेला तें खबर ना. आज येयतसोय दिसना.''

पूण थंय आशिल्ल्या एका धा-बारा वर्सांच्या भुरग्यान सांगलें, ''तेवटेन आवाज जातकीर आत्तांच तो तांबयो घेवन व्हाळावटेन गेला.'' मागीर धांवत धांवत घराफाटल्यान वचून ताणें दाखयलो, ''तो पळय, धांवत वयता.''

लोकांनी पळयलें, हातांत तांबयो घेवन तो धोलत धोलत धांवतालो. व्हाळाबांदावयले सुरीचे, आंब्याचे रूख, उकतीं शेतां, मदीं वोताचो चकचक. त्या वोतार तो एक लांब काळें खत कसो दिसतालो. तरीय पयसुल्ल्यानच शिवरामान ताका गाळी सवल्यो. सीतायन म्हटलें, ''नश्टो पातकी मनीस तो. आवयबापायक अन्नाक वळवळावन माल्ले. एक आज्जी आसा ती गांवार भीक मागता. ही बायल तेगेली देवकी मेणकुल्ली. एक सोणकुटार पडल्यार हेवाळें कशें भुंयेर पडून वळवळत रडटा. एक फावट पेटणें घालूंक जाय आसलें तेचे कमरेर.''

धर्मूलो व्हडलो चेडो प्रेमानंद सोळा वर्सांचो आसलो. तो थंयच रामफळी रुखाक तेंकून उबो आसलो. ताचे दोळे भिजिल्लेशे जाल्ले आनी चेहरो तांबडो जाल्लो. तो फुगार जाल्लेवरी श्वास घेतालो. ताका राग येयला काय तो लजेन

मेला तें कांयच कळनासलें.

रातचो खूब उसरां धर्मू वाड्यार येयलो. सोऱ्याचे घुंवळेंत तर्र आसलो. एक पावल सारकें पडनासलें. घुंवळेंतच लुबडें उलयतालो. "...भाणच गेलें मुरे फुटून... बायल गेली ना मुरे पळोन... शंबर लाखांची लाटरी लागतली म्हाका...कुळवाड्यांलीं सगळीं शेतां विकतीं घेतलों... तळ्यार बांद घालून शिंपतलों... मागीर तुमकां कुंबरांक खुंटो... मातीय ना आनी मडकीय ना... म्हज्या पांयांर लोटांगण..."

तेगेलो आवाज आयकोन शिवराम दार काडून भायर येवंक सोदतालो पूण बायलेन तेका थोपोवन धरलो. म्हटलें, "बेबद्या सामकार वचप म्हटल्यार बिरमतेक आधार. आपूण जावन मेल्यारय बोट खोमिल्लें म्हणटले."

आतां शिवरामासरीं पाच दीस आसले. पाळोळेकारांक दिल्लें उतर मोडटलें म्हण तो सकल वयर जातालो. आतां तेणें गोपाळाक आनी यशवंताक आपणाक आधार करूंक उलो घातलो.

तिगांनीय माती कालोवन कुसोवन नव्यान भाण पेटलें. तें सुकोवन हाव्यांत भाजूंक घातलें.

पाळोळेकार रस्त्यार पिकअप थारोवन शेतांतल्यान चलून येताले तेन्नाच हाव्यांत भाणावयल्या तणा कवळान उजो घेतिल्लो. कवळ पेटलें आनी कांय खिणांतच भाण मेकळें जालें. यशवंतान गळो धरून तें ल्हवच कुशीन काडलें. हाव्यांतलो उजो अजूनय धुंवरेतच आसलो. भाण मात हाव्या भायर थंड जावंक लागिल्लें. पोटान ज्युस्त फुगिल्लें तांबशें केशर थापिल्लेंशें सणसणीत घट भाण. पळोवन शिवरामालें काळीज खोशयेन भरून येयलें.

गोपाळ भाणार बोटां पेरां सण्सण् करून मारून पाळोळेकारांक सांगतालो, "मातये भाण म्हणूं नाकात. तांब्याचें तामण तें. वीस वर्सां हालचें ना..."

**स**काळीं वोत चडच्याक राघोबा बायल अपरुपें तांबडें कापडे न्हेसून खंयतरी वचूंक सुटिल्लें. तांबड्या कापडाचो सोगो पावलांमेरेन सोडिल्लो. आंगार तांबडो पोलको घातिल्लो आनी माथ्याक तांबडें दसणीफूल खोवयल्लें.

कपलाक रुपयायेदो कुकूम - तांबडो भडक. तें गोरें नासलें पूण तांबशें सावळें आसलें. सकाळच्या चडट्या रुपया वोतांत तें वोत माड्डीत चलता अशें दिसतालें. सीताय आंगणांत बसून कुडतेन मातये दिपळे फोडटाली. तिणें विचारलें, 'अपरुप्या, खंय गो? बरें सोबलां मुगो, देवी कशी दिसता.''

''वचून देवती आवयली होट भरून येतां. दर बुधवारा सात व्हटयो भरतलें म्हण सांगणें घालून मागलां... तांबडें न्हेसूनच व्होट भरूंक जाय खंय.''

''वच वच. देवते म्हन्यान बरें सोबतलें तूं. आयकतली तुजें ती.''

सीतायक कळ्ळें, हें कोणें तरी नवें पिशें हाचे फाटीक लायलां. तिका काकुळटशी दिसली. गेल्लीं स वर्सां भुरग्याक वळवळटा तें. तें वोतांतल्यान वयताना तेका फाटल्यान बारीक पळयलें. पयलीं थुलथुलीत थाली कशें आशिल्लें तें आतां बरेंच भागलां. तांबड्या कापडान जशें तेका मुठींत घेतलां. पयलीं तकलेर मडक्या जाबळो घेवन विकरेक वयताना तें जाबळ्यासयत हुडून वयता अशें दिसतालें. आतां पावलांक तो नेट ना.

अपरुप्यालो घोव राघोबा तकलेर कच्च्या मडक्यांचें पिणगें घेवन बायले फाटल्यानच येयल्लो. तो त्यो मडक्यो वाड्याकडेर सुखोवंक घालतालो. सीताय मनांत चिंतताली, राघोबान आयजवेर चाकार कितले गळे रेखले, ते सरी करूंक कितल्यो मडक्यो पेटल्यो, त्यो हाव्यांत दाळून भाजल्यो, पूण पापयाच्यान स वर्सांत बायलेच्या पोटांत एक गर्भ रचोवंक जालो ना. अपरुपें भुरग्याखातीर वथरेता, तळमळटा, कोणेंय सांगिल्ले उपचार करता. देवाल्या, देवील्या पांयार घालून घेता. दरवर्साक ह्या आमले रुखाक खोटल्यांनी आंबले घोंस धरतात तेन्ना काळोख पडटकीर अपरुपें ल्हवच रुखामुळांत येता, पदर सकल उडोवन पोलक्या बटणां काडून हड्डें फाट आंबले रुखाक घांसून घेता. तेगेली फाट, हड्डें रगशेवन सुजून वयता...

सकाळीं गेल्लें अपरुपें दनपार उसरांमेरेन परतूंक नासलें. राघोबा येवन वाड्याकडेर उबो आसलो. तेणें व्हडान म्हटलें, ''सीताय आवो. येयलें ना मुगे तें. व्होट भरून देवतेकडेन झगडूंक बसलां काय कितें गे?''

सीतायन पावलेंतल्यान तकली भायर काडून म्हटलें, ''देवीकडसान भुरगें घेवनच येता चय तें. तुका आनी खास्तीग नाका.''

“सीताय आवो, पिशें लागलां तेका. भुरगीं आनी बिरगीं... हीं चय कुंबारालीं भुरगीं धुल्लांत लोळटात. पोटाचे कचके चयल्यात तुवें? हागूंक बसल्यार कुडवभर जंत हागतात.”

सीतायल्या आंगणा भायर कांय ल्हान भुरगीं खेळटालीं. तांच्यो आवयो माथ्यार मडक्यांचे पिणगे, जाबळो घेवन विकरेक वयतात तेन्ना भुरगीं वाड्याकडेर येवन हुयेल्यांनी रडटात. मागीर थंयच धुल्लांत लोळत रावतात. उसरां मागीर तांचे बापूय बीन हातांत बडी घेवन येवन तांकां हामडून पेज दिवंक व्हरतात.

वोत देंवच्याक अपरुपें येयलें. भुकेन, तानेन तेगेल्या गळ्यांतल्यान हूं हूं सो आवाज येतालो. कुळवाड्यांनी कसून घातिल्ल्या शेतांतल्यान चलून येतना तेगेलें कापड धुळीन भरिल्लें. केंस फासपल्ले आनी तातुंतल्यान कपलार मस्तकार हूम देंवताली. कोणें तरी थापट मारून धाडिल्लेवरी ताचें तोंड पडिल्लें. सकाळीं वयतानाची उमेद आतां नासली. घोवान विचारलें, “इतलो वेळ खंय आशिल्लें गो तूं? मरतलें तूं अशान.”

“बसलें देवीआवयल्या पांयांसरीं. म्हटलें, आतां फळ दिलें ना तर आंगार उजोच रखोवन घेतलें हांव तुज्या नांवान.”

“पिशें हें तुगेलें. बीं धड आसल्यार पयल्या पावसांतच किल्लता. देवय नाका आनी पाकळीय नाका. मुळारच तळप आसल्यार कोण कितें करतलो? देवाक नाका जाल्लीं मनशां आमी, देवाकडेन कित्याक वयचें? सीताय आवो, आयकना गे म्हाका तें, तूंच कितें सांग.”

सीतायन ल्हव ओटांतच म्हटलें, “मंत्रान भुरगीं जातात जाल्यार भटा बायलेक भट कित्याक जाय?”

दनपार देंवंक लागिल्ली. मळबावेली निळीसाण वचून तें करपल्लेवरी काळेंशें दिसतालें. गरमेचो हुलातापय चड मारतालो. अपरुपें गेलें आनी रुखापोनांत सावळेंत बसलें. जीव वचून पडिल्लेवरी.

सीतायन तेवटेन नदर माल्ली. येद्दो व्हडलो हो रूख गांवार पसरला, दाट थंड सावळी दिता, दर वर्सा आंब्यांनी भरता. पूण हे जिवे सावळेंत राघोबान आनी तेगेले बायलेन अशें वांजपणांत तळमळप तिका कशेंशेंच दिसलें. तिणें मनांत म्हटलें, देवा, एक आंबल तांच्या देठाकय धरूं दी! तेन्ना सीतायन पळयलें,

कुळवाडी शांबा हातांत शेऽण घेवन मुखावयले मेरेवयल्यान चलत वाड्यार येता. तिणें मनांत म्हटलें, हेका शेतांत व्हरूंक उजो जाय दिसता... विडये खोजने ओडत आसतात दीसभर...

तो हातांत शेऽण घेवन गेलो आनी हावठणार सकाळीं घनशामान हावो उपशिल्लो इल्लो उजो आशिल्लो तेचेर तेणे शेऽण पेटयली. ती फू फू करून फुंकत तो सीतायक सांगूंक लागलो, पूण तें सांगप सगळ्या वाड्याकच आसलें. आवाजय उंच उमेदीचो आसलो. ''काल कारवारा भर सभेंत आमदारान सांगलां, आतां तळ्यार रोखडोच बांद बांदतले खंय. आतां उदकाक मर ना. भूंय पोनांतल्यानय जळ व्हांवतलें. बांयो वर्सभर भरिल्ल्यो. हो शेताकेर चयात सदांच पांचवो.''

''पूण आमची माती बुडटली न्ही गा?'' लागींच उबो राविल्ल्या गोपाळान म्हटलें.

''कांय एक भियेनाकात. शेतां आसात. शेतांच तारतलीं सगळ्यांक.''

''शेतां तुमचीं. आमचीं खंय गा?''

''आमची न्ही. कश्टा करता, घोळटा तेंचीं शेतां. तीन पिको. वर्सभर काम.'' शांबा वचूंक गेलो.

आतां तीगचवग कुंबार आपशींच एकठांय येवन लागींलागीं उबे रावले. ''शेतां कश्ट करतल्यांचीं खंय. शतकंजुशी हे कुळवाडी, शेतामेरेसरीं आपसांत इंचभर शेताखातीर हाणामारी झगडीं करून घेतात आनी शेतां आमकां सोडटले!''

''तळें बुडल्यार कुंबार आपशींच तेंच्या शेतांनी घोळूंक मेळटले म्हण भुल्लुसल्यात ते. नडूंक, नाटूंक, लुवंक आमगेल्यो बायलो गेल्यार कमरे कांटो तुटसर काम करून घेतात. वयल्यान धेंगशे घालतात.''

''हय तर. खळार भायर उजो घालून उडोवचो तणा कुंटारो हाव्याक म्हण मागूंक गेल्यार मडकी दी म्हण बसतले. ही वाड्याची सुवात आमगेल्या पुर्वजांनी तुमकां रावंक दिल्ली म्हण बेठेच परतेपरते सांगतात.''

''तेंचें कितें आसा, तळ्यार बांद सरकार बांदता न्ही. आमी आमच्या आमदाराक सांगूंक जाय.''

‘‘तो फक्कत मतांचोच धनी. मतां मागूंक येतना बरो कोंकणी उलयता. कारवारांत मात कन्नड, कोंकणी कळना जाल्लेवरी. तेचें कन्नड थंय कळटा कोणाक? दोन तोंडां तेका. खंयचेंच तोंड खरें न्ही.’’

‘‘आमी कोणाक तरी बऱ्या मनशाक घेवन वचूंक जाय.’’

‘‘बरो कोण? खंयच्च्या तरी कोंकण्या कुळवाड्याकच घेवन वयचें मुरे? तो हिंगा एक उलयतलो थंय एक उलयतलो. तेंकां कोणाक बांद जाल्लो नाका? आमकां कुंबरांक आवयय ना बापूयय ना.

ते तिनसांजची परत एक फावट काळखांतल्यान देंवन येयल्ली कशी किण्ण निर्शेणी वाड्यार पातळ्ळी. दादले तीच गांठीक घेवन आपापल्या घरांनी गेले.

सीताय जाणा, हे कुंबरांले दादले बायलां परसय मोव मनाचे. इल्लें खंय खट् जालें की सोताक आपणा भितर ओडून घेतांत. वोग्गी मोने, फक्कत दोळे भिजिल्ले दिसतात. तिणें आंगणांत उबी रावन व्हडान म्हटलें, ‘‘वाग अजून रानांतच आसा. आतांच तुमच्या दोळ्यांमुखार दावखुलां नाचूंक लागल्यांत. सोडात, येता तेन्ना गोमटी दिवची ना तर गोमटी मारची. वनातल्या वागापरस मनातलोच वाग आदी खाता.’’

रामचंद्रान मडक्यां जाबळो बायलेले तकलेर उखलून दिलो. बायल आनंदी तकलेवेली चुंबळ खेळयत मात्शी फाटींफुडें जाली. मागीर तो येद्दो व्हडलो जाबळो नीट तकलेर येयलो. गोरी, मोटवी आनंदी आनी तकलेर दोंगर कसो व्हडलो जाबळो. पूण ती नेटान पावलां मारताली. तेन्नाच तेवटेसान शंकरा बायल देवकीय येयली. दोगीय मेळूनच विकरेक सुटिल्लीं. ती वाड्याकडेर पावलात तेन्ना कुळवाडी पुंडलीकालो चेडो किशोर कुशीचे वाटेन वयतानाच रावन व्हडान कुंबरांक सांगतालो, ‘‘काल रातचो राजीव गांधीक बांब घालून माल्लो. म्हादेवाल्या टीवीर दाखयल्लें सकाळीं.’’

सीतायन आंगणामेरेसरीं येत विचारलें, ‘‘इंदिरा गांधीलो पूत मुरे तो?’’

‘‘हय, हय’’ म्हणत किशोर चलूंक लागलो. ‘‘कोण रे ते पापिस्ट दुस्मान.

कसलें हें कर्तुब'' म्हण चुरचुरत सीताय घरांत येयली. पूण कुंबरांक हे खबरेचें पडून वचूंक नासलें. चाकार चालां काडत, मडक्यो पेटत आनी माती बडयत ते वावरांत गुल्ल आशिल्ले...

आनंदी आनी देवकी दोगांय मेळून विकरेक सुटिल्लीं. शेतांतल्यान चलून वयताना पयसुल्ल्यान फक्कत तांचे तकलेवयले जाबळेच दिसताले. वोताक निकतीच हुनसाण मारूंक लागिल्ली. वोत चडचे पयलीं खंयच्यातरी गांवाचे सावळेंत घालून घेवंक जाय आसलें. दनपारची पेज वा शीत खंयूय पडूंक येतालें. कुंबान्नीक लोक गांवागांवांनी नांवांनी वळखताले. गेल्ले फावट हळग्या एके बायलेन आनंदीक म्हटलें, ''कितें गो आनंदी, कितलो तेंप हेवटेन नाच् मुगो. गुरवारबीन आशिल्लें कितें गो?''

आनंदी मात्शें लजेलें. ''चे, चे, आशिल्ल्यांचीच पंगत पडटा. आनीक आनी कित्याक... गांवांनी भोंवलें म्हण पयलींवरी विकरी ना गे आतां. चकचक जाय लोकांक.''

अजूनय कुंबान्न आंगणांत जाबळो देंवोवन एक खुळणें नातर बुडकुलो काडून खंयच्याय बऱ्या मनशाल्या दारांत दवरता. चार खबऱ्यो करून जेवनय मुखार वयता.

ह्या गांवच्या कुळवाड्यागेलें एक चेडूं गोपशिट्यार दिल्लें. कोणय कुंबान्न वाड्याकुशीनच्यान मडक्या जाबळो घेवन वयताना दिसली म्हणटकीर त्या चेडवाली आवय अंबीक धांवनधांवन येताली आनी विचारताली, ''आगो, तूं आज गोपशिट्यार पावतलें? गेल्यार आमगेल्या जायुली खबर घेवन यो. हेवटेन सगळीं बरीं आसात म्हण सांग.''

आजय ती तांकां जाबळे घेवन वयताना पळोवन तशीच धांवत येयली. ''गोपशिट्यार पावतली गो?''

आनंदीन 'हय, पावतलें' म्हणटकीर तिणें आकुळपिकूळ जावन आपले धुवेची खबर घेवन येयात म्हण सांगलें. ''शाळेक रजा पडटकीर भावाक धाडटां म्हण सांग.''

‘‘बरें गे.’’

‘‘भुरग्याक सांबाळ म्हण सांग बरें करून.’’

‘‘हां गे.’’

खरें तर ह्या गांवची कुंबान्न गोपशिटचार पावलार जायुल्या दारांत पांय दियनासतना येनासली. जायुल्या घरा भोंवतणीं इतलो थंड शेळाव आसलो, थंयचीं झाडांझोपां तुश्ट पांचवींचार. कवाथे तर पेंडीच्या भारान बागवल्ले. बांयक तर उदक हातानच काडचें इतलें वयर. जायू तर कुळारचे वटेनचो कोणय दिसल्यार सामकें वेंगेंत घेयल्लेवरी करतालें. तेगेल्या घराच्या तेण्यार पांच मिनिटां बसल्यारय न्हिदेची लकण येताली.

आनंदी आनी देवकी जाबळो घेवन सरसरीत चलतालीं. चलताना कमरे काटचार वजन येतालें, फाटीकणोय दुखूंक लागतालो. केंसांतल्यान, मस्तकावयल्यान हूम देंवन हड्ड्यांत सकल सरताली. ती खर्शेणी, दूख विसरूंक तीं खबरो करीत चलतालीं.

देवकी सांगताली, ‘‘लग्न जाल्लें तेन्ना मुगो हांव आनी मगेली मांय बराबरच विकरेक वयतालीं. लोक तकलेर मडक्यो पळोवन आफोवन व्हरून मडक्यो घेताले. वेळ माथ्यावेल्यान देंवच्याक दोन जाबळे मडक्यो खपोवन आमी घरा पावलांत. भात तांदूळ कितें दिता तें घेतालीं आमी. परत येतना तकलेर भाताच्यो, तांदळाच्यो पोटल्यो.’’

‘‘आतां दोन खंयचे, अर्द जाबळो खपूंक मारामार. कोणाक जाय हे मातयेचे कट्टे? पोट आसा म्हण कुंबरांनी पेटचे ते. कुंबरां सारकी कर्मकट्टी जात दुसरी ना गो बाये. आमच्या दादल्यांनी आतां गांवां भायर सरून हेर वावर करूंक जाय.’’

‘‘ते आतां हेर कितें करतले? मातये गुळे जाल्यात ते. पेटण्या बगर कितें हातांत धरूंक कळ्यार मुगो? कुळवाड्यांगेर शेता कामांक बायलांक धाडटले, आपूण माती कालयत बसतले.’’

‘‘चलताना फाटींतल्यान वाय चडटा गो मानेमेरेन. तकलेवयलो जाबळो सकल उडोवन दिवचो अशें दिसता.’’

‘‘चल तूं सरसरीत पावलां मार. वोत चडूंक लागलां. सांजचे काळोख

पडचे पयलीं घरा पावंक जाय. मांय आसतना एक फावट कितें जालें जाणा, न्हंयची तार काडून वयल्या गांवांत विकरेक गेल्ली, परत येतना अनसोटी पावता म्हणसर काळोख जालो. मागीर रातची थंय एकल्याले पडवेंत न्हिदली. मगेलें तेन्ना निकतेंच लग्न जाल्लें. एक मिशाळ दादलो सारक्को भायर भितर करतालो. मांय भियेवन गेली. ती म्हाका ओडून सारक्की खाक्यांत घेवन न्हिदली रातभर.''

दोन अडेच वरां चलून ती हणकोण गांवांत पावली. थंय एकल्याक 'बाबा धर रे मात्शें' म्हण सांगून जाबळे देंवोवन सकल दवल्ले आनी तीं थंय कांय वेळ बसलीं. वोतांत, पावसांत झळझळावन काडिल्ल्यो कशो, भागिल्ल्यो बरगल्ल्यो दोगी बायलो, पस्तीशींतल्यो. आनंदी इल्ली गोरी, दिसूंक जुवान, तर देवकी काळीसावळी. तांच्या आंगार धड मांस नाशिल्लें तर फक्कत पांय धरून मानेमेरेन एक उबो घट हाडां कांटो... ह्या बायलांनी हे जाबळे चार गांवा भायल्यान व्हावन हाडल्यात हें खरेंच दिसचें नासलें.

देवकेन म्हटलें, ''दोगांय एकाच गांवांत वचून कितें करतलीं? दोन जाबळे खपचे नात. पयलीं एकाच गांवांत एकली एकवटेन वयताली, दुसरी दुसरेवटेन. येताना रिते जाबळे घेवन येतालीं. आतां एका गांवांत अर्दो जाबळो मडकी खपची मारामार.''

- ''हांव मुखार गोपशिट्यार वयतां. जायूगेरय पावतलें. तूं सांजचें येवन म्हादेवाल्या चायेदुकाना मुखार बस. राव म्हाका कळाव जाल्यार.'' आनंदीन म्हटलें.

एकल्या वाटसुऱ्याक सांगून तांणी दोगांनीय परते जाबळे तकलेर घेतले. तीं दोगांय वांगडा चलून इल्लींच मुखार गेल्यांत, थंय रस्त्यासकल शेतांतल्या एका घरांतल्यान व्हडाव्हडान घरच्या लोकांचें रडप आयकोंक येयलें. देवकेन कोणाक तरी विचारल्यार ताणें सांगलें, ''केशवालो बापूय आतांच गेलो. गेल्लीं दोन वर्सां हांथरुणारच आशिल्लो.''

आनंदीक सट्ट जालें. ''देवकी आका, तूं वयताच मुगे गांवांत. त्या घरावटेसान बेठीच वच. जाय जातल्यो तेंकां दोन मडक्यो.''

''ना गो बाये, हांव वयचें ना. बरें दिसना म्हाका.''

देवकी आपले वाटेन सकल गांवांत देंवली तर आनंदी मुखाल्ल्या गांवाक वचूंक सुटली. हे गांव रानां, शेतां आनी वाडे अशे सरमिसळ आसले. केन्ना शेतां सोंपून रान लागता आनी केन्ना घरां दिसूंक लागतात कळनासलें. दोंगर दोंगुल्ल्यांतल्यान कसले कसले आवाज घुंवताले आनी गांवय दिसना जातालो तेन्ना बेठीच मनाक भिरांतेची हुरहुरशी लागताली. मुखार एका वराची तरी वाट गोपशिट्यार पावंक. आनंदी खर्शेणी कुडींतच जिरयत धांवतीं पावलां मारताली.

हांगा देवकी गांवांत देंवन एका वाड्यावटेन वयताली तेन्ना एकलो दादलो धांवनसो येयलो. ‘‘दोन मडक्यो दी तुगेल्यो. आतां आनी हाडूंक खंय वयतले? पयस भगतवाड्यार वयचें पडटा.’’

‘‘कित्याक मरणाक मसणवटीर व्हरूंक जाय गा?’’

‘‘हय हय. कोणें सांगलें म्हाका कुंबान्न गांवांतच येयला म्हण.’’

‘‘अजून जाबळो सोडयलोय ना. पयलींच मरणाक मडकी दिवं? गांवचो लोक कितें म्हणटलो? गांवांतच खपूंक जाय न्ही त्यो?’’

‘‘तें कांय ना. कांय जावंचें ना...’’ ताणें जाबळ्याकच हात घातलो.

देवकेन जाबळो देंवयलो आनी मनाभायर दोन मडक्यो काडून दिल्यो. त्या दादल्यान बेगीबेगीन विसांच्यो दोन तांबड्यो नोटी काडून दिल्यो आनी जाबळो तिगेले तकलेर चडयलो. वयताना तो दादलो म्हणटालो, ‘‘कांय ना तें. कोणाक सांगूं नाका तूं. मरणां खंय नात, कोणाक येयनात?’’

देवकेक मनांत एक दूख आशिल्लीच, पूण त्यो तांबड्यो नोटी पळोवन ती सुखाविल्लीय.

थंय आनंदीन हणकोण गांव काडलो आनी एक अटंगें रानच आडवें येयलें. संवकळिचेंच रान पूण भिरांत मात सदची सारकीच आसली. तें रान पार करून रानांतच खूब पर्सारिल्लो एक गांव आसा ही चिंतनाय सुखदिणी आसली. रानांतल्या रस्त्यार पांय दवरसर ती एकलीच आसली. पूण बरोच मुखार एक जाण्टोसो दादलो चलतालो. तेणें खूब पयसुल्ल्यान फाटीं वळोन पळयलें आनी तो थाल्लो. आनंदी म्हऱ्यांत पावसर उबो रावलो. तेणें आंगार हाताचें म्हेळशें बनयान घातिल्लें आनी कमरेर कास्टी लायिल्ली. तेचें शेवट धोपरामेरेन सोडिल्लें. खांदार कांबळ आसली.

''माजाळेची कुंबान्न मुगो तूं, खंयच्यान खंय पावतात गो तुमी हे मडक्या जाबळे घेवन? तुमचे दादले बशिल्लेकडेन फक्कत पेट्टात. वोजीं मात तुमचे तकलेर. बऱ्यो हां मडक्यो तुमच्या गांवच्यो. आमच्या गांवांत चड तुमच्योच मडक्यो.'' तो इतल्या व्हडान उलयतालो, रानांत गोरवांच्या गळ्यांत गडगडी वाजिल्लेवरी दिसतालें.

''मामा, खंयचो तूं? खंयसान येता? सांगातच सोदतालें हांव.''

''हांव गोपशिट्यासान अशे भितर मायंगिणीचों. हणकोणच्या बाळाजी नायकान गोठ्या पांखे देंवयला. तेका ते नव्यान ताठोवंक सापडवाल जाय आसली. एक व्हडलें वजें सापडवाल पावोवन येयलां. तुमकां कुंबरांक खबर नासतलें सापडवाल म्हण्टात तें कितें म्हण. अशी बारीक मेकळी वाल रुखांनी चडटा. इतली घट, हती बांदून दवरल्यार तुटची ना. घराचे, गोठ्याचे पांखे सापडवाली पासान ताठयल्यार शंबर वर्सां हालचे ना. मायंगिणीच्या रानांत खूब ती.''

तो एकलोच व्हडाव्हडान उलयतालो. आनंदी फक्कत 'हय मामा, अशें मामा' म्हणत चलतालें. ताच्या त्या घणघणीत सांगातांत ती मडक्या वोज्याचो जड भार विसरून गेल्ली. गोपशिट्यार पावंक तो एके रानांतले वाटेर घुंवलो. वयताना तेणें म्हटलें, ''चल तूं, चल. कांय भिवं नाका. गवळ्यांलो गांव हो. राखणे हे.''

गांवांत पावंक आतां धा मिनटांचीच वाट आसली. रस्त्यार तर जितो जीव नासलो.. आनंदीक तशी भिरांत दिसनासली. पूण त्या एकसुरेपणांत बेठोच आंगार शेळाव येयल्लेवरी जातालो. तिका तेन्ना बेठीच गुणायली याद येयली, गांवांत तिचेविशीं खूब सांगतात...

...फाऽटीं केन्ना कुंबारवाड्यार गुणाय म्हण एक स्वरूप सुंदर अस्तुरी आसली. तिचें कुळार नेतुर्ले. बापायन तिका णव वर्सां पिरायेर लग्न करून खांदार मारून हाडून घोवाघरा पावयल्ली. आदींच ती गोरी आसली. जुवान जाता तशी भारीच स्वरूप सुंदर दिसूंक लागली. कुंबारवाड्यार देवपरी भोंवता अशी दिसूंक लागली. लागींच्या सुबदळ्ळी गांवांत दिवजां जत्रा आसली. एक दीस घोवान पिणग्यात पिणगेभर दिवजां भल्लीं आनी म्हटलें, ''व्हरून सुबदळ्ळीच्या

घराघरांनी बायलांक दी. पिणग्यांत उडयतात ते तांदूळ, नाल्ल, पयसो बरें म्हण मानून घेवन यो.''

गुणाय सुबदळ्ळी गांवच्या सीमेभितर रिगतकीर दोग धडंग दादले हातांत कोयत्यो घेवन तिचे वाटेर उबे रावले. तेणी तिका झाडां-झिलींनी ओडून व्हयली. तकलेवेले दिवजां पिणगे बळयां देंवोवन तिचे कुडीर बळजबरी केली. गुणाय रडली, आड्डली, मागीर रागान पेटली. तिणें तशेंच तें दिवजां पिणगें हाडून एक्कान एक दिवज गांवच्या म्हासती मळावयल्या सतीच्या फातरार मारून फोडलें. सतीच्या पांयांसरीं कयलांची रास पडली.

मागीर ती देवळामळार वचून उबी रावली आनी तिणें गांवावटेन हात हेळोवन स्राप दिलो, 'ह्या गांवाचें केन्ना बरें जावचें ना. निसंतान जातलें गांवाचें.'

ती मागीर पिनिल्ल्या वस्त्रांनीच घरा येयली. तिणें आपले मांयक विचारलें, ''आवो, मास रांदून भश्टल्ली मडकी कशी शुद्ध जावची?''

''ती उज्यांत लासून काडल्यारच शुद्ध जावचेली सूनबाय.''

तेच रातीक गुणायन आंगार उजो घालून घेवन जीव दिलो.

अशें सांगतात, ते उपरांत तो गांव देवळासयत ल्हवल्हव कोसळत गेलो, मातयेक लागलो. आज तेचें नांवनिशाण लेगीत ना.

तेंच निमाणें. ताचे उपरांत कोणें केन्ना कुंबान्नीविशीं वांकडें उलयलें ना, वांकडी नदर केली ना. कुंबान्नी भयभिरांत विरयत गांवांनी भोंवतात... गुणायलें नांव घेत.

आनंदी चिंतनांतच चिंचेवाड्यार येवन पाविल्ली. आपणाक कोणय उलो दीत काय पळयत आकाड्या भायर उबी आसली. पूण येद्दो व्हडलो मडक्यां जाबळो पळोवनय कोणाचो उलो येयनासलो. वाड्यार वोळखीचीं घरां आसलीं, पूण कोणाल्याय दारांत वचून मडकी आंगाक लावची तिका बरें दिसनासलें. तरीय तिणें 'मडक्यो गेऽ' म्हण आवाज दिलो.

एक वोळखीची बायल भायर येयली आनी ताका आपल्या आंगणांत आफोवन हाडून जाबळो देंवयलो. ''वोत कितलें चडलां चय, घामेन बुडलां मुगो तूं'' म्हणत ते बायलेन तिका उदका तांबयो हाडून दिलो. आनंदी उदक

पियेली आनी उरिल्लें तिणें दोळ्यांर तोंडार मारून घेतलें. ती बायल सांगताली, "शिवानंद, मगेलो पूत सवता आतां मडक्यांत रांदल्यार. सगळ्यो मडक्यो काडून माळ्यार उडयल्यात. दर फावट वास्कोच्यान येताना एक तरी स्टीलाचें आयदन घेवन येताच."

"पूण मडक्यांतलें रांदप जिवाक बरें. रुचीकय बरें मुगे."

"आमी आतां फक्कत निस्त्या कडीच करतात खुळण्यांत. बरी जाता ती."

ते बायलेन एक खुळणें काडून घेतलें. आनंदी चिंतताली, पयलीं जाबळ्या भोंवतणीं लोकांली घिट्टी पडटाली. आपणेंच मडकी काडून दिवप आनी मोल सांगप. दोळे धांपून घेताले आनी मोल फारीक करताले. आतां लोक किंकोंतपणान पळयतात मडक्यांक. मोल सांगल्यार खप्प जाल्लेवरी करतात.

मागीर एक बायलेन पेजेक म्हण बुडकुलो घेतलो. आनीक एक बायलेन शिताक चरवो घेतलो. त्यो बायलो घेताना म्हणटाल्यो, आमी आतां रांदिनात मडक्यांनी, पूण सोयरेबीन चड येयल्यार बरें जाता चुलीर चडोवंक.

तीन मडक्यो थंय खपल्यो. घासाघीस करून बत्तीस रुपये मेळ्ळे. तिणें जाबळ्याचें तोंड बांदून तो तकलेर घेतलो, दुसऱ्या वाड्यार वचूंक. जाबळो तकलेर घेतां घेतां तिणें म्हटलें, "इंदिरा गांधील्या पुताक बांब घालून माल्लो खंय दुस्मानान."

"हय गो, पाड पडूं तेंचें. कसले गो चांडाळ ते."

दुसरे एके बायलेन म्हटलें, "आयकल्लें, सकाळीं वयर रस्त्यार कोण उलयताले. रावणाले लंकेंतले लोक खंय ते."

आनंदी चलूंक लागली. बद्द येवन जायुल्या आकाड्यांत उबी रावली. आकाड्यासरीं भितरल्यान एक काय बरी दसण फुलिल्ली, बचकायेदी, तांबडीगुंज फुलां. थंयच पयल्यान एक केळीचो पिंड आसलो. ताचीं पानां इतलीं रुंद पांचवींचार आसलीं, तांची थंय गच्च शीतळ सावळी पडिल्ली. आनंदीन एक दसणीचें फूल खुटून घेतलें. तें तशेंच हातांत धरून ती आंगणांत येयली. जायुली मांय उंबरासरीं बशिल्ली आनी समयेंत तेल घालून वाती रचताली. ताका पळोवन तिणें म्हटलें, "जायू, तुगेल्या कुळारचो मनीस पावलो गो."

जायू घरांतल्यान धांवन येयलें. तागेले केंस निकतेच माथ्यावयल्यान न्हावन येयल्लेवरी ओले, मेकळे आसले. ताणें बेगीबेगीन आनंदील्या माथ्यावयलो जाबळो देंवयलो. आनंदीन हातांतलें फूल केंसांत माळ्ळें. जायून कुळारची, कुळारच्या हेर लोकांची खबर घेतली. ते तोंडांत, दोळ्यांत उदक घेवन जशे आकुळपिकूळ जावन उलयताले. ताणें म्हटलें, ''तुमगेल्या कुंबार वाड्यार चवथीक गणपतीक माती थापतसान रंग काडटात मेरेन कितले फावट पयली हांव वयतालें. आई वांगडा शेतांत गेल्यार केन्ना आई सीताय मावशेसरीं वचून खबऱ्यांक बसताली. हांव तेन्ना वासंती वांगडाबीन खेळटालें. गोपाळमाम आमकां गोरवां पाडव्याक बळीमदेव करून दितालो.''

मांय खांकरली. जाग येयल्लेवरी जायू उठलें आनी घरांत वचून इल्ली चाव करून घेवन येयलें. म्हटलें, ''उदक तापिल्लेंच आसलें. इल्लो पालो, साखर उडयली. जाणा आनंदी मावशे, आज मगेल्या मांवालो श्राद्ध. भट अजून येवचोच आसा. होवय दुकानार गेला उदबत्ती, धूप हाडूंक. अशें कर, आदीं गांव भोंवन यो. मागीर हिंगाच जेय. तूं कुळारची आयतीच पावल्या. जेवनच वचूंक जाय.''

आनंदीन 'बरें' म्हटलें आनी जाबळो तकलेर घेतलो. ती फाटीं फिरून वयताना तिणें पळयलें जायुल्या माडा अळ्यार प्लास्टीकचो कळसो आनी तांबयो आसा. तिणें मनांत म्हटलें, अवचिन्न हे कळंजे आतां ह्या रानांतल्या गांवांनीय पावले तर!

जायुले दोग देर, एकलो गोंयांत मास्तर आसा तर दुसरो भटकळा पोलीस आसा. जायुलो घोव मात शेत, उशेलां करून घराच आसता. जायुगेल्या दारांत येतल्यांक होलमता ती भायर भितर घरादारांतली तुश्टताय. ती घरांतल्या मनशांतच आसा अशें न्ही तर थंयच्या झाडां-माडांतय दिसता.

आनंदी मुखाल्लीं दोन वरां तरी वाड्यावाड्यांनी भोंवताली विकरेक. तशी आनंदी विकरेक हुशार आसली. मडकी उखलून वयर घेताली आनी बोटा पेरांनी खण्खण् वाजयताली आनी म्हणटाली, ''मातये मडकी न्ही बाये, तांब्या आयदन, आमगेल्या गांवची मातीच तशी. पेट्टा तशी तेचें तामण जाता. आमगेल्या दादल्यांचें पेटप, भाजप तशेंच पकदस्त. मडकेंत रांदिल्लें जेवणच खरें रुचीक.

जिवाकय बरें बाय.''

पूण लोकाक आतां मडक्यांविशीं आपलेपण दिसनासलें. घराघरांनी प्लॅस्टिकेच्या, स्टीलाच्या आयदनांचो चकचक दिसतालो. मडक्यांनी रांदप उणेपण लेखताले. मडक्यो माळ्यांनी पाविल्ल्यो. तरनाटे वोगच बायलांक चाळयताले, ''पोल्याक घस लागला मुगो, मडक्यो घांसतालीं कितें?''

तरीय तिणें अर्द जाबळ्या वयरच मडक्यो खपयल्यो. रोवचे पयलीं थळाची 'जोगवणी' आसा म्हण कळसावाड्यावयल्या चार घरांनी एकेक चरवो घेतलो, बारा रुपयांक एक करून.

तें जायुल्या घरा परतलें तेन्ना जाबळो ल्हव जाल्लो खरो पूण अजून बऱ्योच मडक्यो उरिल्ल्यो. दोन बिंदुलां, एक खुळणें, तीन बुडकुले, दोन चरवे...

भट येवन शास्त्र करून गेल्लो. जेवणकारय जेवन गेल्लो. जायून ताका भितर सालांत व्हरून बसोवन श्राद्धाचें जेवण वाडलें. ते भायर भितर सगळें पळयताले आनी परते परते येवन ताका वाडून वयताले. तागेल्या वाड्यावयलेय कोण कोण जेवंक येयल्ले.

आनंदी जेवन रोखडीच वचूंक उठली, हणकोणा देवकी रावता दिसतली. जायू जाबळो तकलेर दितना ताका कितें दिसलें नकळ, तिचें काळीज भरून येयलें. तिणें हात लांब करून तो जायुल्या पोल्याक लायलो. ''आवयवरीच बऱ्या गुणांचें तूं. आवयक कितें सांग म्हण्टा?''

''बरीं आसात म्हण सांग सगळीं. बाळूक धाड म्हण सांग रजा पडटकीर आठ दीस. आंब्या पणसाचे दीस न्ही गे आतां मुखार.''

तेन्ना आनंदीन जाबळ्यांतल्यान काडून कुशीन दवरिल्ले एके मडकेचेर ताचें लक्ष गेलें. ''आगे ही आनी कित्याक काडून दवरल्या?''

''तुका म्हण दवरल्या ती.''

''नाका, व्हर ती तूं.''

घोवय म्हणूंक लागलो, ''मडक्या घस आनी कोण घांसत पुसत बसतलो? घरांत अडचणच ती. ते येयल्यारूय 'वयनी कितें गे हें तुगेलें' म्हणटात.''

जायून ती मडकी उखलून आनंदील्या हातांत दिली. ''व्हर तूं. वाटेर कोणय

घेतलो.''

आनंदी चलूंक लागली. तिका वायट दिसलें. पयलीं मडकी काडून दिल्यार ताका आनंद जातालो. बेगीबेगीन भितर वयतालें आनी एकदोन नाल्ल हाडून जाबळ्यांतले मडकेंत घालतालें. नाल्ल सोलिल्ले नासत तर गडबड घालत नाल्ल सोलतालें. तेन्ना तें कोयती हातारबीन मारून घेत म्हण तिका भिरांत दिसताली. ताका देवरूप पळयल्लेवरी पळयत रावताली.

पूण ताणी आज मगेली मडकी घेतली ना. किकोंत केली तिका! ती मडकी खिणाखिणान जड जायत गेली आनी हातांतल्यान सोडून दिवची अशें दिसलें.

एके बायलेन एका बुडकुल्याक तीन आटोव तांदूळ दिले. ते तिणें झाबळ्यांतच मडकेंत उडयले. दुसरी बायल मुखाल्ले फावटी येयल्ले तेन्ना पयशे व्हर म्हणटाली. आनंदीन म्हटलें, ''मुखाल्ली फावट घडटलीच म्हण कोण सांगतलो? कितले आसात ते दी.'' तिणें बळाबळ एकठांय करून आठ रुपये दिले. आनंदीन सांगिल्लें पंधरा रुपये. मडकी इतली सवाय दिवंक तिका जिवार येयल्लें. पूण दुसरेवटेन रागय येतालो, ह्यो मडक्यो परत घरा व्हरचे परस हिंगाच फोडून उडोवच्यो...

ती जेन्ना रस्त्यार, घरचे वाटेक लागली तेन्ना बावीसांतल्यो स मडक्यो तकलेर उरिल्ल्यो. रस्त्यार कोण तरी म्हणटालो, ''चारांची बस कद्रेसान येवचीच जाल्या. बसीर वच.''

शा, कुंबान्न मडक्यो घेवन बशीन चडटली अशें केन्ना जालां? तिणें सरसरीत पावलां माल्लीं. ह्या आडवेळार रस्त्यार जितो जीव नासलो. मदींच एकादरी मोटार आंगावेल्यान वयताली. मागीर सगळें थंड शांत जातालें. आनंदीक बेठेंच दिसतालें, आपले तकलेर मडक्यो आसात, आपणाक कसली भिरांत ना. ह्यो मडक्यो तातूंत भुताखेतांक चोरू शिजयतात आनी मरणाक कोड्डू शिजयतात, म्हाका भिरांत ना.

वेळ देवंक लागिल्लो. पालवताना वात फडफडची तशें देंवत्या वोतांत बरोच हुलाताप आसलो. तो हुलाताप हुमेन भिजिल्ल्या न्हेसणा भितर रिगून चडच गजगजतालें. चोंयवटेन दोंगरांर पातळ धवोसो धुंवर पातळिल्लो. तो हुनसो धुंवर दोनय वटेनच्या झाडांनीय रिगिल्लो. ताचेन ती वोतान सारयल्लेवरी दिसताली.

बेठीच परकी जावन पयस खोल गेल्लेवरी दिसताली. झाडांच्यो खांदयो दावखुलां उठिल्लेवरी दिसताल्यो.

एक पुराय एकसुरेपण, खंयचे घोलींत कितें लिपून बसला खबर ना. तरीय आनंदी ना भियेलें ना. एकच धांवते चालीन तें वरभर तरी चलून हणकोणा पावलें तेन्ना देवकी तिगेली वाट पळयताली. तिगेल्या फुड्यानय ना खपिल्ल्यो सात मडक्यो आसल्यो.

तीं आपल्या कुंबार वाड्यार पावलीं तेन्ना दिवे लावणेचो वेळ जावन गेल्लो. मनशाक मनीस वोळखचो ना इतलो काळोख जाल्लो.

जाबळ्यांत इतल्यो मडक्यो पळोवन आनंदीले मांयन म्हटलें, ''जाबळो तसोच घेवन परतें येयलां? विकरेक गेल्लें काय गांव भोवंक गेल्लें गो? आमी खपयल्यो नात वोज्यांनी मडक्यो?''

आनंदीक राग येयलो. ती सट्करून मांयचेर किसळ्ळी. ''तुजीं पुराणांतलीं वायंगीं सांगू नाका. आतां तुजीं मातये कयलां जाय कोणाक? मडकी खपोवंक आतां मसनटीरच वचून बसचें, कोड्डू शिकोवंक लोकांक. बंजर पडचींच तुमचीं हीं हावठणां आतां.''

हाचेर मांयन मोटो कलकल केलो. ''चुतड हावठण बंजर पडूं म्हणटा. अवचिन्न, दाग दिवंक जाय तुज्या तोंडाक.''

घोव रामचंद्र तापलो. ''तोंड फोडटलों तुजें. तिनसांजकातरेर आमचें तें पोट बंजर पडूं म्हणटा तूं.''

आनंदी साकाचुंबळ घेवन तशेंच वासरेंत बसून आसलें. तागेलो धाकलो केन्नातरी तागेल्या आंगार येवन पडिल्लो.

**गी**म माथ्यार पाविल्लो. चोंयवटेनचो वाठार तापूंक लागिल्लो. पूण वाड्यार पातळिल्ल्या आमले रुखाचे सावळेंत अजून हुनसाण भरनासली. वाडो जसो वोताक आशेल्लेवरी मळबावटेन पळयतालो. केन्ना तेका

राग मारतालो ते आमलेचो. पूण ताच्या खांद्याखांद्यांनी, ताळयांनी लांबपी आमले घोस पळोवन जीव सुखावतालो. आनीक कांय दिसांनी हांगा एक सुवाळो नंदतलो, गांवभरचीं सवणीं, चानयो, कावळे, पांखे रुखार वसतेक येतले. रुखापोनाक भुरग्यांल्यो घिट्ट्यो पडटल्यो. पडिल्ल्या एका आंब्याच्या आवाजासरीं मोटो कलकल जातलो. बायलो रातच्यो, अपरातच्यो हातांत वल्लेकुरकुलां घेवन रुखामुळांत भोंवतल्यो. लोक सगळो आंब्या रोस खावन, सुंब चोखून चोखून धादोसय जातले. ह्या रुखाचें एक बरें आसा, पाडूंक फातर कितलोय शेंवटून माल्लो तरीय तो आंब्या घोंसामेरेन पावना. तेचें मूळ आनी कांड तर दोन वांव मोटें आनी स पुरीस उंच.तेचेर चडून वचूंकच कोण तांकना. म्हण दर एक आंबो पिकूनच सकला पडटा...

पूण तोरां धरतनाच ह्या आंब्या रुखापोंनांत एक विपरीत घडलां. यशवंतालो सोळा वर्सांचो चेडो सदानंद घरांतल्यान पळोन गेला. रागा भारार हाव्यांतल्यान निकत्योच काडिल्ल्यो मडक्यो एका दांड्यान फोडून उडोवन गेला.

आवय गोकूळ आठ दीस पुताले वथरेणेन हांथरूण धरून पडिल्ली.खानापूरकर मास्तर येवन चार सांत्वणेचीं उतरां सांगून गेलो, त्याच आधारार ती आज उठून बशिल्ली. हातांत कुडती घेवन मातये हेटे फोडून बारीक करताली. हेट्यार कुडती मारताना रडत रडत उलयताली, ''काय बरो मॅट्रीक पास जाल्लो मगेलो पूत... आनीक शिकूंक कॉलेजांत वयता म्हणटालो... सायकल जाय म्हणटालो... आमच्यान पुस्तकां घेवन दिवंक जालीं नात... एक बरें पैराण शिवंक जालें ना... आमचीं पाड पोटांच भरनासलीं... आतां आतां रागच येतालो तेका...

तिगेलो पूत सदानंद गोरो सुंदर आसलो. रावतालोय नितळ. शाळेंतल्यान येयलो की बिंदूल घेवन बांयचेर वयतालो आनी न्हावन येतालो. मातयेंत हात घातल्यार रोखडोच हात धुवन घेतालो. पिरायेच्या तेरा वर्सांचेरच तो चाकार चालां काडूंक शिकिल्लो. गेल्ले चवथीक ताणें चार सोबीत गणपतीच्यो मुर्त्यो केल्ल्यो. कोणें आदीं करूंक सांगनासतनाच केल्ल्यो. बापायन आनी पुतान त्यो माथ्यार मारून व्हरून माजाळे बाजारांत सोयरू मेस्ताले साळेंत विकूंक दवरिल्ल्यो.

तातुंतल्यो दोन खपल्यो. दोन तशोच उरल्यो. मेस्तान म्हटलें, नेत्रां काडिल्ले गणपती दवरून घेवप समा न्ही. भश्टपण जावचें न्ही म्हण सांबाळचें पडटा. व्हर तूं ते. चवथी तिसऱ्या दिसाकच बापायन एक भायले भायर व्हरून तळ्यांत बुडयली. दुसरी हाडून कागदांत गुठलावन मांगरांत दवरली. हावठणा वयले वटेन कुंबरालो एक भौशीक मांगर आसलो. दिसाचे कांय कुंबार थंय वाऱ्या उजवाडांत बसून मडकीं पेट्टाले. थंय कोणें कोणें मडके घण्णां, मातये हेटेय भरून दवरिल्ले. थंयच एका कोनशांत यशवंतान गणपती दवरलो. माघाचे चवथीक बीन कोणाक जाय जाल्यार दिवचो म्हण.

पूण थंय खेळपी भुरग्यांनी तेची विटंबणाच केली. कागद पिनून ताचे हात पांय, सोंड उकते पाडले. कोण नाशे पळोवन थंय सुणींय येवन गोठ्ठालीं.

खरेंतर बापायन पयली मुर्ती तळ्यांत व्हरून बुडयल्ली तेन्नाच सदानंद तिडकल्लो, निर्शेल्लो. ताच्यान हे मुर्तीची तर दशा पळोवंक नज जाली. तें ताच्या मनाक लागलें. ताणें एक दीस तिवूय मुर्ती व्हरून शेतांत कुळवाड्याले बांयंत बुडयली. बापायन विचारल्यार ताणें म्हटलें, ''सुण्यान मुतिल्ली मुर्ती तूं चवथीक पुजेक दितासलो?'' ताच्या उलोवपांत राग आनी घुसमटसो आसलो.

चोंयवटेनच्या कुंबारगांवचो मॅट्रीक पास जाल्लो तो पयलो भुरगो. कुंबरांले गरिबेक, तांच्या अज्ञानाक, -बुरसटिल्लेपणाक खोंटावन जसो तो मॅट्रीक मेरेन शिकिल्लो, भोव कश्टान. माथ्यार सत्री नासून पावसांत भिजत पोटासरीं पुस्तकां धरून धांवन शाळेंत वयतालो आनी येतालो.

सातवीमेरेन गांवचे एके शाळेंत तो शिकिल्लो. आठवेक हायस्कुलांत नांव घालूंक गेल्यार थंय कांय कुळवाड्यांलीं भुरगीं अचकीत ताचे भोंवतणीं जमलीं. तातूंत तो आदीं शिकतालो ते शाळेंतलीं दोगतीग भुरगींय आसलीं. ती सदानंदा भोंवतणीं फेरे घेवन व्हडान गावंक लागली – 'कुंबाराले मातयेंत खडे, मडकेक गेले तडे...'

थंयसान कसो तरी सुटून आफिसांत गेल्यार पयलींच अडेचशेंक रुपये भरचे पडटले म्हण सांगलें. पयल्या दिसासानच युनिफॉर्म घालून येवंक जाय म्हणय सांगलें.

खरें तर सदानंदाली ते शाळेवयली वान्साच गेल्ली. कुळवाड्यांलीं भुरगीं हीं खूब मस्ती, पयलींपासून 'खुंबरां खुंबरां' म्हण चाळयतालीं. बापूय तर आनीक आनी शाळाच नाका म्हणटालो. तेन्ना ताका खानापूरकार मास्तराली याद येयली. तो मूळ बेळगांवचो. गडावयल्या एका हायस्कुलांत कला मास्तर आसलो. तो कुंबार जातीचोच आनी कणसगिरीच्या एका कुंबराल्या चेडवाकडेन लग्न जाल्लो. गडावयले म्हामाय देवीले जत्रेंत हालींच तो मेळिल्लो. आपूण सातवी परिक्षेक बसलां म्हण सांगतकीर ताणें सदानंदाक म्हणिल्लें, आमगेलेच शाळेंत यो तूं. कसली अडीअडचण जाल्यार हांव पळयतां. शिकचें सोडूं नाका.

सदानंद गडावयले शाळेकच गेलो. खानापूरकार मास्तरान कोणाकडच्यान तरी सवाय भितर पोन्नीं पुस्तकां घेवन दिलीं. शाळेंत भरचे पयशे थोडे थोडे करून दिवंक लायले. खरोच खानापूरकार मास्तर ताका कितें जाय नाका तें मायेन पळयतालो.

पूण ही शाळा घरासान पांच मैलांर आसली. सकाळ सांज दोनय वेळांक शाळा. मदीं तीन वरांचो रिकामो वेळ आसतालो. हेर भुरगीं, मास्तर दनपरां जेवंक घरा वयताले. खानापूरकार मास्तरय सायकलीन कणसगिरी वयतालो. पूण सदानंदाक घरा वचून येवप शक्य नासलें. सुरवेक दोन फावट खानापूरकार मास्तरान ताका सायकलीर फाटल्यान बसोवन व्हयल्लो. मागीर शाळा सुट्टकीर सदानंदच लिपून रावंक लागलो. मास्तरय ताका रावता अशेंय दिसनासलें. शेवटा सगळीकडेन एकदोन दिसांचीच अपुरबाय आसता हें तो जाणा आसलो.

सकाळीं साडेसंक तो घरांतल्यान सुट्टालो. आवय भाकरी, शुंगोळी कितें तरी करून दिताली. ती मोडून फाळ्यांत गुठलावन पुस्तकां वांगडाच बॅगेंत घालतालो आनी धांवंक लागतालो. धांवत बद्द गांवगेरी येतालो. थंयसान दोगां भुरगीं तागेल्याच वर्गांत वयतालीं. तांचेवांगडा चलत तो शाळेंत येतालो. तो शाळेंत वचूंक उठलो की बापूय केन्ना तागेले तकलेर मडक्यां जाबळो दितालो आनी सांगतालो, माजाळे बाजारांत अमक्याल्या वारांड्यार दवरून वच. तेन्ना शाळेक उशीर जातालो. वाट चड पडटाली. धांवंक गेल्यार मडक्यांचो खोळ्खोळ् आवाज येतालो.

दनपारचो वेळ वायट आसतालो. तो शाळेच्या वारांड्यांनी बसतालो, उठ्ठालो, पासयो मारतालो. उबगण आयल्यार पुस्तक उकतें करतालो. नकळ कित्याक पुस्तकांत मनच लागनासलें. येदोळ भुरग्यांनी भरिल्लें पटांगण आतां भणंग उकतें जाल्लें आसतालें. थंयचें तें किण्ण एकसुरेपण दावखुलां मारूंक येयल्लेवरी दिसतालें. वोगीच फाटल्यान शाळेंत खंयच्यातरी वर्गांत कोण तरी मास्तर अजून शिकयत आसा असो आवाज घुंवतालो.

थंय शाळे मुखार एक व्हड वडारूख आसलो. ताका कितलींशींच पाळां फुटून भुंयेसरीं पाविल्लीं. तांकां तो झोले घेतालो. रुखार चडून एक दोन खांद्यार भोंवनय येतालो. दोन पाळां एकठांय बांदून तेणें एक बसकीशी केल्ली, ताचेर मज घेवन बसतालो. एकलोच गाणी म्हणटालो, चिपटां वाजयतालो. शेवण्यां फाटल्यान धांवतालो.

वडाच्या मुखार थंय भितरले वटेन एक गरीब ल्हानशेंच घर आसलें. तातूंत केस पिकिल्ली, केसांच्यो गुठल्यो जाल्लीशी एक जाण्टी बायल रावताली. जिवाक उबगून कुडीची उस्तवारी सोडून दिवची जशी ती दिसताली. एक दीस ती पेजेची ताटली घेवन वडामुळांत सदानंदासरीं येयली, ''घे पुता, इल्ली पेज पीय.''

सदानंद कांय वेळ अनमनत उबो रावलो. ''माजाळेच्या कुंबरालो मुरे तूं. वळखतां हांव. पयलीं आमी गोंयांत वयताना तेच वाटेन वयतालीं, तुमगेल्या कुंबारवाड्याच्या बगलेसानच. थंयसान मुखार पावसे घाटी चडली की पैंगीण. घे पुता.''

सदानंदाक कितें दिसलें नकळ, ताणें ती ताटली घेतली आनी पुराय पेज पिवन उडयली. उरिल्ल्यो कुंयोय खायल्यो. मागीर तकली उखलल्यार तागेले दोळे भिजिल्ले आसले. ''हिंगा थिंगा असो हेडटा कित्याक? येवन बस घरांत सावळेंत. घरा फाटल्यान बांय आसा आमगेल्या.''

दुसऱ्या दिसासान खरोच तो तिगेल्या घरांत वचून बसूंक लागलो. आवयन दिल्ली भाकरीबीन थंयच बसून खातालो. तिणें पेजेनीस दिल्यार पितालो. घरांत इतली गरिबी आसली, सगळेकडेन पोन्नीं फटकुरां पातळायल्लेवरी दिसतालें. गोंय लिप्प बंद आसतना तिगेलो वीशेक वर्सांचो पूत कोणालो तरी कसलो तरी

म्हाल हाडूंक गोंयां गेल्लो. येताना वाटेर पोर्तुगीज सोल्दानांनी हटकितकीर तो म्हाल उडोवन धांवंक लागलो. फाटल्यान सोल्दानांनी फारपेट केलो. तातूंत तो मेलो. तागेली कूड लेगीत हेवटेन कोणाक पळोवंक मेळ्ळी ना. आवय आपलो पूत परतो येतलोच म्हण वथरेत कितलो तेंप रावली. गोंय मेकळें जातकीर ती गोंयां पुराय गांवागांवांनी भोंवन येयली. मागीर तिका गोंयच्या पुलीसांकडच्यानच सत् कळ्ळें, तिगेल्या पुताक काळशी, पैंगीण लागींसार मारिल्लो. मागीर तांणी ताका थंय रानांत खंय तरी पुरलो. मदीं आतां साताठ वर्सां गेल्लीं. ते सोल्दादय आतां हुंवाळून गेल्ले. सगळें कळटकीर आवय पिशांतूरच जाली. गोंयावटेन तोंड करून दुकां गळयत धक्क बसून आसताली.

सदानंद सदां दनपारां तिचेसरीं वचून बसतालो, तिचेसरीं उलयतालो. ल्हवल्हव तिगेल्या केंसांक, आंगावेल्या जुनेराक, घरांतल्या बुरशा पसाऱ्याक नीट नीतळसाण येवंक लागली. सदानंदाकय सावळ मेळिल्लेवरी जाल्ली. तिगेलें थोडें शेत आसलें. ती भागाक बीन तें करूंक दिवन आपलें भागयताली. घराभोंवतणीं दोन तीन लागाव माड आसले. तो आवयन दिल्ली भाकरीबीन खावंक लागतकीर ती इल्लो पेजेनिवळ हाडून ताचेमुखार दवरताली.

ह्या दिसांनी कितें जाल्लें, कोणेंय कितें ल्हव मोगाळ उलयलें, मोगान हात लायलो तरीय सदानंदाक रडूंकच येतालें. घरांतली आंतडी बरगुब्रपी गरिब्री, शाळेंतल्या भुरग्यांचो चकचक आनी ते बायलेलें आपलेपण हाचो एक गोंधळच भितर चलिल्लो.

वर्गांत तो पिनिल्लो बागवल्लो कसो बापडो जावन बसतालो. आपल्या आंगावयल्या पिनकरांची ताका लज दिसताली.हे शाळेंत सोमार आनी बुधवार दोन दीस युनिफॉर्म घालचो पडटालो. धवो शर्ट, निळी हाफ पेन्ट. ताचेसरीं फक्कत एक म्हेळ धवो शर्ट आसलो, सकल कसलीय हाफ पेन्ट आनी वयर धवो शर्ट. हेड मास्तरान तापयल्यार खानापूरकर मास्तर थातारून घेतालो. हेडमास्तर बऱ्याच जाड आंगाचो आसलो. आपलो व्हडलो सुपायेदो तळव्या पंजो हात लांब करून मुखार धरतालो आनी हालयत म्हणटलो, ''ना, ना, कशेंच जावचें ना.'' पूण कांय वेळान सगळें विसरून वयतालो, विसरचो रोग आशिल्लेवरी.

सदानंद केन्ना चिंततालो, ही बामणांलीं, कोंकण्यांलीं भुरगीं इतलीं मस्ती कित्याक करतात, इतलीं कित्याक हांसतात? तेंच्या घरांत दाणोगोटो भल्ला दिसतलो, गवेतांत नोटांच्यो कवळ्यो आसात दिसतले. तेंकां माती बडोवची, कालोवची पडना, तेंच्या आवयांक तकलेर मडक्या जाबळे घेवन विकरेक वचचें पडना. हें अशें चिंतूंक लागल्यारय ताका रडूंक येतालें.

बापायलें एकच आसलें, कुंबराल्या पोरान शिकून कितें करचें आसा? शेवटाक मातीच कालोवन पेटची मुरे. शिकलो म्हण कोण तुका मुखार उबो करून घेतलो? कुंबार तो कुंबार. सुटका ना.

तो अभ्यासाक बसल्यार धेंगसो घालून उठयतालो आनी मातये गुळो ना तर काडून दवरिल्ले गळेबीन हाडूंक लायतालो. केरोसीन ना म्हण घरांत रातचो एकच चिमणे दिवो आसतालो. तो बापूय मडकीं पेट्टाना लागीं घेवन बसतालो. थंयच मागीर सदानंद अभ्यासाक बसतालो. दुसरेवटेन बापायलें वितरागाचें उलोवप चालूच आसतालें. ''गांयडोळ खंय सोरपागेर सोयरगतीक गेल्लो, थंय हुळहुळत रावलो.'' तरीय तो दर परिक्षेक बऱ्या गुणांनी पास जातालो. चार पांच नंबरां भितर येतालो.

आवयक शिक्षणाचेंबीन कांय कळनासलें. पूण तिका दिसतालें, आपलो पूत करता तें सगळें सारकेंच करतलो. तो चूक करचोना. भांगरा गुणांचो म्हगेलो पूत! ती ताचे फाटल्यान आसली. पूण तिचे हात दुबळे दुर्बळ. घोवा मुखार तिचें कांय चलनासलें.

एक दीस मॅट्रिकेक आसताना ताका वर्गांतले एका बामणाले चलयेन विचारलें, ''सदानंद, तुका मडकी करूंक कळटा?''

''हय, मडकी करूंक कळटा आनी गणपतीची मुर्तीबीन करूंक कळटा. लोक चवथीक हावें केल्ले मुर्तीची पुजा आरत करतात.''

ते चलयेले घारशे दोळे नखेत्रां पेटिल्लेवरी लिकलिकले. मागीर तिणें सट्टकरून विचारलें, ''पूण तूं म्हेळीं पिनकर वस्त्रां कित्याक घालता? गरीब तुमी?''

सदानंद वोगच रावलो.

''तुका एकदम चड मार्क्स कशे पडटात तर?''

“ते देव दिता.”

“तुवें केल्लो तो देव, गणपती?” तें खळखळून हांसलें.

मुखाल्ले आठ दीस ते चलयेचे हांसरे लिखलिखपी दोळे ताचे मुखार येताले. हांसप कानांत घुंवतालें. खरें तर कुंबरांनी आजवेर हजारांनी गणपती देव केले पूण एक्कय तांकां पावलो ना.

पयल्या वर्गांत तो मॅट्रिक पास जाल्लो. पूण मॅट्रिक जातकीर वर्सभर घराच उरलो. कारवारा कॉलेजांत वयतां म्हटल्यार बापूय कानामनार घेनासलो. पयशांची रड रडटालो. दुसरें, ताणें तकलेंत घेतिल्लें तें, कुंबरांनी शिकून कांयच जावचें ना, कोणच मुखार उबो करून घेवचो ना. कुंबरांनी फक्क्त माती कालोवची. पयलीं शाळेंत वयताना केन्ना शाळेंत शिकपी कुळवाड्यांलीं, गुरव, देवळ्यांलीं भुरगीं येतालीं. मागीर ते काजूंनी, काण्णांनीं, दोंगरांत भोंवताले. चिंचो, जांबळां पाडटाले. आतां सगळेच बंद जाल्ले. तो एकमुळो तुसडो कसो जाल्लो. बापायन कितेंय सांगल्यार ना आयकलेंशें करून वयतालो. परतें दितालो. मागीर बापूय बोब मारतालो, गाळी संवतालो. “चार बुकां शिकलो म्हण मळबाक हात लायले म्हण समजूं नाका. कुंबराचे कुले शेवटाक मातयेंतच. कुंबराले चिखलमातयेची लज दिसता तुका रांडेच्याक? ल्हान आसतनाच तुजे तकलेर तळ्यांत व्हरून मातये चोबो दिवंक जाय आसलो. म्हगेलेंच चुकलें. शाळेंत धाडलो तें.”

पूण ताचो एकंच हट आसलो, हांव आनीक शिकूंक कारवारा कालेजांत वयतां.

बापूय केन्ना किसळूनसो विचारतालो, “आरे, वर्साक कितलो खर्च येतलो?”

“नवे कपडे जाय, दोन जोड तरी. पुस्तकां, फी... वचूंक येवंक सायकल – बारा मैलांची वाट.”

आयकोन बापायले दोळे वरशे जाताले. “सायकल ना जाल्यार जायना?”

“सद्दां बशीक तिकेट चड पडटली. आतांच सायकल, पुस्तकां घेतलीं ना तरीय जाल्यार सुरवेकच देडेक हजार जाय.”

“थंय रावंक सरकारी हॉस्टेलां आसतात खंय मुरे? जेवण फुकट मेळटा

खंय.''

''तीं म्हारांक, चांबरांक. आमी वयले जातीचे खंय.''

बापूय थू थू लुथी उडयल्लेवरी हांसलो. ''कुंबार आनी वयले जातीचे! कितें खावंक, कितें भोगूंक ती वयली जात? तूं जाणा, आरवात म्हारवाड्यार सरकारान खांबे घालून लायट दिल्या. आमकां हिंगा तीन खांब्यांचे पयशे भर म्हणटात. कोण खंयसान भरतले, कोण तेंचेकडेन झगडटले?''

सदानंदाल्या मुखाल्ल्या शिक्षणाचें हें घरांत सदांच चलतालें. ताणें पयशांचो आंकडो सांगलो म्हणटकीर पुराय घराचें दाडवण बशिल्लेवरी जातालें.

कुंबरांले दीस मारेकार जाल्ले खरे. आठ दीस लागून एक जाबळो मडक्यो पेटल्यार ताचे बळाबळ दोनशें ते अडीचशें रुपये मेळटाले. लोक मातयेच्यो मडक्यो घेवंक लजताले, फाटींफुडें करताले, सवाय मागताले. माथ्यार मारून व्हयल्ल्यो मडक्यो परत्यो येताल्यो. येयल्ल्या पयशांत इल्लो दाणोगोटो, मीठ मिरसांग, निस्तेंपास्तें हाडलें म्हणटकीर हातांत कांय उरनासलें. पावसाळो तर तीन म्हयने काळ कसो फाटीक लागिल्लो आसतालो. आंगावयलें जुनेर जावन वागरें सुटलें तरीय नवें न्हेसूंक मेळनासलें. तातूंत शिक्षणा सारके 'नस्ते' गजालींक कोण पयशे मोडटलो?

कुंबार आपल्या भुरग्यांक सुरवेक मार उमेदीन शाळेक धाडटालो. तीन च्यार यत्ता शिकलीं की तीं लोळूंक लागतालीं. तांची शाळा केन्ना सुटली ती तांकांच कळनासलें. शाळेंत वचपी भुरग्या परस हातांत कुदळ घेवन तळ्यार मातयेक येवपी भुरगें चड तोखणायेचें दिसतालें.

हे सगळे अवतिकायेक खोंटावन सदानंद मुखार सरूंक सोदतालो. कोणें दिल्ली ताका ही जाण, ही आस्था? घडये ताचो तो जल्मधर्म आसलो. वा शिकतां शिकतां जाल्लो शिक्षणाचो साक्षात्कार?

गांवांत कोणय मुंबयसान, पुण्यासान येयल्यार तो ताचेसरीं वयतालो आनी म्हणटालो, ''हांव कुंबारवाड्यावयलो यशवंतालो चेडो. मॅट्रिक जालां. तुमचे वांगडा येतां. थंय इल्ली नोकरी करून शिकतलों.'' चडशे जाण रावच्या जागेचोच प्रस्न उबो करून ताका निर्शेणी हाडटाले. एकवटेन मुंबयकार म्हण झेत दाखोवप,

दुसरेवटेन ताचोच हावू उबो करून दाखोवप.

एक दीस तो असोच मुंबयसान येयल्ल्या देवराय नायकासरीं गेल्यार ताणें हातार एक बिस्कूट दवरून म्हटलें, ''आरे कितें आसा त्या शाराचे खेटाखेटींत? खून आनी मारामाऱ्यो. दोन दीस नळाक उदक येयलें ना जाल्यार सगळें सोडून धांव मारची अशें दिसता. कुंबारालो मुरे तूं? मडक्यो पेट, कुंडयो कर. चवथीक पन्नास साठ गणपती थाप. मुंबयंत चुकून पडल्यार कोण सोदतलो तुका?''

कुंबराल्या मनाकाळजार तर जशी माती थापिल्ली. एक राट, दीसदीस घुंवपी, दोंगुल्लेंतलो खर, तळ्यांतली चिकणमाती. बडोवप, भिजोवप, कुसोवप, पेटप, भाजप... घुंवपी चाकार काडिल्ल्या गळ्यावरी तीं मनशांय जशीं मन आनी मत मेल्लीं मातयेचींच मानशां जावन गेल्लीं.

खरें तर आतां ताची आस्तच मावळिल्ली. तो चडच घुसमटूंक लागिल्लो. राग काडटालो, जेवनासताना रावतालो. घरादारांत कसलोच वावर करिनासलो. खंयूय झाडामुळांत वचून वोग्गी बसतालो. बापूय ताका एक फुकट गेल्लो भुरगो म्हण मानतालो आनी गाळयांचो शिंवर करतालो. ''हिंगा बापाय वांगडा वावराक हात घालचो पडटलो म्हण कारवारा वचून मजा मारूंक सोदता. शिकूंक बामणांगेर जल्माक येवंक जाय आसलो. कुंबाराले खोपींत कित्याक जल्मलो? जल्म तसो धर्म. आपलो धर्म सोडिल्लो बऱ्याक पावना.''

एक दीस सदानंद उठून आपले भयणीगेर असनोटी गेलो. ताचेपरस चार वर्सांनी व्हडली भयण विश्रांती थंय दिल्लें. हें विश्रांती कपलाक येद्दो व्हडलो कुकूम लायतालें. पयसल्ल्यान तें दिसचे पयलीं तागेलो कुकूम पयलीं दिसतालो. लग्ना पयलीं घरांत वावर करिना म्हण आवय ताका संवताली. दीसभर वाड्यावयलीं घरान घरां भोंवत आसतालें. सर्वकाळ आवय व्हडाव्हडान आफयत आसताली. मागीर खंयच्या तरी घरांतल्यान 'येयलें गे' म्हणत धांवत येतालें. बांयचेर गेल्यार खंयच्यातरी घरांत पयली दोड घालप आनी मागीर आपल्या घरा दोड भरून घेवन येवप. लग्न जातकीर ताणें घोवाघरा राज्य केलें. मनात मोगाळ आनी हातान मेकळें. आदींच हांसरें, सगळो वावर हांसतच करप. मांय केन्ना शेजान्नीक सांगताली, 'आमच्या घरांत वर्सभर जायचे कळे.'

कुंबारधंद्या वांगडा तांकां इल्लें शेतय आसलें. स म्हयन्यांचें पोट जाव इतलें. तें ते खणून, कसून कशेंय करताले. एकदोन वर्सांत विश्रांतीन मांवाकडल्यान शेताचेंय काम शिकून घेतलें. आतां मांव आनी सूनच चडसो शेतांतलो वावर पळयतालीं. मांव खोरें खांदार घेवन शेतांत सुटलो म्हणटकीर फाटल्यान सुनेक म्हणटालो, ''यो गो, दिपळो घेवन शेतांत.''

सदानंदान येवन पयलीं भयणीक आनी मागीर भावोजीक सांगलें, ''हांव येता त्या वर्सासान तरी कालेजांत वयतां कारवारा. खर्चाक लागून बाबा नाका म्हणटा.''

''कितलो खर्च लागतलो?''

''कोणालीय पोन्नी सायकल घेतल्यार पुस्तकां फी धरून पयलींच दोनेक हजार तरी जाय.''

भयण आकुळपिकूळ जाताली आनी घोवावटेन पळयताली. भावोजीन म्हटलें, ''कुंबारान कितल्योय फकी माल्ल्यो तरी एके मुठीन दोनशांचीय गांठ उबी करूंक जावची ना. बाप्पाक सांगून पळयतां.''

ह्या अनसोटीच्या कुंबारांल्या मडक्यांक गांवांत मोलच नासलें. हेर गांवचे कुंबार तांकां चाळयताले. ''तुमच्या तळ्यांत म्हसरां गोठ्ठात म्हण तुमची माती शेणाची. हेरांल्या पोळ्याक बुराक जाल्यार तुमच्या तव्याक बुराक.''

दुसऱ्या दिसा भयणील्या मांवान ताका सांगलें, ''पळयतां. मगेलो एक बाळपणाचो इस्ट रामेश्वर साळुंखे सुभेदार म्हण रिटायर्ड जावन येयला. मागलार दितलो उदार हजारभर. थोडे हांव म्हगेले दितां. तूं मुखार शिकता म्हण सांगतकीर बरें दिसलें. तूं तुगेल्या बाबाक येवन वच म्हण सांग. तिरकटी मनीस तो, तेका आदीं सांगूंक जाय. ह्या कुंबरांले मातयेंतल्यान वयर सरप बरें कठीण पुता. पांय धोंपरांमेरेन मुंगरल्यात.''

सदानंदान घरा येवन आदीं आवयक ही खबर सांगली. मागीर आवयन घोव चाकार चालां काडटा थंय वचून मुखार बसून सांगलें, ''शिकूंक वयताच खंय तो. विश्रांतील्या मांवान रीण काडून दितां म्हटलां खंय पयशे. तुगेलो हयकार जाय खंय.''

हाचेर यशवंतान चाक इतल्या वेगान घुंवडायलें, चाका मुंडळेर दोनय हातांनी धरिल्ली माती फुर्रऽ करून वयर हुडली. मागीर तो एकदम तापलो, ''फाल्यां खंयसान हाडून फारीग करतलो खंय रीण? बापूय मरतकीर हाडां विकून करतलो फारीग? तुका रांडेक तरी कळूंक जाय आसलें, सोयऱ्यांगेर भीक मागूंक गेल्लो तो.''

''फाल्यां शिकून इल्ली नोकरी लागल्यार दितलो तो.''

''केन्ना, कितल्या वर्सांनी? शिकलो म्हण कुंबाराक कोण्ण विचारचो ना. कुंबरांल्या हाताकय माती आनी तोंडाकय मातीच. म्हाका आनीक कांय सांगूं नाका तूं. आनीक उलयल्यार तकलेर पेटणें घालतलों.''

सदानंद आयकत पावळेंत उबो आसलो. तो रागान आतां इतलो झिडपलो, धांवन मुखार आयलो आनी आड्डलो, ''मारून घे तूं तें पेटणें आनी तुज्यो मडक्यो तुज्या हड्ड्यार. मडकी पेट्टा जल्मभर, एक बरो शर्ट तुज्यान शिंवंक जालो ना. कुळवाड्यांल्या पोरांलीं पोन्नीं पुस्तकां भीक मागून हाडून हांव शिकलों. आतां कशेंय करून मुखार शिकतां म्हटल्यार फातर घालता. हांव आनी रावचों ना ह्या घरांत...'' आंगणांत कालच हाव्यांतल्यान काडिल्ल्यो नव्यो मडक्यो आशिल्ल्यो. रागान ताणें थंयची एक बडी उखल्ली आनी एकाच मारान तीन मडक्यो फोडल्यो. मागीर बडी थंयच उडोवन वाड्याभायर धांवलो. व्हाळ आनी मुखेल रस्तो हांचेमदीं एक ल्हानशीच बसकी दोंगुल्ली आसली. थंयचे ते रुखावळींत तो रिगलो.

बापूय फाटल्यान गाळी संवतच आसलो. आवय ताचे फाटल्यान येवन शेता मेरेर कांय वेळ उबी रावली आनी मागीर फाटीं गेली.

तिनसांज जाली, रात पडूंक लागली तरीय तो घरा येवंक ना. उसरां आवयन चिमणी पेटयली. धाकल्या पुताक आनी धर्मू बायलेक देवकेक घेवन दोंगुल्ले वटेन गेली. चिमणी पालवची न्ही म्हण ती पदरा अडसराक घेवन चलताली. येवन ती दोंगरासरच्या शेता मेरेर बसली. थंय बसून थार दियनासतना तळमळ्यान पुताक आफोवंक लागली. ''म्हज्या पुता सदानंदा, यो रे पुता...'' तिचें तें आफोवप घोणीलें रडप कशें त्या झिळमिळ्यांत घुंवतालें.

मागीर आनीक कोण कोण कुंबार थंय येयले. तांणी सांगलें, तो कितें रातचो रुखामुळांत बसून रावतलो? खंय तरी गेला तो. हुशार भुरगो तो. सड्यार व्हरून उडयल्यारय उपाशीं पडचो ना.

परत घरा येयल्यार बापूय यशवंत घुम्म मोनो बशिल्लो. दिसतालें, आत्तां तो कपल बडोवन घेवन रडूंक लागतलो.

रांडाव बायलांनी करचीं बिनगळ्यांचीं मातये आयदनां – मायट्यो, तवे, कदीं, साणकां, कायली, पण्ट्यो सीताय आनी सीतायली सून तारा दोगांय रांड बायलां मेळून करतालीं. कोणय हावो घालतना दिसलो की ह्यो आपल्यो मुणक्यो मडक्यो ताच्या मडके घण्णांमदीं व्हरून नीट दाळटाल्यो. परंपरेन चलून आयिल्लें, कोण ना म्हणनासलो.

ह्या वाड्यार रांड बायलांक सोडिल्लें आयदन केन्ना कोणें अयाव बायलेन केलें ना, ना खंयच्या दादल्यान केलां. तांणी केल्लीं आयदनां आपल्या हाव्यार दाळूंकय कोणें केन्ना मनाय केली ना. लोक हें इतलीं वर्सां नेमान निश्ठेन पाळटाले.

सीतायली सून तारा चोब्यांत हीं आयदनां घेवन विकरेक वयताली आत्र्यापैऱ्यान. पूण आतां आतां खप उणो जायत गेल्लो. अर्द अर्दावयर चोबो परत येतालो. तारा चोबो हाडून खळक् करून वारांड्यांत आपट्टालें. मांयन कितेंय विचारल्यार किसळून म्हणटालें, ''तुगेलें हें मातये कट्टें जाय कोणाक? घराघरांत लोखणाचे, आलेमिनाचे तवे. लोक म्हणटात, आतां आमकां मडकी, खुळण्या वांगडाच मायट्योय मेळटात.

सीतायक खप्प जालें. ती चिंतताली, पयलीं कुंबार कुळणें आनी मायटी, बुडकुलो, चरवो आनी मायटी वांगडा विकनासले. मायट्यो फाटल्यान रांड बायलांखातीर सोडटाले. मागीर लोक ते आमचेकडच्यान घेताले. आतां कसलें हें अवचिन्न? कसलीं मरणां वेंगोवंक सोदतात हे!

तिणें घोर लावन घेतिल्लो, हें अशेंच चल्ल्यार नातरांक कशे वाडयतलीं

आमी? ताराच्यान तर कुळवाड्याल्या शेताभाटांत वावराक बाग घेवंक जावची ना!

एक दीस ती नातवाक वखदाक किरात हाडूंक म्हण गोपाळाल्या घरा फाटल्यान गेल्ली. पळयल्यार थंय वोतांत पंदरा वीस मायट्यो सुखोवंक घातिल्ल्यो. तिका सण्ण जालें. गोपाळाल्या घरांत आनी कोण रांड बायल उपरासली? गोपाळ तर अजून मरचोच आसा. ती रागान तिरमिरली. थंयसान ती खेपतच मुखाल्लेवटेन येयली. "गोपाळ, तुगेल्या घरांत कोण दादलो मरून बायल रांड जाल्या रे? काय आंडेर दादले आनी घोवा खायऱ्यो बायलो मायट्यो करूंक लागल्यात?"

गोपाळ फें फें करून कितें तरी उलयतालो. बायल गुलाबी मांडूनशी दारांत उबी आसली, जशी ती झगडूंक आपली बाजू थारायताली. सीताय तशीच गेली आनी जाण्ट्या सोयरूक घेवन येयली. हाडून तिणें ताका घराफाटल्यान सुखोवंक घातिल्ल्यो मायट्यो दाखयल्यो. म्हटलें, "इतलो काळ हो धंदो आमकां सोडिल्लो. हें अशें सवाशीण बायलो आनी दादले मायट्यो, तवे करूंक लागले. तर आमी कितें करचें, कितें खावचें?"

सोयरू खूब जाण्टो जाल्लो. सीतायक लग्न करून हाडिल्ली तेन्ना तो बरो व्हड. तागेलें लग्न जावन भुरगीं व्हड जाल्लीं. कास्टी न्हेसून आनी जाड भिंगांचो चश्मो लावन तो आपल्या वारांड्यांत ना- तर आमले रुखा पोनांत वोगी बसून रावतालो. केन्ना हावठणासरीं बसून उजो शेकतालो. कुंबारवाड्यार जाण्टो मनीस म्हटल्यार अपरूप. कुंबार दीसभर बसून मडक्यो पेटत तांगेलो फाटीकणो कमरेंत पावतालो. धड पोटाक पडना जावन, दुयेंसार वेळार उपचार मेळना जावन तो बेगीनच मरून वयतालो. गोपाळाल्या आंगणांत उबो रावन सोयरून म्हटलें, "वायट कर्तुब हें. कुंबाराल्या नांवाक काळें लायतात हें. पूर्वजांलें शास्त्र सोडल्यार बरें जावचें ना..."

सीतायन मर्दीच म्हटलें, "सुवार्था मुखार शास्त्र भाजून खायला तेणी. अशान निसंतान जातलें म्हण खबर ना."

गोपाळालो धाकलो भाव विश्राम थंय कुशीन आंगणा कोनशान माती कालयतालो. तो ती तशीच उडोवन चिखला हातानच मुखार येयलो आनी

ताणशेलो, ''येदोळसान चयतां हांव सीतायआवो, नानापरीन खेपता तूं. कसल्या शास्त्राच्यो खबऱ्यो सांगतात तुमी, पुराणांतलीं वायंगीं. लोकाक आतां मडकेवांगडा मायटी जाय आसता. तुमची वाट पळोवंक तेंकां वेळ ना, पाशेंस ना. कित्याक म्हण तुमकां रावंक जाय लोकान? काळ बदलला आतां, उजो पेटला. पोट भरल्यारच नीत आनी नेम. ना तर सगळें चुलींत घालचेलें.''

''पोट भरूंक म्हण कोण गू खायना.''

''तुमच्याच तोंडांत पडला न्ही गे तो. म्हण मायट्यो, पणट्यो म्हण रडटात तुमी मांय आनी सून.''

हें सीतायक खूबच लागलें. तिणें गाळयांचो शिंवर केलो. आतां तांचे मदीं कडकडाट झगडें पेटिल्लें. गोपाळ आनी बायल गुलाबीय मुखार येवन हात हेळयत खेपूंक लागिल्लीं. तांच्या खेपांनी आनी बोबेन वाडो घणघणूंक लागिल्लो. सगल्यांक सीताय एकलीच तोंड दिताली. तिगेली सून कुशीक उबी रावन चीं चीं करीत मांयवटेन कितें तरी उलयताली. मागीर तिकाय एक गाळ खावची पडटाली.

आतां पुरसो, शिवराम मुखार येयले. तांणी तेंकां उशीन काडले. गोपाळाक, विश्रामाक घरांत धुकलले. तांणी सीतायक सांगलें, ''सीताय आवो, फुकट झगडटा तूं. फुकट रगत आटयता. काळ बदलला, कांय जावचें ना आतां. प्लॅस्टिकेचीं, स्टीलाचीं आयदनां येयलीं, लोकांनी मडक्यो किंकोंत केल्यो. कितें करूंक जालें आमच्यांनी? शास्त्र धल्ल्यारय मरण आनी सोडल्यारय मरण.''

आतां आंगणा मेरांनी उबे राविल्ले लोकय तेंच उलयताले, आतां ह्या कुंबारांल्या धंद्यांत राम उल्लो ना. कशें तरी पोट भरप हेंच खरें. आतां पयलींचें घेवन बसल्यार कशें जातलें, संवसार खंय पावला... सोडून दिवचें सगळें...

तें सीतायल्या कानार गेलें. तिणें म्हटलें, ''कितें सोडून दिवचें? फाल्यां आमी रांडाव बायलांनी चाक घुंवडावन गळे काडल्यार तुमकां बरें दिसतलें? फातर घेवन मारूंक येतले, पोटांत गर्भ रचयलो रांडांनी म्हणटले.''

पुरशान जसो हेर सगळ्या कुंबारांलो आवाज घेवनच म्हटलें, ''कोणें आडायलां, कोणें नाका म्हटलां? हे मुखार जण एकल्यान आपणाक जाय तशें वागचें. असो न्ही तसो कसोय कोणे गर्भ रचयल्यार कोणाक कांयच आतां पडून

गेल्लें ना.''

हीं उतरां सीतायल्या काळजाक लागलीं आनी ती तिरमिरली. गांवचें वोजें म्हज्याच खांदार आसा म्हण हांव मानतालें, आनी गांवय सीतायक मानतालो, पूण आतां अशे कशे उलयले हे? काळाक कांटे फुटूंक लागल्यात खरें! ती घरा गेली आनी काळोख कांबरून घेवन जशी सालांत घुम्म बसली. लोकांले, झगड्यांतलें दर एक उतर सुण्याले दांत कशे भोंकत आंगाक रोमताले.

सून रांदचे कुडींत वावुरताली. तिगेल्या आयदनांचो आवाजय तिका सोंसनासलो. मदींच सुनेचेर ती किसळ्ळी. ''तिगां भुरगीं जालीं मुगो तुका घोवाकडच्यान. आतां चाकार गळे काडूंक मेळटलें म्हण तूं फुरफुरता. काड गळे. कोण कांय विचारचो ना आतां आमकां.''

आयकोन सून थीर जाली. अशी कशी उलयली ही भ्रमिश्टावरी! ती सरसरीत भायर आयली. ''पिशें लागतलें तुका हातून. सोड आतां गांवचें. शास्त्राक लागली चुट्टी. कोणाल्याय घरांत कोणालेंय आंग हून जाल्यार, पोटांत धवळ्ळ्यार रातीं अपरातीं धांवन वयताली तूं. आतां तुका घरांतल्यान पांय भायर काडूंक दिवची ना हांव.''

रातभर ती एक मांदरेफटच्यार सालांत न्हिदिल्ली. तळमळत चिंतताली, तळ्याक बांद, हुंवार येता तेन्ना येता. कुंबरांक मरूंक निमित्त तरी मेळटलें. तेचे पयलींचें हें जगप कठीण जालां. लोकांले जिणेक अशे कशे दांत फुटल्यात! तरीय हांव म्हणटालें, आंबले रुखाक इतलीं घुगमां, वागळां कित्याक हुमकळटात काय म्हण! कुंबरांनी कोणाचें कितें वायट केल्लें? केन्ना मातयेवांगडा कीड मूय पेटिल्ली आसतली, ना तर वोतांत बांयचो उदका तळ दिसचो तशें निर्मळ निश्कळंक जिवीत. आंब्या परस आंब्याचे चानकोतर गोड म्हणून खावपी. कशें जालें हें उदक खदूळ! बऱ्याक मरण आदीं म्हणटात तें खोटें न्ही... ती अर्दकुटे न्हिदेचे झळपणेंतशी, पुसट पुसट यादींतशी खूब पयस खूब फाटीं वचत रावता... हांव आनी शिवरामाली आवय गौरी - गौरी मेलें बावडें - दोगांय तकलेर जाबळे घेवन आंबाड्याफोंडा वाटेन देवगाळी वयतालीं. मदीं रानांत आडवाटेर अचकीत वयर गानुल्ले उठले. वयर पळय जाल्यार एक हरिश्ट वांश्वल रुखार चडून गानुल्ल्या

मुडो फोडून मोंव खाता. आमी सकल आनी आमचे तकले वयर वांश्वल. तातूंत गानुल्ले फाटीक लागिल्ले. आमी तकलेवयले जाबळे घेवन तशींच धांवंक लागलीं. ना गानुल्ले फाट सोडिनात. जाबळे धोपरार घेवन बेगीबेगीन सकल आपटिले. आंगावयलें कापड सोडोवन तें आंगभर गुठलावन घेवन भुंयेर पडलीं. तेन्नासान गानुल्ल्यांचींच सपनां पडटात... तिणें मडकी उधार मागली आनी हांवें दिली. दिवन मुखार पावतकीर ती परती म्हाका आफयता. हांवें वचून म्हटलें, कितें गो? तर म्हणटा, तुमी कुंबार खंय उधारी दिवंक फाटीफुडें जाल्यार, चुकल्यार श्राप दितात खंय. मडकी मसणटीर सारयेर फोडूंक पाव म्हणटात खंय. हांव हांसलें. ते बायलेन भितर वचून दोन पड तांदूळ हाडून मगेले पोतयेंत उडयले. म्हटलें, सांजच्या शिताक म्हण दवरिल्ले!...

आतां संसारार मर येयला. कोणय मरणाक मडकी व्हरूंक वाड्यार येयल्यारय म्हजी घे, म्हजी घे म्हण मुखार येतात. कापडां न्हेसतल्या बायलांच्या कासाट्याक हांसतात. मायस्थो करून आमगेल्या पोटार पांय दितात... मागीर तिणें गाय मारिल्ल्याचें बदलाक वासूर मारिल्लेवरी निश्ठूरपणान एक थारायलें...

केन्नातरी तिका झेम लागली. झेम लागल्यार न्हिदेंत सपनांच्यो हारी... एक व्हडलें व्हडलें चाक. ताचो भंवरोच दात्यायेदो. तो मार वेगान घुंवता. ताच्या घुंवपांत जसो वाड्याचो पुराय आंवाठ सामावला. बापूय तेचेर बागवोन चालां - गळे काडटा. मुंडळेर माती घुंवता. हड्ड्यायेदें उंच लिंग उबें जालां. कोणालो तरी गळो दामिल्लेवरी हातांन माती दामून दामून बापूय गळे काडटा. ल्हानव्हड शेंकड्यांनी गळ्यांच्यो हारी. केन्ना ते भुंयेंत पुरिल्ली मुणकी कशी दिसतात, केन्ना हांसतीं तोंडां कशीं. बापूय ते गळे सगळे घरायेद्या व्हड जाबळ्यांत भरून तकलेर घेता आनी रुखान दांग मारची तसो चलूंक लागता... मागीर तें सट्‌करून मुखार येता. सुस्त बंद पडिल्ल्या चाकाक हात घालता आनी तें घुंवडायता. तें भिरभिरें कशें घुंवंक लागता. मागीर कुशीचो मातये गुळो उखलून सट्‌करून चाकाचे मुंडळेर थापता. ते मातयेर हात आंवुळटा, आपलीं माणकुलीं भुरगीं मूठ मातयेंत खोमून एक गळो रचता, अर्दकुटो वांकडो तिकडो. तो उखलून हातांत घेता आनी खूब हांसता... मुखावयल्यान भिकू आज्जो वयतालो. म्हणटा, ‘‘जावं,

तुवें चाकार हात घालून गळो रचलो. ही देवपिराय तुजी, धा बारा वर्साची. कांय नजो! पूण खिणांत भिकूअण्णाले दोळे रागान तांबडेगुंज जातात. तागेलो आवाज घुंवता. 'हें निमाणें. हेच्या मुखार चाला मुंडळेक हात घातल्यार गोमटी कातरतलों... आंगाक रगता वास लागतकीर सगळीं पातकां म्हण जाणा मुगो तूं...?'

तिका सट्करून जाग येता. भिकू आज्जाचो रगत थापिल्लोसो चेहरो कांय वेळ दोळ्या सामकार येत रावता.

खरें तर इकरा बारा वर्साचे पिरायेर केन्ना बापायवांगडा, बापोलया वांगडा तें खेळत खेळत चाक घुंवडावंक, मुंडळेर माती खेळोवंक शिकिल्लें. मागीर मात सगळें सुटलें...

रातभर फक्कत न्हिदेची झळपण आनी अर्दकुटे न्हिदेंतच सपनां, तरीय ती सकाळीं बेगीनच उठली. आतां जसो तिका वाड्याचेर सूडच घेवचो आसलो. इतलो काळ ताका ती चुट्टे सोरोपच म्हणटाली, पूण आतां ताका वीख भरूंक लागलां. तिचो राग चडतच गेलो... आपलें पोटच खरें. पोट म्हणटा तें खतखतपी तेला कायल... हांवें आयजवेर खूब पाळ्ळें शास्त्र. शास्त्र पाळटल्या घरांत खंय सतरा विघ्नां.

ती बांयचेर वचून दातांक इंगळो लावन तोंड धुवन येतना दोड भरून घेवन येयली. सुनेन रगड्यार इल्ले तांदूळ वांटून पीठ केल्लें. त्राचे ती वस्त्रा कुडक्यार धब् धब् भाकऱ्यो थापताली. नातू निकतोच उठिल्लो. तो पांचवेक शिकतालो. ताका शाळेक वचूंक जाय आसलें. तिणें घरांतले पोटमाळयेक निसण हाडून तेंकयली. एके तिडकीनशी माळ्यार चडली. चेडो मरतकीर काडून दवरिल्लें चाक, बसकी माळ्यार पडिल्ली आसली. तिणें धेंगसो घालून सुनेक आफयली. नातवाकय हात घालूंक सांगलें. उज्यांत सरकायल्ली भाकरी भायर ओडून काडून तवो तसोच रितो चुलीर सोडून सून येयली. चाक सकला देंवयतना सुनेल्यो बरगड्यो, कमरे कांटो तुटूंक पाविल्लेवरी बागवल्लो. सीतायन मनांत म्हटलें, हें सामकेंच बरगलां, आनीक अशेंच अन्नाक मेल्यार भुरग्यांक उबंतर उडोवन वयतलें. रांदिल्लें मगेले ताटलेंत घालता, भुरग्यांक भरयता आनी सोता चोरून खायल्लेवरी इल्लें खाता.

तिणें चाक आनी बसकी हाडून आंगणांत अशीच वांकडीतिकडी उडयली. दीसभर ती तेळटाली, कोणय पळयना, कोणय कितें उलयना. कांय म्हण, पूण जण एकलो पळयतालो आनी मोन्यानच पासार जातालो. तिका दिसतालें, कोणें तरी जाण्ट्यान, नेण्ट्यान म्हणचें, 'सीताय आवो, कोण घुंवडायतलें हें चाक, कोण भोंवऱ्यार माती थापून मुंडळेक हात घालतलो?' पूण सगळो गांव दुस्मान जाल्लेवरी कांय उलयनासलो. ती चडच घुसमटूंक लागली. दिसलें, आतां उदक नाका तोंडामेरेन पावलां.

दुसऱ्या दिसा तिणें तोरंगी रुखापोनांत बसकी, भंवरो बसोवन चाक दवरलें. दोन वरां ती ती खुट्‌खुट्‌ करून बसकी भुंयेंत बसयताली. भोंवऱ्यार चाकाचो तोल नीट राखूंक यत्न करताली.

पावळेंत मडकेंत माती कुसोवंक घातिल्ली आसली. तिणें नातवाक सांगलें, ह़ाड मातये गुळो. नातवान मडकेंतल्यान काडून कयलांत घालून माती हाडली. ती तिणें गुळो करून चाकाचे मुंडळेर थापली. नातवाल्या हातांत बडी दिली आनी ती चाकाच्या आऱ्यांमदीं घालून जोरांत चाक घुंवडावंक सांगलें. सोता ती माती भोंवऱ्यार आवळून आनी मातयेंत मूठ रिगोवन गळो उबारूंक लागली. सून दारांत उबी आसली. पळोवन निकतोच घोव मेल्लेवरी तिणें आरड माल्ली. ''कितें करता गे पापणी मांयआवय मुगेले!'' वाड्यावयले कांय लोकय येवन पयस पयस उबे आसले वोग्गी.

तिणें कॅर केलें ना. माती आंवळून मूठ खेळयत ती लिंग उबारूंक लागली. सांवार येयल्लेवरी तिणें वांकडेतिकडे चार गळे काडले आनी एके ओळीन उबे दवरले. आतां ती सामकी थकून गेल्लेवरी कांय वेळ उबी रावली आनी मागीर वचून आंगणामेरेर बसली. आपणें काडिल्ल्या गळ्यांवटेन ती कांय वेळ पळयत रावली आनी मागीर तिका रडूंकच येवंक लागलें. ती मेरेर रडत बसली. तेन्ना एकलो शाणू येवन तिचे मुखार बसलो मोन्यांनी. ताच्याय दोळ्यांत दुकां आसलीं.

**शा**णू धर्मूलो धाकलो भाव. काळसो, मोडवो पूण आंगापेरांनी घटमूट. ताचो एक पांय मात्सो मोडवो आसलो. ताचेन तो चलतना एकवटेन बागवोन लंगडतसो चलतालो. पूण कुंबारांलीं सगळीं कामां सारक्कीं करतालो. तळ्यार वचून मातये चोबे भरून हाडटालो, हावो घालतालो, भावा बायले वांगडा मडक्यां जाबळो घेवन केन्ना विकरेक वयतालो. आफयल्यार कुळवाड्यागेर लुवंक, मळूंक लेगीत वयतालो. व्हडलो भाव धर्मू चाकार चालां काडचो आनी मडकी पेटचो तितलोच वावर करतालो. हेर सगळें तो आनी तागेली भावा बायलच करताली. धर्मू सोरो पिवन शाणूक बुरशो बुरशो गाळी संवतालो. पूण शाणू केन्ना परतें उलयनासलो. उल्टें लोकांक म्हणटालो, ‘‘सोरो पिवंक लागतसानच तो असो वायट जाला. बापूय भुरगेपणाकच मरतकीर तेणेंच म्हाका ल्हानाचो व्हड केल्लो.’’

पूण तें तितलें खरें नासलें. शाणू फाटल्यान दोगी भयणी. त्यो व्हड जाल्यो तरी धर्मू तांगेल्या लग्नाची खबर करिनासलो. तेन्ना शाणू आनी धर्मू बायलेनच फुडाकार घेवन, हरप्रयत्न करून तांगेलीं लग्नां केल्लीं. त्यो आतां भुरग्यांल्यो आवयो जाल्यात. पूण शाणूल्या लग्नाची खबर कोण करिनासलो. धर्मूक विचारल्यार तो म्हणटालो, त्या लंगड्याक आनी कोण चेडूं दितलो? कुंबराले भुरगे वीस बावीस वर्सांचे जाले म्हणटकीर लग्नाक कोंबेतात. पूण शाणू सत्तावीस वर्सांचो जालो तरीय लग्नाची खबर नासली.

हांगाय तागेली भावाबायलच मुखार सल्ली. सतरा जाणांकडेन सांगून तिणें एक चेडूं पळयलें, पयस कैग्यावयर रानांत हपकुळे म्हणिल्ल्या गांवचें. घोवाक, देराक आनी वाड्यावयल्या चोवगपांच जणांक ती घेवन गेली आनी लग्न करून व्हंकलेक घेवनच येयली. ह्या लोकान वचूनच लग्नाची तयारी केल्ली. वयताना थोडें गोड व्हयल्ले ताची तांकां गुळवण करूंक सांगली. भट, वाजंत्रां नासताना फक्कत गळ्यांत ओंवळी माळो घालून लग्न जालें. तातूंत आनी वयले वटेनच्या एका घरांत एकलो दुखीन सारक्को किळांचतालो. चार दिसां फाटींच मोंव काडटना

तो रुखावयल्यान पडिल्लो ताका घरांत हाडून घातिल्लो.

चेडूं काळशें पूण घटमूट आंगलोटाचें आसलें. तें लग्नांत, येतना वाटेर एक उतर उलोवंक नासलें. बेठेंच हूं हूं करतालें. पूण घरा पावतकीर कळ्ळें तें नाकांतल्यान उलयता म्हूण. भावाबायल निर्शेली, तिचें मुखामळ बावलें. पूण शाणून म्हटलें, ''कांय धरचें न्ही व्हनये. देवानच दिलां न्ही तें? मगेलो पांय पळय हो मोडवो ना?''

पूण पोर मायेस्त आसलें. सांगिल्लें उतर सकल उडयनासलें. वावर नितळ करतालें, वावर शिकतालें. शाणू कांय दिसांतच ताचेर जीव लावन बसलो. ताका तळ्यार मातयेक व्हरतालो तेन्ना ती बेठीच मळांनी भोंवताली. रानांत वांगडाच जळोव हाडूंक गेल्यार येतकीर भावाबायल म्हणटाली, ''इतलो वेळ कितें करतालें रे रानांत, गंदा लाकडां सोदीत भोंवतालें?''

शाणू बेठोच हांसतालो. माती बडयतना, कालयतना, हावो घालताना सदांच बायल मुखार जाय ना तर चोंयवटेन नदर भिरभिरायतालो, उलो मारतालो आनी बेठेंच कितेंतरी हाडून दी म्हणटालो. ''जाणा मुगो अंबू, चान्र्या दिसांनी मडकी पेट्टाना माती खंय पेटण्यार बेस धांवता, काळखा दिसांनी ती जड जाता. आमगेले पुर्वोज खंय दर पुनवेक भायर उक्त्यार मांड घालून बसताले आनी रातभर मडक्यो पेट्टाले. पेटण्या तालार गायताले – रामकृष्ण हरी, जयजय रामकृष्ण हरी... तूं मुगो खुबच लजता. घोवासरीं आनी लजप म्हण आसा...? येता त्या शेनवारा काणकोणा शिगम्या जात्रा. दोन जाबळे मडक्यो घेवन या. मडक्यो विकच्यो आनी जत्राय करची...''

लग्नाक सारक्क्या देड वर्सान अंबूक दीस गेले.

अंबूक आवडटात म्हण तो आंवाळे, बोरां खंयच्या खंयच्यान हाडटालो. अंबूक आवडटात म्हण तो माजाळे बाजारांतल्यान भजीं हाडटालो. ताच्या अंबूक आवडटा म्हण कारवारा वचून ताणें एक किलो खाजूर हाडलो आनी मडके गोलयेंत घालून दवरलो.

अंबू बाळंत जातना मेलें. दोन दीस तें चेचिल्ल्या जिवाण्यावरी वळवळटालें. शेवटा मेल्लें भुरगें भायर येयलें. भायर येयलें म्हणचे परस वैजीणीन ओडूनच

काडलें म्हटल्यार जाता. फाटोफाट रगताची धार लागली. आयजवेर कुंबराले गुरवार बायलेन हास्पिटलाचें तोंड पळोवंक नासलें. अंबूय वाड्यारच बाळंत जातना मेलें.

भटान सांगलें, भश्ट मरण, लासूंक फावना. पुरचें पडटलें. दोंगराकडेर खंयूय पुरूंक गेल्यार कुळवाडी आडावंक लागले. शेवटा रानांत भितर व्हरून ताका आनी भुरग्याक वांगडाच पुरलीं.

शाणू पिसो जाल्लो. सीतायले वासरेर येवन बसतालो आनी रड रड रडटालो. वाड्याकडेर वचून बायलेची किरवड गेल्ले वटेन पळयत रावतालो आनी थंयच मातयेंत बसतालो. कपलार हात मारून घेवन म्हणटालो, ''बऱ्यां गुणांचें आसलें गे तें. म्हाका चाळोवन गेलें. हांव मरतलों आतां.''

आठच दिसांनी खबऱ्यो येवंक लागल्यो – रानांत गेल्लेकडेन अंबू भिवयता. चड करून कुळवाडी सांगताले, तें फाटल्यान धरून जळोवाचें वजें वोट्टा, वोज्यार बसता आनी पावला पावलाक वोजें जड जायत वयता. झिलींनी सरसरता, कोणतरी भुरगें घेवन चलताशें दिसता. पयस झिलींनी रडिल्लोय आवाज येता... शाणू तर आयकोन भ्रमिश्टच जाल्लो.

मागीर खरोच शेतामेरांनी, व्हाळाबांदार सद्दां किळांच्यो मारिल्लो आवाज येवंक लागलो. मदींच दिवटी पेट्टाली आनी नाच् जाताली.. लोक म्हणटाले, रातचोच म्हारू चड उचांबळ जाता. मागीर एक दीस कुळवाड्यां वाड्यार एक बायल खुदूंक लागली, अंबूलें नांव घेवंक लागली.

एक कुळवाडी एक दीस वाड्याकडेर उबो रावन कुंबरांक धपकायतालो, ''लोक शेतांत, रानांत वचूंक भियेतात, खपखप्यांत पडलात. कितें तरी देवस्पण, घाडीपण करात. म्हारू थंडायात, नातर गांव दवरचो ना तुमकां.''

शाणू थंयच आसलो. तो थतरवितर वोग्ग रावलो.

पूण ताच्या काळजांत कितें तरी शिजतालें. तो भायर भितर सामको अस्वस्थ आसलो.

सांजचो काळोख जावच्याक ताणें पयलीं भावा बायलेक आनी मागीर सीतायक सांगलें, ''तें रातचें अशें भोंवता जाल्यार हांव वचून पळयतां. हांव घोव

तेगेलो, म्हजेर जीव आशिल्लो तेगेलो. आसल्यार म्हजे फुड्यान येयलेबगर रावचें ना तें. सांगतां, तूं अशें रातचें अपरातचें भोंव नाका. जाल्यार आमी दोगांय खोंप बांदून रानांत रावया.''

ते रातीक तो भ्रमिश्ट कसो सूर मारिल्लेवरी काळखांत रिगलो.

मुखाल्ले तीन दीस तो दोंगराकडांनी, मेरांनी, बांदांनी रातच्या काळखांत भोंवतालो. रात जावची वाट पळयतालो आनी काळखांत घुसतालो. पूण खंय म्हण अंबूली सुलूस लागनासली. खंयतरी पयस मदींच किळांच्यो आयकोंक येताल्यो, पूण तेवटेन गेल्यार कोणच नासतालो. पूण तो काळोख म्हणिनासतना तानभूक, भयभिरांत विसरून भोंवतालो. दिसतालें, आत्तां खंय तरी अंबू आड येतलें, मुखार उबें रावतलें.

चौथ्या दिसाक तो दोंगरावटेसान येवचे वाटेर काळखान ओग उबो आसतना ताका किळांच्यो आयकोंक येयल्यो. एक बांदसो आसलो ताचेवयल्यानच ती वाट वयताली. किळांच्यो लागीं पावतकीर शाणू एकदम मुखार गेलो, तेन्ना ताची झळक पळोवन तकलेर वोजीं घेतिल्ले चोवगजाण बांदावयल्यान देंवन शेतांतल्यान धांवंक लागले. शाणूक कळ्ळें, रातचे गोंयसान चोरवाटेन सोऱ्या वोजीं हाडटले हे लोक कोण मुखार येवचो न्ही म्हण किळांच्यो मारून लोकांक भिवयतात – बाळंत जातना मेल्ल्या मगेल्या अंबूच्या नांवान. फाटीं एक फावट तेंकां धरून गांवच्या लोकान पोलिसांकडेन दिल्ले. आनीक एक फावट ते वोजीं शेतांतच उडोवन धांविल्ले.

शाणू रागान आकांताचो झिडपलो. तांकां बुरश्यो बुरश्यो गाळी संवत येवंक लागलो. तागेल्या त्या गाळयांच्या शिंवरान पुराय वाठार हालतालो. वाड्यावयले लोक घरा भायर येवन उबे आसले. वाड्यार पावतकीर आंगणांत उबी आशिल्ले सीतायक पळोवन ताणें म्हटलें, ''पळयलें मुगे. ते चोरयेन सोरो व्हरतले म्हारवावरी किळांच्यो मारतात. इतल्या बऱ्या मगेल्या अंबूचो म्हारू कसो जातलो! फाल्यां येवं ते कोणय कुळवाडी कितेंय सांगूंक, कसो भादरायतां पळय तेंकां.''

**सां**ज जावच्याक ती वाड्यार रिगली. इतल्या नितळ नव्या वस्त्रांतलीं मनशां वाड्यार रिगून कितलो तेंप जाल्लो आसतलो काय! सखारामान सदरो आनी पिजाम घातिल्लो, शीलाल्या आंगार बरी, बरे किंमतीची साडी आसली. तसलेंच मॅचिंग पोल्क घातिल्लें. तागेल्या गळ्यांतलें मंगळसूत्र भांगराचें काय भांगरा ओप काडिल्लें तें काय कळनासलें. हातांत बरें चकचकीत रंगाचें व्हड हॅन्डबॅग आसलें. हें असलें हॅन्डबॅग वाड्यार कुंबार पयलेच फावट पळयताले.

सखाराम शीला नटयेक आपली व्हंकल करून घेवन वाड्यार आयल्लो. शीला वाड्यार रिगलें आनी वयली थंड सावळी, थंयचें मेकळें उकतेपण ताका भावलें आनी नेटान पावलां घालीत तें सखारामा फाटल्यान तागेल्या घरा येयलें.

घरांत येतकीर सखारामान ताका घरांतली एक व्हड मणय आसली ती हाडून सालांत बसूंक दिली. बापूय पुरसो आंगणांत आसलो तो सालांत गेलो. भितर आशिल्ले बायलेक ताणें 'हय गो' म्हण उलो दिलो. बायल भायर येयली आनी सुन्न कांय वेळ पळयत रावली. गळ्यांत मंगळसूत्र आसा! ती शीलाक वळखली. फाटीं एक फावट तें वाड्यार आयल्लें.

''कितें रे हें सखाराम?'' तिणें विचारलें.

''आमी लग्न जालांत आई, शेजवडा देवळांत.''

आवय बापायलो दोगांलोय रागाचो पारो एकदम वयर चडिल्लो. पूण मुखार एक सोबीत अनवळखी चेडूं बशिल्लें. तागेल्या आंगार नवेंताल्ल न्हेसण आसलें. ''अरे आमकां सांगचें न्हू तुवें?'' तरीय बापायलो आवाज बरोच वयर पाविल्लो.

''कांय उपेग नासलो. तेंगेले लोक आमच्या लग्नाक राजी नासले. पांच स जणच आसले लग्नाक, भायलेच.''

हो भार जानकेच्यान सोसना जालो. ती आंगणांत येवन सीतायक सादोवंक लागली. ''सीताय मावशे, मात्शी येवन वच गे.'' तेन्ना तिणें पळयलें, वाड्यावयले बरेच जाण आंगणा भायर येवन उबे आसात. ते खूब उमळशीक भरिल्ले नदरेन पळयतात, हांसतात. दिसतालें, आत्तां हे आंगणांत देंवतले आनी फेर घेवन नाचूंक

लागतले, फुगोट्यांचो फोग मारतले.

सीताय येयल्लीच घरांत गेली. फाटल्यान बरोच लोक येवन दारांत उबो रावलो. जानकेन म्हटलें, ''पळय गे मावशे, लग्न जावन येयला म्हणटा तो.'' तिच्या उतरांत बरोच खपखपो आसलो.

सीतायन सरळ शीलाकच विचारलें. ''लग्न जावन येयलात काय बेठीच गळ्यांत गळसरी खोवयल्या गो?''

तें आंग कवळून घेवन बशिल्लें. ताणें चिरक्या आवाजांत म्हटलें, ''फोटो काडलात न्ही. म्हगेली एक मावस भयण आयल्ली लग्नाक.''

''तो नाटकां करीत भोंवता गांवार. तुका सांबाळटलो खंय सारको? तुगेलें पोट भरतलो खंय? काय गोरो बामण दिसलो म्हणच लग्न जालां गो?''

''म्हाकाय कांय तेंप नाटकांत काम कर म्हटलां ताणें. बंद करचो ना.''

''फाल्यां गुरवार जाल्यार पोट घेवन नाटकांत नाचतलें?''

शीलाक हीं उतरां लागिल्लेवरी जालीं. दोळ्यां पातयो भिजिल्लेवरी जाल्यो. हजारभर लोकांमुखार घणघणीत उलोवन आनी गावन लोकांलीं काळजां हालोवपी तें ह्या कुंबरांमुखार येद्देशें जावन बशिल्लें. ताणें विचारलें, ''ताका मडक्यो करूंक कळनात तर?''

''कुंबराल्या पोराक मडक्यो करूंक शिकोवंक जाय? तेणें मडक्यो केल्यार तुका त्यो माथ्यार घेवन विकरेक भोंवचें पडटलें. माती बडोवची, कालोवची पडटली.''

शीलान आतां आवाज चडोवनशें म्हटलें, ''सगळें चिंतूनच येयलां हांव. गांवांत नटयेचें काम म्हण कितें बरें, लोक फकाणांच मारतात फाटल्यान.''

आवय जानकेन मदींच म्हटलें, ''जात खंयची म्हण समजुची गे?''

सीतायन म्हटलें, ''आमकां जात नाशिल्ल्या कुंबरांपरस उणी जात न्ही तेगेली. आमच्च्यांतय देवळी कुंबार आसात. तेंच्या बराबर आमी जेवण-खाण, सोयरिको आतां करतात. बापूय आसा तेका. गडावयल्या रायालें चेडूं तें, आयकलां हांवें.''

जानकी वोगीच रावली. सीतायन सखारामाक मुखार आफयलो आनी व्हंकलेक वांगडा घेवन आवय बापायक पांय पडूंक सांगलें. ताणी आवय बापायचे

पांय पडून थंय हाजीर आशिल्ल्या सगळ्या व्हडांचेय पांय पडले. शीला सारकें बागवोन दोनय पांयांक नीट हात लावन पांय पडटालें. तांकां सगळ्यांक तोखणाय दिसताली, बऱ्या गुणांचें आसतलें हें चेडूं... मागीर तिणें एक णववारी कापड हॅन्डबॅगांतल्यान काडलें आनी जानकेल्या हातांत दिलें. सगळ्यांक इतलें अपरूप दिसलें, बायलो मुखार येवन तोखणायेन कापडावयल्यान हात भोंवडावंक लागल्यो. दुसऱ्या दिसा सकाळीं ते येतना दिसले. शेतांतल्यान लांब लांब धेंपां घालीत, धूळ हुडयत जशे ते येताले. धर्मूलो चेडो प्रेमानंद मडक्यो सुकोवंक घालूंक वोत सोदत वाड्याकडेर येयल्लो. ताणें तांकां पळयले. तो ज्युस्त वळखलो, हे गडकार म्हण. ते कित्याक येतात तेंवय ताका कळ्ळें. तो मडक्यो थंयच उडोवन शिवरामासरीं धांवलो. ''शिवरामअण्णा, गडावयल्यान येतात ते, शीलाक व्हरूंक येतात दिसता. व्हरूंक दिवंक जायना आमी.''

शिवराम शादूर जालो. तो तसोच पुरशाल्या घरा धांवलो. ताणें सखारामाक सांगलें, ''ते येतात, फुकट झगडीं करतले. चेडवाक ओडून व्हरूंक पळयतले. तूं व्हंकलेक घेवन वाड्या भायर दोंगरावटेन वचून खंयतरी लिपून बस. आमी पळयतात कितें जाता तें.''

सखारामान आनी शीलान आंगार आसात त्या वस्त्रांरच वाड्याभायर धांव माल्ली. शेतांत लागींच उंच एक आडो आसलो ताचेर एक व्हड जांबळी रूख आसलो. ताच्या अडसराक वचून तीं लिपलीं.

इतले म्हणसर ते वाड्यार हावठणासरीं येवन उबे रावले. ते पांच जण आसले. तांतले दोग बरेच धश्टपुश्ट जवान आसले. बापूय राया बरोच मोटवो आनी उबे तकलेचोसो आसलो. तागेली तकली धव्या लिंगावरी दिसताली आनी ताचेर एक केंस नासलो. आनीक एकलो धव्या वस्त्रांतलो बरो शिकिल्लोसो बुद्द दिवंक समजावंक येयल्लोसो दिसतालो. एकलो तर इतलो बारीक किडकिडो आसलो, सरणार घातिल्लो, हुलोप लागतकीर जीव घेवन निकतोच उठून आयला असो दिसतालो. हाका आनी ह्या झगड्यांत कित्याक हाडला तेंच कळनासलें.

प्रेमानंद आनी शिवराम मुखार आयले.

तांणी विचारलें, ''सखारामालें घर खंय?''

''कोण सखाराम?''

“तो नाटकांत कामां करता तो.”

“हंयचे सगळेच कुंबार नाटकी. तोंडाक रंग काडिनासतनाय नाटकां करतात. एकएकलो कितलीं सुंदर गायनां गायता जाणा...”

मदींच एकलो तापलो. “तुमच्यो खबरो नाकात. सखाराम खंय आसा तें आदीं सांग.”

“कोण सखाराम म्हण्टा तूं?”

“हिंगा वाड्यार कितले सखाराम आसात तर?”

“पुरशालो एक सदानंद आसा. तो हाताक मेळना. नाटकां करीत गांवार भोंवता. सकाळीं बापूय गाळी संवतालो, तीन दीस घराच येयलो ना म्हण.”

“तेचें घर दाखय आमकां.”

प्रेमानंदान पुरशाल्या घरावटेन बोट दाखयलें. ते तेवटेन चलूंक लागले. आतां अख्खो वाडो थंय तांचेसरीं एकठांय जाल्लो आनी ते तांचे फाटल्यान चलताले.

पुरशाक वचून तुगेलो चेडो खंय काय म्हण विचारल्यार ताणें सांगलें, “खंय तो खबर ना. पूण आयकलां, तेणें एका देवळ्याल्या चेडवाकडेन लग्न केलां म्हण. त्या चेडवानच फुसलायलो खंय तेका.”

“तुमची जात खंयची?”

“कुंबरांक जात ना. बामण धरून देवळी सगळे आमचेच.”

तांतलो एकलो धश्टपुश्ट आंगाचो एकदम तापलो. “तुमच्या त्या लफंग्यान पळोन व्हयलां तेका, शीलाक. हातीक मेळूंक जाय आसलो, हाडां मोडून घालतासलों.

तिगां चवगां बायलो कलकल घालीत मुखार येयल्यो. “काय बरो भुरगो, तेका लफंगी म्हणटा तूं? वोगीच भाळ्ळें ना तुमगेलें नटी चेडूं तेचेर. लग्न जालां आतां तेंगेलें. कितेंय वांकडें उलोवं नाका.”

“आमी हिंगा कुंबरांगेर दवरचे नात तेका. ओडून व्हरतले.” घनशामा बायल रुक्मीण मुखार सरली. तिणें म्हटलें, “आतां तुमी व्हरचें तेका कुळरा बाळंतचाराकच.”

तेन्नाच वाड्यार कितें चल्लां तें पळोवंक सखाराम दोपतसो आड्यार चडिल्लो. तांतल्या त्या लांब किडकिडीत मनशान ताका ज्युस्त पळयलो. तो

तेवटेन बोट करून मोट्यान आड्डलो, ''तो पळय आड्या फाटल्यान लिपून बसला, जांबळीसरीं.''

ते पांचूयजण जांबळीवटेन धांवंक लागले. तांचे फाटल्यान पुराय कुंबारवाडो - दादले, बायलो, भुरगीं... कुंबार मदीं मदीं तांकां आडखळी हाडटाले, आडायताले, पूण ते तांकां धुकलून उडोवन धांवताले.

हे धांवन येतात तें पळोवन सखाराम आनी शीला मेकळ्या शेतांतल्यान रानावटेन धांवंक लागलीं. कुंबार तांकां आड्डून सांगताले, ''धांवन वचात, रानांत वचात.''

जाण्टे, नेण्टे पुराय लोक खर्शेत धांवतालो. पूण सखाराम आनी शीला शेतां बळांटून वचून रानालागीं पाविल्लीं. नीतळ धवेंशुभ्र वोत पडिल्लें. त्या वोतांत तीं व्हांवन वयतात अशीं दिसतालीं.

तेन्नाच तो तांगेल्यांतलो बारीक किडकिडीत मनीस मेरेक पांय आपटून ओमथोच पडलो. कुंबार आड्डले, ''पडलो तो, मेलो, मेलो...''

सगळे लमाण खर्शेणी जिरयत थाल्ले. तेवय कांय वेळ रावन फाटीं वळोन पळोवंक लागले. तेन्ना सगळे कुंबार तांचे मुखार येवन उबे राविल्ले. सखाराम आनी शीला पंधरा मिनटां तरी धांवत वचून रानांत रिगिल्लीं. रानांत रिगतना तर तीं झाडाचीं झोपां कशीं दिसतालीं.

गडकार आतां परत धांवंक सोदताले. कुंबरांल्या दादल्यांनी आडावन तांकां समजायलें, ''कांय उपेग जावचो ना. त्या रानाक सतरा वाटो. सखाराम जाणा सगळें. तुमी रानांत घुसल्यार चुकूनच पडटले. तीं येन्नादर गोंयां पैंगीणचे वाटेक लागल्यांत आसतलीं. आसात तेंगेले वळखीचे थंय.''

तेन्ना प्रेमानंद, सुरेश, चंद्रकांत हे वाड्यावयले कांय तरणाटे छाती फुगोवन बेठोच आव हाडून मुठी कवळून जशे उबे आसले. तरीय तांतले दोग जाण तापले, ''आमी सोडचे नात तेंकां. कशेच सोडचे नात. कशे नाचयतात पळय तेंकां.'' खरें तर हो तांचो उश्णोच आव आसलो.

रामचंद्रान म्हटलें, ''पळयलें ना तें चेडूं तुमगेलें कशें घोवा फाटल्यान धांवन गेलां रानांत? तेंकां आनी तुमच्यांनी कुशीक काडूंक जातलें? एक ना एक दीस लग्न करुंकच जाय न्ही? नटीपण कितलो तेंप करतलें तें?''

‘‘पूण तुमच्या कुंबरा घरा नाका आसलें. दरिद्र धंदो तुमगेलो.’’ तिगेलो बापूय उलयलो.

हाचेर कुंबरांक इल्लोय राग येवंक ना. कोणें तरी म्हटलें, ‘‘हुशार, सातवी मेरेन शिकिल्लो भुरगो तो. खंयूय मानान पोट भरतलो. तुमच्या दारांत येवचो ना.’’

तो एकलो धव्या वस्त्रांतलो बरो शिकिल्लो कसो दिसतालो तो तेणें म्हटलें, ‘‘शीला तशें ताच्या वांगडा रानांतल्या कांट्या जिपुडांत धांवन गेल्लें तें पळोवन आश्चर्य दिसलें. ताचें नशीब ताचे वांगडा म्हणचेलें.’’

ते आतां परते येयले. पूण वाड्यार पावतकीर शीलालो बापूय रडूंक लागलो. रडटाना तेगेली उबी तकली, मान, हड्डें गदगद हालतालें. रडत तो उलयतालो, ‘‘मगेलें आयकतालें, मानतालें म्हाका. आज म्हाका पळोवन रानांत धांवन गेलें तें. कसलो जादू केलो रे ताचेर?’’

तांतलो एक तरनाटोसो आशिल्लो तेणें धपकायलो. ‘‘रडटा कित्याक दुसऱ्याल्या गांवांत येवन? तेचें तें भोगतलें.’’

पुरशान सालांत नवी मांदरी सोडयली आनी तांकां येवन बसात म्हण कितले विनयले, पूण ते बसले नात. तशेच चलूंक लागले. ते व्हाळ बळांटून नदरे भायर पावले तेन्ना दोग तीग भुरगे रानाकडेर धांवले. तांणी रानाकडेर उबे रावन तांकां व्हडाव्हडान उले दिले, ‘‘सखाराम, सखाराम रे, ते गेले, गेले ते...’’

कांय वेळान खूब भितरल्यान जाप आयली. मागीर कांय मिनटांनी तीं रानाकडेर पावलीं. सकाळीं बरीं लखलखीत दिसपी तीं आतां वनमनशांच कशीं दिसतालीं. शीलालो सावळो तामसो चेहरो हुमेन बुडिल्लो आनी विसकटिल्ले केंस कपलार, पोल्यार फासपल्ले. झिली अडसराक करडारच पडून राविल्ल्यान आंगावयले साडयेक पुराय करडा तणांच्यो सुयो, कुसां तोपिल्लीं.

शीलान तांकां व्हडान विचारलें, ‘‘गेले ते?’’

‘‘हय गेले. धांवडायले तेंकां.’’

‘‘कितें? झगडींबीन जालीं ना न्ही? कोणें कितेंय वांकडें उलयलें ना न्ही?’’ शीला आकुळपिकूळ जावन विचारतालें.

‘‘ना ना. ते आमकांच धमकायताले. कुंबार झगडूंक मोनेच गे वयनी.’’

'वयनी' हें उतर आयकलें आनी शीलाक दिसलें, ह्या लोकांनी आतां आपणाक सासणाचें बांदून घेतलां.

आतां सुर्या माथ्यार चडूंक पाविल्लो. दोंगरावटेसान उजवाडाचो झगझग शेतांनी झोपय घेतालो. शेतांनी गांवांनी उजवाडाचो एक दरया पातळिल्लो. तो दरया मांडयत ते कुंबारवाड्यार येवंक लागले. पूण वाड्यार पळयल्यार तीच काळशी सावळी, ताचेर तो आंब्यारूख जसो ओणोव घेवन आसलो. पूण ह्या वोताच्या झगझगांत वाड्यावयली ती काळसर सावळी आज शीलाक बरी मानवली ना. हो वाडो खूब काळासान आसा तसोच कोणें धांपून दवरला अशें दिसलें.

शीला तीनच म्हयने कुंबारवाड्यार उरलें. हाचे मदीं दोगांनीय मेळून चारपाच नाटकांय केलीं. बापूय उपरांत तांचेमदीं पडूंक आयलो ना. होसाळी एका नाटकाक बापूय येयल्लो. नाटक सोंपता म्हणसर बसून रावलो. मागीर मुखार येवन ताणें म्हटलें, "बरें आसा न्ही गो बाय?"

शीलाल्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. "आसां बाबा, हुस्को करुं नाकात तुमी. लग्न जावन घोवाघरा आसा न्ही हांव."

ह्या तीन म्हयन्यांत शीलान कुंबारांलीं सगळीं कामां केलीं. तळ्यार, दोंगरांत वचून माती हाडली, ती बडयली, चाळ्ळी, कालयली. माती चाळून उठ्टकीर पुराय केंस, आंगावयलीं वस्त्रां मातयेन भरतालीं. तें ती फाफुडलीशी करतालें आनी दुसऱ्या वावराक लागतालें.

मुळांत तें एक गोड उतरांचें बऱ्या स्वभावाचें चेडूं आसलें. कुंबारवाड्याकय ताचेविशीं आपलेपण आसलें. एक दीस सीतायन आनी तेगेले मांयन - जानकेन शीलाक सांगलें, "आतां कुंबार धंद्यांत राम ना. पावसाळ्यांत तुज्यान भूक सोसूंक जावची ना. कुंबरांचे आंतडेक संवय जाल्या. तूं सखारामाक घेवन गोंयां वच. तुमकां दोगांकय वाचूंक बरोवंक कळटा."

शीलाच्या मनांतय अशेंच कितें आशिल्लें जावये. तागेलो मामा गोंयां सांखवाळे रावतालो. आनीक बरेच जाण वोळखिचें गोंयांत आसले. नाटकांतली नटी म्हणय तशें ताचें नांव आसलें, वळखी आसल्यो. गेल्लीं तीन चार वर्सां तें नाटकांत कामां करतालें, गांठीक इल्लो पयसोय आसलो. णववी मेरेन शिकिल्लें

आसलें. दोन फावट तें एकलेंच गोंयां वचून आयलें. मागीर समतेंच सखारामाक घेवन गेलें. वयताना ताणें मांयलो पदर धरून म्हटलें, ''गोंयां गेलीं म्हण विसरचीं ना तुमकां, येतलीं मदींमदीं.''

मे म्हयनो सोंपूंक आयल्लो. कुंबरांक ताकतीक लागिल्ली. तळ्यांत पावलभर उदक जाल्यारय मडक्यांक माती मेळची ना. सुकिल्ले दिपळे हाडूनच राशीक घालून दवरूंक जाय. आपली बायल लंगडी, पांगळी आसा, दुयेंत आसा काय गुरवार आसा तें पळयनासतना तो तिका तळ्यार, दोंगरांत व्हरतालो आनी मातये चोबो भरून तकलेर दितालो. आपूण मान बससर चोबो भरून घेतालो. आंगार धड मास नाशिल्लो उबो बसको हाडा कांटो - तकलेर चोबो घेवन वांकडें वांकडें जावन चलप.

पयस दोंगरांत रान खूब भितर गेल्लें, काळशे घनदाट जाल्ले ते सुवातेर एक उबो धुंवराचो पट्टो पातळिल्लो. ताका पावसाचो वास आशिल्लेवरी, तो वास कुंबरांच्या नाकाक तेंकिल्लेवरी कुंबार ताकतीक करतालो, हुडटी पावलां घालतालो.

घनशामान ह्या गिमाचो निमणो हावो घालूंक कळावच केल्लो. मडक्यो पेट्टा पेट्टा मदींच तो बरो ना जालो. घुंवळ येयल्लेवरी जाताली आनी तकली भुंयेक तेंकोवन न्हिदचें अशें दिसतालें. पेटिल्ल्यो मडक्यो सुकून कट्ट्यो जावंक लागिल्ल्यो. बायलेन आनी धाकले धुवेन मेळून कोळशाक लाकडां, पोनाक हांथळूंक बारीक लाकडाचीं जिगां, तण हाडून दवरिल्लें. वयल्यान हावो लिंपूंक तणाकुटारो आनी तांबडी मातीय हाडून घातिल्ली.

एक दीस दनपरां घनशामान हावठणाच्या तोंडार वांवभर रुंद आनी देडेक वांव लांब सुवातेर बारीक लाकडां जिगां आनी तण हांथुळ्ळे. ताचेर दर मडके पोनाक चुंबळ लावन लांबचे लांब तीन घण्णां दाळ्ळीं. ताचेर वयल्यान माळ्यांनी आनीक दोन घण्णां. वट्ट णव घण्णां. दर एका घण्णाक स मडक्यो. तातूंत घुमटां, बुडकुले, चरवे, खुळणी, बिंदुलां, कळशे अशो बारीक मोट्यो सरबरशी

मडक्यो. घनशामालीं घण्णां दाळून जातात तेन्नाच सीतायली सून तारा चोबोभर मायट्यो, तवे, पण्ट्यो घेवन येयली. तिणें त्यो घण्णां मदींमदीं तेंकयल्यो.

अशेंच आसतालें. कुंबारांल्यो रांडाव बायलो वेगळो हावो केन्ना घालिनासल्यो. कोणाल्याय हाव्यांत आपलीं लुंडकां लखयताल्यो.

घण्णां दाळून जातकीर घनशामान तांचेर जाड तणाकुटारो पातळायलो आनी हावो वयल्यान पातळ तांबडे मातयेन लिंपून घेतलो. तो आतां हतीले फाटीवरी दिसूंक लागलो. मागीर ताणें हाव्याच्या मुखासरीं सुखीं लाकडां लासून बरे इंगळे करून घेतले. थोडे थोडे इंगळे चार पांच फावट मुखांत सारून हावो गरम करून घेतलो. हावो ल्हवल्हव गरम करून घेनासतना समतोच उजो दिल्यार मडक्यांचीं कयलांच हातांत पडपाचीं. हावो गरम करून घेवन आतां ताणें भितरल्या लाकडां जिगांक, तणाक उजो दिलो. हावो भितरल्यान पेटूंक धुमसूंक लागलो. बाजूच्या दोनूय कानोळ्यांतल्यान उजो धुंवर वयर सरूंक लागलो. हाव्यांत उजो पसरता तसो वयर फाटीर बोते मारून चिंवळ्यो सोडल्यो आनी उजो पुराय हाव्यांत खेळोवन घेतलो. आतां दोनय कुशीच्या दोनय कानोळ्यांतल्यान, वयल्या चिंवळांतल्यान उज्याचो भगभग दिसूंक लागलो. भितरलो धुंवर वयर सरूंक लागलो.

दनपरां तिनांक ताणें घण्णां दाळूंक सुरवात केल्ली. मडक्यो भाजून वयलो सकल्लो उज़ो पालवता म्हणसर रातचीं धा वरां जाल्लीं.

उशीर जाल्लो तरी घनशाम पावसाविना बरो सुटिल्लो. ताचे उपरांत दोनच दिसांनी हावो घातिल्ल्या यशवंताच्यो ख्यास्ती जाल्यो. हावो दाळून, लिपून तो इंगळ्यान हून करून घेता थंयच आसा, अचकीत सों सों वारो वेळूंक लागलो. दिसतालें, हाव्याक आतां उजो दिल्यार उज्यासयत हाव्याचें कवळ हुडून वयतलें.

वाऱ्या वांगडा मळबय भरून येयल्लें. वारो रावलो आनी आतां पावसय झडूंक लागलो. यशवंताक कितें करचेंच सुचना जालें. हावो उपसून दाळिल्लीं घण्णां काडूंक जाय आसलीं. इतले म्हणसर तागेलीं बायल भुरगीं आनी हेरय धांवन येयले. हावो उपसून तांणी कच्च्यो मडक्यो काडल्यो आनी खंय खंय लागीं अडसराक व्हरून दवरल्यो. म्हण्टां पावस एकदम वाडलो, निमाणें चार मडक्यो भिजून तांचो चिखल जालो.

मे म्हयनो सोंपूंक पावस झडूंक लागिल्लो तो मदीं मदीं इल्ली उघड धांप

करीत पडत रावलो. बऱ्याच जणांच्यो पेटिल्ल्यो कच्च्यो मडक्यो तशोच घरांत पडून उरल्यो. हाडून आंगणांत सुखोवंक घातिल्ले मातयेचो चिखोल जालो. आसोर आनी वोता बगर कुंबरांलें कांयच काम जायनासलें. माती सुखोवन, बडोवन चाळूंक, पेटिल्ल्यो मडक्यो सुखोवंक, हावो घालूंक, विकरेक वचूंक आसोर जायच आसलो.

ह्या वर्साक पावसाळो इल्लो बेगीनच सुरू जालो. पडूंक लागिल्लो मागीर तो थाल्लोच ना. गिमांत घरांत घण्णां घालून दवरिल्ल्यो मडक्यो बायलो जिवाजाळाक चोब्यांत घालून घेवन विकरेक वयताल्यो. मदींच घोऽ करून पावस पडूंक लागतालो. मडक्यांनी उदक भरताले. बायलो मागीर चोबो धोंपरार घेवन सकल दवरताल्यो आनी पावसांत भिजत उब्यो रावताल्यो. आंगार वोलें घेवन गांव भोंवताल्यो. 'घेयात गे एक तरी, भुकेक हाडल्यात' म्हणटाल्यो. घरा येवन खोंकत बसताल्यो. केंसांतल्यो उयो बरगिताल्यो.

पावसाचे तीन म्हयने तरी कांयच कुंबार काम जायनासलें. दादल्यांक तर कांयच काम नासलें. ते आंग कवळून घेवन घरांत पडून आसले. भूक सोंसप आनी भूक मारप हेंच आतां कुंबरांक खरें काम आसलें. भरिल्ल्या मळबांत सुर्या उदेल्लोय कळनासलें आनी मावळिल्लोय कळनासलें. भुकेच्या चक्रारच दीस मेजप जातालें. शेताकेरांत चोंयवटेन कुळवाड्यांलें शेत पांचवेंचार तरतरून येतालें. गांव पुराय तुश्ट, तृप्त दिसताना कुंबारवाडो भुकेन जर्जर जातालो. वाड्यार मोनेळ पडटाली. मळबांतलो कुपां धुंवर घरांनीय देंवन येतालो.

श्रावण लागता म्हणसर कुंबार सामको तेंकिल्लो. दाण्यागोट्यांची पोंदां बरगून जाल्लीं. बायलो सकाळ सांज हातांत पोती घेवन कुळवाड्याल्या वाड्यांनी, वाणयाल्या पसऱ्यांनी उश्णें उधार मागूंक वयताल्यो. कमरेक जुनेरां कुडको बांदून कुळवाड्यागेर नडूंक नाटूंक वयताल्यो. पडभर तांदळा खातीर दीसभर राबताल्यो. कुळवाड्याल्या बायलां बराबर नडूंक तांच्यांनी शेव धरूंक जायनासलो, त्यो फाटीं पडटाल्यो. कमर दुखून येतालें. नेट लायताल्यो तरीय उलोवणीं खाताल्यो. भुकेच्या ओगार हात पांय थरथरताले. मागीर ल्हवूच कुशीन सरून शेतांतल्या उतरळांतलें उदक पिवन येताल्यो.

शेतकामाक गेल्यार दनपारचें जेवण शेतामेरेरच पडटालें. वाडो लागींच

आसल्यार बायलो इल्लें जेवन पान तशेंच गुठलावन हाडून घरा भुरग्यांक दिताल्यो. एक दीस गोपाळा बायल गुलाबी मुकुंद नायकागेर नडूंक गेल्लें. एका पांयान मात्शें लंगडें पूण घरादारांत ताचो वावराचो आटाप मोटो. लंगडें तरीय शेतकार ताका मुद्दम कामाक आफयताले. मुकुंदाली सून दनपरां शेतामेरेर जेवण घेवन येयल्ली. तागेले मांय वांगडा आनीक दोगाजणां दिसवड्याक आसलीं. वाडटना 'भूक लागल्या गो बाय' म्हणत गुलाबीन इल्लें चडच सुनेकडच्यान वाडून घेतलें. पूण इल्लें चाखलेंशें करून तशेंच पान गुठलावन घेवन मेरेवयल्यान लखत वाड्यावटेन धांवंक लागलें.

"आगे, आगे खंय वयता?"

"घरा सगळीं उपाशीं आसात गो बाय सकाळसान. येतां, आत्तांच येतां."

मुकुंदाले सुनेन ताका परत आफयलें. आपणें जेवंक म्हण चोबलांत पानांत दवरिल्लें अर्दें शीत तागेल्या पानार घातलें. मायटेंतली सुकेल्या कडीय इल्ली वोतली. गुलाबीलें काळीज भरून येयलें. ताणें म्हटलें, "देवी आवयच गे तूं बाय!"

...चवथीक गणपती रेखपी रामचंद्र एक दीस सकाळींच उठून तळ्यार चिकण माती हाडूंक गेल्लो. गळोभर उदकांत देंवन ताणें बुडून बुडून चिकण माती काडली. ताचो व्हड गुळो करून भोंवतणीं सागवानी पानां गुठलावत तो तकलेर घेतलो. रावन रावन इल्लो पावसय पडटालो. बरोच शेळावय मारतालो. चोंयवटेन पांचवींचार शेतां, तणान भरिल्ल्यो मेरो, इल्लो इल्लो पावस आनी शेळाव...

बुडून माती काडटानाच तागेलो भुकेचो वोग वाडिल्लो. आतां तकलेर मातये गुळो घेवन चलतना तो बरोच खर जाल्लो. रातीं तो धड जेवंक नासलो आनी सकाळचेंय कांय खावंक नासलें. चलतां चलतां भुकेन जसो अच्छेवच केलो. शेतांतले मेरेवयल्यान चलताना तो सोरो पियेल्लेवरी लखतालो. मेरेवयल्यान पावल चुकतालें आनी शेतांत धानार पडटालें. बळाबळ ताणें कसोतरी वाडो लागीं केलो. आबोलें घरांत आशिल्लो एक बुडकुलो हातांत धरून तो कोणाकय दिवन पडभर तांदूळ मेळटात काय पळोवंक म्हण गांवांत वयताली. तिणें पळयलें, हो लखलोसो कित्याक करता... पूण दुसऱ्याच खिणाक तो मातये गुळ्यासयत शेतांत उदकांत पडलो. तिणें एकदम बोब माल्ली. "धांवात रे, आगो आनंदी,

तुगेलो घोव पडलो शेतांत.''

आनंदी आनी हेर बरेच जण तेवटेन धांवले. आबोलेंय फाटल्यान धांवन गेलें. सगळ्यांनी मेळून ताका धरून हाडलो. रामचंद्र पिरपिरलो, ''भूक सोंसूंक जाली ना पाडपडिल्ली. कुंबराली भूक रडना ती. आवंडो घोट्टा म्हण कळना.''

आनंदीली पेज अजून चुलीर खतखतताली. शेजारचें गोकूळ बेगिबेगीन मायटेंत पेज घेवन येयलें.

भुरगीं दीसभर भुकेन रडटालीं, 'खाऊ दी, जेऊ व्हाड' म्हणटालीं. हांचेर एक उपाय बायलांक खबर आसलो. दोंगरांत पेटारो म्हण एक भूंयकांदो जातालो. खणून काडल्यार तो बटाट कसो मेळटालो. उकडून खायल्यार रुचीक लागतालो. पूण तो पचूंक जड. खायल्यार दीसभर भूक लागनासली. पूण तो खणून हाडून खावप बऱ्या लौकिकाचें काम न्ही तर उणेपणाचें लेखताले. पूण बायलो गुपचूप चोरून वयताल्यो आनी खणून न्हेसणांत घालून हाडटाल्यो. सकाळीं उठून भुरग्यांक उकडून दिताल्यो. ताचेन भुकेची रड दीसभर चड आयकुवची पडनासली.

पुरशा बायल जानकी इल्ल्या घट हाडांची आसली. ती शेतकारांगेर लुवणे तेंपाक लुवंक मळूंक वयताली. 'मामा, हांव लुवंक मळूंक येतां' म्हण सांगून पावसाळ्यांत आदींच तांदूळ भात हाडून खाताली. सकाळीं उठून सांसपिल्यार जानकेल्या गाडग्यांत, मडकेंत एक मूठ तांदूळ नासले. घोवाक, भुरग्यांक कितेंय शिजोवन घालूंक तर जाय, तिका हुसको दिसतालो तो मदलो चेडो विश्वासालो. वाडटे भुकेचो भुरगो. हरशींय पयलीं पसून ताच्यान भूक साप्प सोंसूंक जायनासली. भायर पावसय पडटालो आनी सगळो वाठार भिजिल्ले कांबळीवरी जाल्लो.

ती उठली आनी कुळवाडी उत्तमागेर गेली. ''मामा, चुलीर आदन दवरून येयलां, कुडवभर तांदूळ दी. लूवंक येवन पावयतां.''

उत्तमान म्हटलें, ''तुमी कुंबरां मुगो. तुमचेकडेन वोतांत कामांच जायनात, बेठीं नगाक येवन उबी रावतात. लुवंक बाग घेतल्यार एक मूठ जावचे पयलींच उबीं. तकलेर धानां वोजें घेतल्यार चलतना पांयां पोनांतली मूय मरची ना. तुमी केन्ना उतराक फटयनात म्हण तुमकां मानतात आमी.''

''मगेलें तशें ना मामा. मगेलें काम चयलें ना तुवें. पावस बीन येयल्यार हांव धांवतां, लुविल्लें बांदूंक, खळार व्हरून घालूंक.''

पूण उत्तमान तांदूळ ना म्हटलें आनी चार कुडव भात काडून मेजून दिले. ते तकलेर घेवन येताना जानकी चिंतताली. हें भात ह्या पावसांत कशें उकडटलें, कशें सुखयतलें, केन्ना तांदूळ करतलें हांव? पूण आजची भूक तर भागोवंक जाय आसली!

तिणें घरा येवन दोनेक कुडव भात कुशीन काडले आनी ते बुडकुल्यांत घालून घरांतले चुलीरच उकडूंक दवरले. पोन्नें भात उकडीनासतना तशेच कांडूंक घातल्यार पिठो जावन वयतासलो. चड उकडल्यार बेगीं सुकचे ना म्हण तिणें ते शीर फुटसरच उकडले आनी चुलीवयल्यान सकल काडले. शीत वाळिल्लेवरी वाळून तांतलें पुराय उदक काडून घेतलें.

मागीर चुलीवयलो उतव बरोच सकल घेतलो. उतवार साकाफटे सोडोवन उकडिल्लें भात ताचेर बारीक पातळायलें. सकल्यान बारीक लाकडां, शिरपुटां घालून चुलीक बरोच उजो केलो. सकल्ल्यान उजो केलो आनी वयल्यान भात चाळत रावली. तें बरें सुक म्हणसर वेळ तकलेवेल्यान देंविल्लो.

सुकतकीर तिणें ते वायनार घालून मुसळान ल्हव ल्हव कांडून ताचे तांदूळ केले. मागीर सुपांत घालून हासडून जाय तितले आदनांत रखयले. तिगेलो मदलो चेडो विश्वास सगळें पळयतालो. ताणें आवयक म्हटलें, ''भाऊ आनी शीला वयनी उठून गोंयां गेलीं तें बरेंच जालें न्ही गे?''

''हय रे पुता, दुसऱ्याल्या त्या पोराक आनी हें दरिद्रपण नाका आसलें. पूण हांव सांगतां तुका, तें आमचे बराबर भूक सोंसतासलें वोग!''

''अर्थ ना आई आतां. आमी हो कुंबार धंदो सोडचोच.''

चवथ लागीं पावता म्हणसर कुंबार अर्द जाल्लो. भुरग्यांबाळांच्या फक्कत काट्याक जीव. एक पावसाळो हाच्या आंगावयल्यान गेला तरीय ते जिवे आसात हें तांचें मोटें कर्तुब आसलें. अशें म्हणटात, कुंबारांलीं मरणां चड करून पावसाळ्यांतच जातात. भागून बरगून.

चवथ लागीं पावली आनी पावसाचो जोर उणो जालो. वाड्याक इल्ली हुनसाण येवंक लागली. वोत पावसाच्या खेळांतच कुंबार आपल्यो मडक्यो सुखोवन भाजून घेवंक लागलो. पावसाचो अदमास पळोवन हावे चडूंक लागले. मडक्यांनी

भरिल्ले जाबळे गांवागांवांनी वचूंक लागले. 'बाय, चवथीक म्हण तरी एक मडकी घे' म्हण सांगतकीर मडक्यो खपूंक लागल्यो.

कुंबारवाड्यार चार घरांत तरी चवथीक गणपती केल्ले. तांकां बोळू, रंग काडटकीर वाड्याच्या तोंडारय उमेदिचो रंग चडिल्लेवरी जालो.

कुंबार चड करून वर्सावळीचेच वा आदी सांगिल्लेच गणपती करताले. एक दीस ते येताले आनी उतराचो नाल्ल दिवन वयताले. मागीर कुंबार तांच्या नांवान गणपती थापताले. चड गणपती थापून दवरूंक हो कुंबारवाडो आडवाटेर पडटालो. वाड्यार येवंक रस्तो नासलो, पावसांत तर उदकान भरिल्लो व्हाळ बळांटून शेतामेरेवयल्यान राखून येवचें पडटालें. वाड्यार रामचंद्र, गोपाळ, पुरसो, शिवराम हेच चवग जाण साताठ गणपती करताले. फक्कत शिवराम एकलोच सांगणे भायर कांय गणपती करतालो आनी ते तो आनी तागेली बायल मेळून माथ्यार मारून व्हरून माजाळे बाजारांत कोणालेय वासरेर दवरताले.

घरांत गणपतींचें मुळवण घालतसान मासळी, मास घरांत हाडूंक फावना असो नेम आसलो. हेर सगळे तो नेम पाळटाले पूण शिवराम कांयच माननासलो. एके लायनींत गणपती उबे केल्ले आसताले आनी मदीं चुलींत भाजूंक घातिल्ल्या खाऱ्याचो वास घुंवतालो वा तेगेली बायल नुस्तें सरी करून घेवन देवा मुखाल्ल्यानच वयताली. तो म्हणटालो, "गणपतीक नेत्रां काडलेबगंर तो देव न्ही." चवथीक दोन दीस आसताना बायलेले तकलेर गणपती दिवन तो माजाळे व्हरतालो. वाटेर विठ्ठल नायकान एक फावट म्हटलें, "शिवरामा, बायलेले तकलेर देव रे? हें अशें केन्ना जालें ना, चयलें ना."

"मामा, नेत्रां काडलीं नात देवाक. नेत्रां काडचे पयलीं मातये गुळोच तो."

रामचंद्राकडेन पूर्वचाराचे तीन गणपती आसले. आज्ज्या, पणज्या मुस्तींतल्यान ते करीत आयिल्ले. आदीं येवन सांगलें ना तरीय चवथ आयली म्हणटकीर ना चुकना तें करप. चवथी दिसा सकाळीं ते लोक पड घेवन येताले आनी वाजंत्रा

लावन गणपती घेवन वयताले. अशे गणपती कोणागेरूय पूर्वचाराक आसप भौमानाचें मानताले. कोण पुर्वाचाराचो नेम चुकयनासले. अशे लोक आनी कुंबरांमदीं भावनेचें एक बरें आपलेपणय नंदतालें.

चवथी दिसा सकाळीं वाड्यार मोटो उत्सव चलिल्लो. गांवचे लोक पंगडांनी पोऽऽ करून वाजंत्रां वाजयत येताले, पड, पयशे दवरून गणपती घेवन वयताले. गणपती उखलतना चार फुगोट्या मारांद मारताले. मोटो घडघड चलिल्लो. बरेंबरें न्हेशिल्ले नवें लोक गांवांत येताना बरें दिसतालें. जशे ते लोक येतना सुवासीक अत्तर लावन घेवन येताले आनी तो वास वाड्यार पातळटालो. आज वोतय इतलें चोक्क पडिल्लें, वयल्या आमले रुखाक जुमानीनासताना वोताचे भोंवरे भुंयेर देंविल्ले. भागिल्लो कुंबार पावसाळ्यांत तीन म्हयने सोंशिल्ली भूक विसरून गेल्लो आनी ह्या सुवाळ्यांत एकरूप जाल्लो.

पुर्वाचारासान चलिल्लो गणपती व्हरूंक देसायवाड्यावयलो लोक वाजंत्रां घेवन आयिल्लो. वाजंत्रां वाजयत मार उमेदीन ते रामचंद्राल्या घरावटेन गेल्ले. पूण कांय वेळान रामचंद्राल्या आंगणांत तांचीं वाजंत्रां वाजतालीं तीं गप्पकरून बंद पडलीं. व्हडान उलयल्लोय आवाज आयकोंक येयलो. कुंबरांनी तेवटेन कान दिले. सीताय आंगणांत येवन उबी रावली... पिळग्यांसान चलून आयिल्ल्या वर्सावळीच्या गणपतीचें मोल तोंडान सांगूंक फावना असो पूर्वापार नेम आसलो. ते पडींत दवरतात तें घेवचें. तें आजवेर कुंबारान पाळ्ळें, पूण आतां दीस वायट येयल्ले, म्हारगाय मळबाक तेंकिल्ली. कांय जण त्या नेमाचो फायदो घेवन सामकेच उणे पयशे पडींत दवरताले. कुंबरांचो घुसमटमार जातालो, केन्ना रंगाचेय पयशे येयनासले.

रामचंद्र पळयतालो, सुब्राय देसायगेले लोक गेल्लीं चार वर्सां पडींत फक्कत एकशें एक रुपये उडयतात आनी गणपती उखलून व्हरतात. अंदूय एकशें एकच उडयतकीर ताका तिडकच माल्ली. तरीय तेणें ती दामून घेवन तीन बोटां दाखोवन तिनशें दियात म्हण शिनाल केली. तांणी कळूनय ना कळिल्लेवरी केलें आनी गणपती उखलूंक लागले. कोणेंतरी म्हटलें, ''जाले, जाले. तितलेच.''

रामचंद्रान तांकां रावयले आनी रागान म्हटलें, ''चार पांच वर्सां जालीं हांव

पळयतां, एकशें एक उडयतात आनी गणपती उखलून व्हरतात. तुमची देसायांची हीच ऐपत म्हण समजुवची? म्हारगाय खंय पावल्या. तुमच्या शंबर रुपयांत एक बरो इस्वण येवचो ना.''

तांचे मदले कांय तरणाटे आसले ते तांकां लागलें. ते कॅच् कॅच् करून उलोवंक लागले. ''आमची ऐपत काडटा? इस्वण खंय इस्वण... देवान दिल्ली तळ्यांतलीच माती मुरे ती. तुवें हाडून थापली आनी इल्लो रंग ओडलो...''

रामचंद्रान आनीक राग येयलो. ''देवान दिल्ली म्हणटात तुमी? तुमचीं कुळवाड्यांलीं शेतां देव पिकयता म्हण कोणाकय तुमी काडून वाट्टात? एक मडकी घेतल्यार तुमच्यो बायलो भाताची हासुडिल्ली पोल काडून दितात, मोल म्हण.''

हें आनीक वाडटासलें. थंय आतां यशवंत आनी विश्राम येवन उबे राविल्ले. देसायां मदलो एकलो जाण्टोसो समजिकायेन मुखार येयलो. तेणें म्हटलें, ''देवा मुखार झगडीं बरीं न्ही. देवासरीं वाणपण करतले जाल्यार देव करूंक कित्याक जाय आनी पुजूंक कित्याक जाय?''

विश्रामान रामचंद्रालो हात धरून ताका भितर व्हयलो. पूण तागेली बायल भायर पावळेंत उबी आसली. तिणें म्हटलें, ''तुमचो देव जायत पूण आमचें पोट तें. तुमी व्हडलें देसायांलें नांव सांगतात आनी आमच्या पोटाक मारूंक पळयतात. कसली व्हडवीक ती.'' आनंदीलें उलोवप इल्लें भायरच गेल्लें. उलयतकीर तिकाच दिसलें, हें अशें आपूण उलोवंक फावनासलें.

त्या लोकांनी तिका रागान पळयलें. एकल्यान म्हटलें, ''ती आमचें नांव आनी कूळ काडटा. व्हरचोच न्ही आमी गणपती तेंगेलो. या, आमी परते या.''

त्या जाण्टेल्यान परतें म्हटलें, ''देव दारांतल्यान भायर काडला. मुखार पड दवरल्या. ती पड उखलून परती व्हरचें बरें न्ही. मुखार पोरातारांचें बरें जावंक जाय.''

त्या लोकान आनीक कांय नोटी काडून पडींत दवरल्यो. यशवंत भायर उबो आशिल्लो. तेणें रामचंद्राक उलो मारून भायर आफयलो आनी गणपती उखलून तेंगेले तकलेर दी म्हण सांगलें. रामचंद्रान मोन्यान गणपती उखल्लो. पूण वाजंत्रां

वाजलीं नात आनी मारांदय पेटले नात - ते मोन्यानच चलूंक लागले. इल्ले मुखार वयतकीर तांतल्या एकल्या म्हाल मनशान फाटीं वळोन म्हटलें, ''मुखाल्ल्या वर्साक अनीक गणपती करूं नाका. हेंच निमाणें. आमच्या पुर्वोजांलें उतर फाटीं घेवन वयतात आमी.''

तेन्ना थंय एक किण्ण थंडाय पातळ्ळी. पांखाटे मोडिल्लो कावळो घब्ब करून येवन मुखारच पडचो तशें जालें.

विश्राम घरासरीं वचूंक वयतालो. सीतायन आंगणांतल्यानच ताका उलो घातलो. ''कितें जालें रे विश्रामा?''

''देवा मुखार तंटे केले तेणी, मोलाक लागून. पडींत पयशे सामकेच उणे दवरिल्ले गे. रामचंद्रअण्णान म्हटलें, एकशें एक रुपयांत एक विस्वण तरी येता काय म्हण. रागान गेले ते, आनीक आनी गणपती करचो नाका म्हण.''

''हें वायट जालें विश्रामा. म्हाका लग्न करून हाडतसान हांव पळयतां, हे देसाय दर वर्साक येवन गणपती व्हरताले. त्या निमतान तरी वाड्यार थोरमोट्यांचे पांय लागताले. वयताना वाड्याक शिराप दिवन गेले आसतले.''

''पूण हांव म्हणटां सीताय आवो, ह्या काळांत कुंबारच कित्याक किंकोंत जावचो? भायर गांवांत पांचशें सयशें रुपये दिवन गणपती व्हरतात आनी हिंगा कुंबरां मुखार शंबर रुपये उडयतात. आमच्याच गणपतींक, आमच्याच मडक्यांक कित्याक मोल ना? कुंबरांले वस्त्रगाळ मातयेंत फातर कालयल्यात सीताय आवो.''

''पूण पोटाक भूक लागली म्हण कोण मूळ मारून खायना...'' हें उलयली आनी सीतायली जीब आडखळ्ळी. ती वोग जाली. गेल्ल्या सच म्हयन्यां फाटीं तिणेंय मुळार धपको घालचो यत्न केल्लो. सवाशीण बायलो मायट्यो, पणट्यो करूंक लागतकीर शास्त्राक मान्य नासतना तिणें रांड बायलेन चाकाचे मुंडळेक हात घालून मडके गळे काडिल्ले. ते मागीर बरोच तेंप आंगणा भायर रामफळी झाडा मुळाक तशेच पडिल्ले. सुकून वेरेवन गेल्ले. एक दीस सुनेन - तारान ते तिडकीनशे चोब्यांत भल्ले आनी पयस व्हरून फोडून उडयले. मनांत म्हटलें, दिसता मडें येता रडें.

घनशामालो एक बापोलयो मल्लापूर मावोड्यांतच राविल्लो. ताका चोवग जाण चेडे. एक दीस तागेलो धाकलो चेडो सीताराम अचकीत वाड्यार येयलो. ताचे वांगडा तागेली बायल आशिल्ली, पसरट गोऱ्या चेहऱ्याची, धबधबीत आंगाची. तो येवन घनशामाक सांगूंक लागलो, 'थंय धंदो सामको बसला. कोणाचेंच सारकें जायना. हांव हिंगा तुजेबरोबरच रावतां. हांव तुगेलो बापोलभाव.'

पूण घनशामा बायल रुक्मीण तांकां आपणा वांगडा दवरून घेवंक कशीच तयार ना जाली. तिणें म्हटलें, ''तुमगेलो धंदो थंय बसला आनी हिंगा कितें कळसाक तेंकलां. तूं तेंचेकडेन झगडून येयला दिसतलो. नाका, आमचे बराबर रावं नाका तूं. वळखता तुका हांव, तूं खंय धड तिगपी मनीस न्ही.''

पूण तो बायलेक घेवन तेण्यार तसोच बसलो. वांगडा साकांत घालून हाडिल्लें थोडें सामान आसलें. दोन दीस घनशामान जेवणावेळार तांकां पेज शीत कितेंय घातलें पूण तो परत वचनासलो. म्हणटालो, ''मगेल्या पुर्वजांलें हें ठिकाण, हांव हिंगाच पडून रावतलों. हय, थंय झगडूनच येयलां हांव. तेंचें परत आनी तोंड पळोवंचो ना म्हण सांगून येयलां.''

घनशामान चिंतलें, तो तेगेल्या वाड्यारच येयला. तेचोय इल्लो वांटो आसा. तेणें सीतारामाक म्हटलें, ''तुजेकडेन कितेंय आसा? पयशेबीन? पांगऱ्याकडेन एक खोप काडुंया.''

ताणें आपूण पांचशेंक रुपये मोडटां म्हण सांगतकीर दोनच दिसांनी पायें पडून साताठ जण, कुंबरांक घेवन ते रानांत गेले. रानांतल्यान तांणी मेडीं, आडीं, कण्णां कातरावन हाडलीं. दिसवड्याक कांय लोकांक घेवन हेवटेसान तेवटेसान थोडे फातर हाडले, वयले वयर घटण घालून ताचेर फक्कत हड्डेंभर उंच मातयेची वणत घातली. धाबारा दिसांत खोप तणां चुडटांनी शिंवनय उडयली. फक्कत एक कूड, पांय पसरावन न्हिदूंक मेळची येदी.

खोप घनशामाल्या घरा फाटल्यान सामक्या पोंतार एका कोनशांतशी आसली.

ताचेर पांगऱ्या रूख पातळिल्लो. पौश माघांत तो तांबड्याच फुलांनी भरतालो. खोंपीर खोंपी भोंवतणी फुलांची रास पडटाली. मागीर पांगऱ्याच्यो सांगो फुटूंक लागतकीर तांबड्यो बियो फासपून पडटाल्यो. लोक ते खोंपीक पांगऱ्याकडची खोंप म्हणटाले. हेवटेन लोकांची संवकळय उणी आसताली. खोंपीक लागूनच सकल्लेवटेन एक व्हडली कोंड्याआळय आसली, ताचेन वाड्या भायल्यान हांगा खोंप आसा तें कळय नासलें.

सीतारामाली बायल गोरी मांसाळ आंगाची आसली पूण सामकी सादी, अरवळ. कोणें कितेंय सांगल्यार 'हय बाये' म्हण तकली हालयताली. "आगो तुगेल्या घोवान तुजे पयलीं तीन लग्नां केल्यांत, तीन गांवांत तीन बायलो तेगेल्यो" म्हण सांगल्यार 'हय बाये, खरें बाये' म्हणटाली आनी मागीर दुसरेंच उलोवंक लागताली. "म्हज्या वेळार आवय स म्हयन्यांची गुरवार. आवयन केळीं खायलीं आनी साली जनेला भायर उडयल्यो त्यो ज्युस्त म्हाराल्या हातांत पडल्यो. म्हटलें, तुका केळीं आनी म्हाका साली..." रानांत जळोव हाडूंक गेल्यार कारो हुरो कसलींय बाबत लाकडां बांदून हाडटाली आनी घोवालीं उलोवणीं, मार खाताली. पूण ती तळ्यार, दोंगरार व्हरून केद्दोय व्हड मातये चोबो उखलून तकलेर दी, इल्लीय खर्शेनासतना हाडून आंगणांत उडयताली. चड करून हेरांलेच मातये चोबे ती व्हांवताली. तिगेलो घोव मडक्यो करनासलो, आपणाक जाय तशी माती आपूणच हाडटालो आनी फक्कत दिवजां करतालो. माती घेवन सीतायल्या आंगणांतल्यान वयताना केन्ना तिका आयकवशें करून म्हणटालो, "पिसाय, रांड, तेका माती बडोवंकच कळना, भिजोवंकय कळना. पोकळ माडी."

बायजें आंगामासान, हड्ड्याचोळयेन बरेंच भरिल्लें आसलें पूण लग्नाक चार वर्सां जालीं तरीय ताका भुरगें जावंक नासलें. बायलो तागेलीं फकाणां मारताल्यो. "आगो बायज्या. तुगेल्या घुमटार थाप पडच ना कितें गो?"

तें आपलेंच सांगतालें, "मगेलो बापूय सरडुकां मारून हाडटालो. तेंची कातडी काडून घुमटार चडयतालो. काय बरो घुमटां वाजयतालो जाणा मगेलो बाप्पा.आईबीन सरडुकां शागोती कायबरी करताली. हो आमगेलो घुमटां, मडक्यो पेट म्हटल्यार दिवजां करता."

सीताराम फक्कत दिवजांच करतालो, पिशें लागिल्लेवरी. गांवागांवांनी जत्रांनी हाणें केल्ल्या दिवजांची बायलांचे तकलेर पंचारत. एक म्हण दिवजां जत्रा चुकयनासलो. काणकोणा, कारवारा खंयच्याय गांवाची जत्रा तोंडार येयली म्हणटकीर चाळीस पन्नास दिवजां पिणग्यान भरतालो आनी तकलेर घेवन चलूंक लागतालो. मागीर चार आठ दीस नाच् जातालो. खंयखंयची जत्रा करतालो, खंय खातालो जेयतालो कांयच कळनासलें. बायजें हांगा कोणालेय मातये चोबे व्हांवतालें आनी कोणाल्याय घरा पेजे नीस घोट्टालें.

जत्रेक वचून भायलो संवसार पळोवनबीन येतालो. बायल उलयतना कितेंय वांकडें गेलें की तिका धरून पेट्टालो. मागीर तें ल्हान भुरग्यावरी रडटालें. "तूं येतलो म्हण पडभर तांदूळ राखून राखून दवरले हांवें. शीत मोव जाल्यार मोव जालें म्हणटा, घट जाल्यार घट उल्लें म्हणटा. म्हाका पिशी आजाय म्हण्टा..."

मागीर एक फावट सीताराम जत्रेक दिवजां घेवन गेलो तो परतो येयलोच ना. आठ दीस पंदरा दीस, म्हयनो तीन म्हयने जाले, येयलो ना. मागीर मल्लापूरसान तागेल्या भावांकडच्यान कळ्ळें तो फातरप्यां एकलेकडेन परतो लग्न जाला म्हण.

कळटकीर बायजान म्हटलें, "तसलोच तो पोजडो. म्हाका म्हण्टालो दिवजां खपोवन आपूण आबोले फुलां विकूंक बसतां म्हण जत्रेक. फुलां माळोवन, दिवज तकलेर दिवन भाळयलें आसतलें कोणाक." दीस उजवाडी तेणें हें म्हणिल्लें खरें पूण तिनसांज जातकीर तें आपले खोंपीच्या दारांत बसून होळोम काडून व्हडान रडूंक लागलें, कोण तरी मेल्ल्यावरी. मागीर खंयच्या तरी पोंतार आशिल्ल्या दोगतीन सुण्यांनी ताच्या रडपाक आपलो सूर धरलो. वाड्यार अवचिन्न आकांतसो पातळिल्लेवरी जालो.

कोणकोण बायलो दादले तेवटेन गेले. यशवंतान म्हटलें, "तो मेल्ल्यावरी कित्याक रडटा तूं? तो तेगेली थंय खाज भागयता. येता तेन्ना येता. तूं तुगेलें पळय."

कोणय तळ्यार, दोंगुल्लेंत माती हाडूंक वयतलो दिसलो की ताचे फाटल्यान धांवन वयतालें. तांचे वांगडा माती व्हांवतालें. येवं नाका म्हटल्यारय आयकनासलें. कोणय आंगणांत माती बडोवंक बसले की आपूणय कुडती घेवन वांगडा माती

बडयतालें. कोणय हावो घालतना थंयच गणमणत रावतालें. एक दीस गोपाळ हावो घालतालो. घण्णा दाळूंक हातांत मडकी घेतनाच बायजान म्हटलें, "हाव्यांत मडकी फुटल्यार ती म्हाका दी हां. तो एकलो कुळवाडी जाय म्हणटालो, शेतांत बुजाण्याचे तकलेर दवरूंक."

गोपाळ एकदम तापलो. "अवचिन्न रांडेची, हाव्याक मुळवण घालतनाच मडकी फुटूं म्हण्टा. चल लाग चलूंक हंयचें. ना तर तोणो घालतलों तकलेर."

घोव सोडून वयतकीर केन्ना ना ते दादले तागेले खोपींसरीं गणमणूंक लागिल्ले. तळ्यार कोणूय ताचे तकलेर चोबे दितालो आनी खंयूय चिमटी काडटालो, हड्डें आंवुळटालो. तें 'शी, दुखता' म्हणटालें आनी फाटीं वळोन चलूंक लागतालें.

आतां रातीं अपरातीं कोणय तागेले खोंपींत घुसतालो आनी ताचे कमरेक हात घालून ताका आड घालतालो. ताचो हयकारय नासतालो, न्हयकारय नासतालो. माजाक येयल्ले कोलयेवरी चीं चीं करीत वोग्गी पडून तें रावतालें. जाण्टे नेण्टे म्हणनासतना कोणय येतालो. मागीर मागीर वाड्या भायलेवटेसान कोणय कुळवाडीय येवन तागेले खोंपींत घुसूंक लागले.

देडेक वर्स तरी हें चलिल्लें. बरेच जाण हातूंत घुसपल्ले. कोण कांय उलयनासलो. बायलांकय खबर लागिल्ली. त्यो दुश्टपणान हो खेळ पळयताल्यो. तोंडाक उदक हाडूनशो फुतफुतत उलयताल्यो. म्हणटाल्यो, "तेका म्हूण तेगेली कूड ना? तेका तें सुख नाका?" वास घेतश्यो केन्ना दनपरां तिगेले खोंपींत वचून बसताल्यो. कुंबारवाड्यार हें अशें केन्ना घडूंक नासलें. हें नवें बायलो, दादले मज घेवन आयकताले.

कोणय बायल सीतायसरीं वचून सांगताली. सीताय सुलूस घेतशी भितरले वटेन पळयताली. सून लागीं ना मू हाची खातरी करून घेताली.

तिशींतली वयावयली रांडाव सून घरांत आसली. तिचो घुसमट ती पळयताली. तिणें चुलींतलीं जळटीं लाकडां भायर काडून धाडायलीं, आयदन आपटिलें, ती थंड सुलूस घेताली. केन्ना ती आंगार किसळल्यारय वोग रावताली. म्हण ती असल्या गांवावयल्या पाड पोजड्या खबरां पसून सुनेक पयस दवरताली, सोताय पयस रावताली. ना तर घडये ती वचून बायजालें शेणकूट धरतासली.

ल्हवल्हव घडये बायजा ह्या सगळ्याक विटलें. वोग वोग रावंक लागलें. आतां कोणय दादल्याली सुलूस लागल्यारय तें भियेल्लेवरी जातालें. ताणें कमरेक हात घालतकीर ल्हान भुरग्यावरी ईं ईं करून रडटालें.

धर्मुली आज्जी आतां णव्वद वर्सांची पिराय तरी पार करून गेल्ली आसतली. धर्मुली आवय पयलींच मेल्ली आनी आज्जी आशिल्ली. धर्मुलें गेल्ल्या दोन तीन वर्सांत पिवप इतलें वाडिल्लें, पिवन शेतांत मेरेर, आड्यार खंयूय पडिल्लो आसतालो. घरा येयल्यार घराच्या वारांदांत बसून कोणाच्या तरी नांवान बोब मारीत रावतालो. कुडीचोय सापळो जाल्लो. बायल आनी तेगेलो व्हडलो चेडो प्रेमानंद कसो तरी कुंबार धंदो करून आसले. धर्मुलो धाकलो भाव शाणू बायल मरतसान पिशांतुरावरी जाल्लो.

म्हातारे आज्जेक कोण चयनासलो. तिवय इतली पाड हटी आसली, भायर मागून खावंकच तिका बरें दिसतालें. ती हातांत एक मायटी घेवन हेरांल्या दारांत भोंवत आसताली आपणाक इल्लो पेजे नीस घालात म्हण. केन्ना ती मायटी घेवन बडी तेंकयत हूं हूं करीत कुळवाड्याल्या वाड्यांनी वयताली. तिचो एक्कान एक दांत गेल्लो आनी तोंडाचीं बोळकां जाल्लीं. धर्मुवरीच ती काळशी. तातूंत गालफटां सामकीं बशिल्ल्यान आनी ताळयेवेले केंस गेल्ल्यान विद्रूप दिसताली. हातांत बडी घेवन पांयांच्यो बडयो ओडत चलताली. सामकी म्हऱ्यान येवन दोळे बारीक करून पळयत कोणाकय विचारताली, ‘‘रातीं कोण रडटालो तुगेल्या घरांत?’’

खूब फाटीं ती एक खबर सांगताली – एक फावट खंय इश्वर देव सन्याशी रुपान कुंबरांली सत्यपरीक्षा घेवंक धरतरेर येयलो. कुंबार भाजूंक हावठणार मडक्यो दाळटना तेणें एक भांगराचो गाडगो नदर चुकोवन मदीं दवरलो.

दुसऱ्या दिसा हावो देंवयताना पळयल्यार भांगराचो गाडगो. तांणी तो गुपचूप व्हरून घरांत दवरलो.

हेर दिसा इश्वरान दारांत येवन विचारलें, ‘‘हावो कसो जालो? हाव्यांत कितें मेळ्ळें?’’

कुंबरान म्हटलें, ‘‘मेळ्ळें आनी कितें, मेळ्ळी माती आनी गोबोर.’’

इश्वरान स्राप दिलो, ''तुमकां आयुश्यांत माती आनी गोबोरच फाव जातलो.''

तर मागीर कितें जालें, कुंबराले ते दोग जण भाव आसले. ते त्या भांगरा गाडग्या खातीर झगडून घेवन मेले.

आजय कुंबरांल्या भावाभावांत बरेपण म्हण्टा तें ना. लग्न जाल्ल्या दुसऱ्या दिसा भाव दुसरी चूल मांडटा. वयल्यान माती आनी गोबोर खावचें दरिद्रपण.

म्हातारी आज्जी रातीं अपरातीं वाड्यार वाडोभर भोंवताली. ती पळयताली, दादले रातचे बायज्याले खोंपींत घुसतात, तेका कोंचोवन खातात. फाटल्यना खोंपीक एकच जनेल आसलें. ताका साक लायल्लो आसलो. साक मात्सो कुशीक करून चिमणे उजवाडांत पळयताली, दादल्यान कमरेक हात घालतकीर बायजें रडलेंशें करतालें. पूण ताच्या आंगापोनांक पडटकीर थंड जातालें. बेठेंच सुसकारत रावतालें.

एक दीस दनपरां ती बायज्यासरीं गेली. बोळक्या तोंडांत लुबडीं उतरां घोळयत तिणें विचारलें, ''तूं खाजूट गांवचेडी, कोणाकय घरांत घेता? तुका पिसायक इतली खाज?''

''ते दादले मुगे, येतात आनी घट धरतात. कितें करचें हांवें? घोव कित्याक सोडून गेलो तर म्हाका, तेणें रावचें न्ही?''

''हांव आतां पळयतां कोण तुज्या न्हेसणाक हात घालतात ते. वाड, मडकेंत कितेंय आसल्यार घाल.''

ती आतां सद्दां रातची बायज्याले खोंपींत दारांत आडवी न्हिदताली. भायर पावलां वाजलीं की भुंयेर बडी धाडायताली. येवन खोंपीचे ताटीक हात घातल्यार खेंऽ करून धेंकर काडीत खोंकताली. दिसतालें, आत्तां ही भायर आशिल्ल्याचेर धेंकर उडयतली. भायलो मनीस नाच् जातालो.

एक दीस गाबीत आंब्यारूख मागूंक परतून येयले. तीग जाण रुखापोनाक उबे रावन जशे रुखाक भोंवताडे काडूंक लागले. दोळ्यांर हात घेवन वयर पळोवंक लागले. कोणतरी रुखापोनांत येवन उलयतात, रूख पारखितात. गोपाळ, पुरसो, शिवराम आपलें काम सोडून तांचेसरीं येयले. पुरशान म्हटलें,

''फाटीं एक फावट रूख दिनात म्हण सांगून तुमकां परतिल्ले आमी. परते कशे येयले तुमी?''

''तुमच्याच मनशान येवन सांगलां, आतां आमी रूख दितले म्हण.''

''कोण तो?''

ते आडखळिल्लेवरी जाले. ''तोंडारच वोळखतात. नांव खबर ना.''

सगळे कांय वेळ वोगच रावले. आतां एकय कुंबारामदीं न्हयकाराचो नेट नासलो. धंदो बशिल्लो आनी जण एकलो अडिल्लो. गोपाळाल्या चेडवाक सोळा सोंपिल्लीं. कुंबाराल्या चेडवाक सोळा म्हणजे खूबच जाल्लीं. यशवंताल्या घराचे फाटले पांखे कमर मोडून भुंयेक तेंकूक येयल्ले. धर्मुली सोऱ्याची तान दिसान दीस वाडतच आसली. सीतायच्यान नातरांले भुकेन पिरपिरप सोंसूंक नज जातालें. जण एकलो हे ना ते अडचणींत सांपडिल्लो.

तांणी गाबत्यांक सांगलें, ''आमी सांजचे सगळ्यांक आफोवन विचारतात, अनुमती घेतात. पूण सवाय व्हरूंक सोदशात तर मेळचो ना. तुमी आनीक एकदोन दिसांनी येयात.''

''येतात, येतात. चड उणे कितेंय आसूं, आमी घेतातच तो.''

ते वचूंक गेले. सांजचे एकेक कुंबार मोन्यानच येवन जाण्टया सोयरूल्या आंगणांत एकठांय जाले. जण एकल्याक मनातळांतल्यान दिसतालें, ही गांवची सावळी, भुरग्याबाळांचो आंवडो तो विकचो न्ही. आंब्या तेंपाक हिंगा एक अखंड सुवाळो जाता. रासवळ धन तें कुंबारांलें, तेचेन कुंबार बांदून आसात आमी एक म्हण. पूण अडचणेंत एकेक पयसो पुनवेच्या चंद्राची मुद्रा कसो दोळ्यांमुखार उबो रावतालो.

पयलीं हे कुंबार कसलेय चवकशेवेळार बेठेच आपलें बळ दाखयत एक दुसऱ्यार तुटून वयताले. पूण आज वोगवोग बशिल्ले. आपले परीन कोणेय एकल्यानच उलोवन सगळें थाऱ्यार घालचें अशें दिसतालें. आपल्या पयल्या उतरान आपणाचेर आनी पातक नाका अशें दिसतालें. आपणें फक्कत हय म्हण तकली हालोवची.

सगळे कांय वेळ मोन्यानीच बशिल्ले. रामचंद्रान सगळे राजी आसात अशें

धरून मर्दीच म्हटलें, ''फार्टी पंदरा म्हणटात म्हण आयकल्लें. आमी तो पंचविसां सकल दिवचोच न्ही.''

''हय, पंचवीस सांगचेच.'' पुरशान म्हटलें.

घनशामान उतरां चाबडायलेंशें करून म्हटलें, ''उण्यात उणे म्हणटात ते चोवीस. ताचे सकल नाच.'' घनशामालो सादो हिशेब आसलो. चोवीस म्हटल्यार आठ घरांक तीन तीन हजार वांटून येतले.''

राघोबान एक फावट सगल्यांक जशें विचारलें, ''दिवचो न्ही रूख?''

कोनशांतल्यान एक शेळेल्लोसो आवाज आयलो, ''सावळ करता तो चड. वर्सभर शेळाव. मडक्यो सुखोवंक घालूंक भायर सुवात सोदची पडटा.''

सीताय येंवन कुशीक उबी आसली. तिका हें निमित्त आयकोन हांसचें काय रडचें अशें दिसलें. पूण ती दांत चाबून वोगच रावली. हेर कोणय हाचेर कांय उलयलो ना.

चड भासाभास करिनासतनाच सगळ्यांनी मानून घेतलें, सगळ्यांच्या मनांत रूख दिवचोच आसा. मागीर तांणी यशवंताक आनी पुरशाक मुखाल्लीं उलोवणीं गाबत्यांसरी करूंक सांगून एकएकलो उठून गेलो.

एक दीस धा-बारा गाबीत व्हडले व्हडले दोर घेवन येयले. तातूंत दोग जाण फिशाल रूख मारपी आसले. ते दोर घालून वयर कळसार चडले आनी तांणी आदीं पुराय रूख साकाळ्ळो. ते तशे वयर चडून रुखार आसतना मळबांत उबे राविल्लेवरी दिसतालें आनी सकल्ल्यान पळयतल्याक घुंवळच येताली. काम इतलें जिकिरीचें आसलें, खांदे घराघराचेर पातळिल्ले, घरां राखून खांदे मारूंक जाय आसलें.

दीसभर दोगांयनी मेळून रूख साकाळ्ळो आनी दुसऱ्या दिसाक एकेक खांदी दोर घालून सकल घेवंक लागले. रूख साकाळटकीर वाड्यावयलें मळब सामकेंच उकतें जालें आनी सुर्या दारांतच येवन बसला अशें दिसूंक लागलें. इतलो तेंप बरी दुरुस्त दिसपी घरापांखीं आतां चड गरीब, बागवल्लीं, बरगल्लीं कशीं दिसूंक लागलीं. दीसभर कुंबार अस्वस्थसो भायर भितर करतालो. तांकां घरां परतीं सावळेन धांपून उडोवचीं अशें दिसतालें. हें अशें उकतें पडिंग मळब, हो चकचक

आपणाक कांय सोंसचो ना! मागीर ते आपणे आपली रासवळ सावळी विकून खायली म्हण हळहळ्ळे.

पयलो खांदो भुंयेर पडटा थंयच आसा, धर्मू खंयसान तरी येयलो, सोऱ्याचे घुंवळेंतच. येयल्लोच आड्डलो, ''ये व्हडल्या तांडेला, तुवें रूख मारचे पयलीं रुखाची पूजा केल्ली?''

''हय तर, पयलीं पांय पडूनच मागीर रुखार घाये घातल्यात.''

''मागीर रुखाक गंधफूल कित्याक ना?''

''तशी पूजाबीन केली ना. असोच नमस्कार घातला.''

''तें कांय ना. ही पुराय सुवात कुळवाड्यांली. रूख सरकारालो. कुंबरांक बसूंक दिल्ली मणय मरे ही सुवात. तें कांय ना. आत्तां वचून कुळवाड्यांक लावन दितां, सरकाराक सांगतां. हालोवंक मेळचें ना कांय.''

''पूण तुमच्या सोयरू भगतासरीं चोवीस हजार फारीग केल्यात.''

''पंचवीस हजार सांगिल्ले आमी, चोविसार हाडले. हांव जाणा, त्या पुरशान आनी यशवंतान कमिशन खायलां तुमचे कडल्यान.''

''तशें कांय ना गा.'' गाबत्यान म्हटलें.

''ना, कितें? हांव रेंजराकडेनच वयतां.''

रामचंद्र थंय कुशीन उबो आसलो तो मुखार येयलो, रागान, ''चोट्टो, मांयझंयो, धमकी घालता कुळवाड्यांली, सरकाराली? गेल्लीं शंबर वर्सां कुंबार हिंगा रावतात. रिकार्डार, नकाशार आमचें नांव लागून गेलां. घेवन यो तेंकां, कितें करतात तें हांव पळयतां. सोऱ्या मुता तलफ येयल्यार घे तेचे कडच्यान मागून पांच धा. अशी धमकी घालूं नाका.''

त्या म्हाल गाबत्यान धर्मूक म्हऱ्यांत आफयलें आनी धाच्यो दोन नोटी काडून दिल्यो. तो वचूंक गेलो. वयताना तो बडबडटालो, ''ह्या व्हड्यांत राशींनी नुस्तें पडटा चय, बरे इस्वण, मांद, कल्ली. कुंबरांची याद करात, पावयात केन्ना. हे कुंबार देव रचतात. त्या सुवार्थी कुळवाड्यांवरी मानेर जूंव दिवन फाट फोडिनात बैलांली...''

तिसऱ्या दिसा रुखाचें हरिश्ट कांड मुळासान आड घातलें गाबत्यांनी.

शेंकड्यांनी वर्सां धरतरेचे मातयेंतली जिवी ओलसाण अचळय ओडून घेवन पानां फुलांचो, फळांचो रूपकार करपी, आपल्या फळांनी जाण्टया नेणटयांक धादोस करपी तो देवरुशी धरतरेर सास्टांग पडिल्लो, घात मारून गोमटी कातरिल्लेवरी. काल आशिल्लो, धरतरेचो तळ धरिल्लो मळबमेरेन व्यापून. आज ताचे कातरिल्ले कलेवर आडवे पडिल्ले. पळयल्यार ताच्या मुळाकडसान बारीक बारीक उदका थेंबे गळटाले, कोणाच्या नांवान रडटालो तो, कोणाक शिरापतालो?

त्या दिसा कुंबरांनी आपले पयशे वांटून घेतले. घराक तीन तीन हजार. ज्या घरांत दोगबीन भाव आशिल्ले तेंकां आनीक वांटून गेले. पूण एकल्याल्याय तोंडार पयशांची उमेद दिसनासली. धर्मून मात आठ दीस अच्छेव केलो. पयशे बायलेकडेनच दिल्ले, सोऱ्याक पयशे दी म्हण बायलेक नसत्यो गाळी संवतालो. बायलेकडेन पयशे दिले कित्याक काय म्हण दिल्ल्यांकच गाळी संवतालो. तागेलो भाव शाणू मात मदीं उबो रावलो. तेणें म्हटलें, ''होनये दिवं नाका तूं पयशे. मगेलोय वांटो आसा म्हण सांग.''

सीतायक मात एकच सूं जाल्लें, सुनेक आतां एक नवें कापड हाडूंक मेळटलें. ती न्हेसता तीं कापडां पळोवन म्हाकाच लज दिसताली. जाल्यार नातवाकय एक चड्डी, पैरण शिवंक जाय. खांद्यार पिनिल्लें पैरण घालून तसोच शाळेक वयता. येता त्या पावसा पयलीं एक गोण तांदूळ घेवन दवरूंक जाय. पावसांत एक गोण तांदूळ, हें चिंततनाच ती भुल्लुसली.

रातचीं धा वरां जावंक येयल्लीं. राघोबा पडवेंत बसून टोक टोक मडकी पेट्टालो. मडकी बरीच व्हड आसली. मुखाल्ले कवंजेंत ती घुंवडावन ती तो पेट्टालो. मुखार पेट्ट्या दिव्याच्या उजवाडांत मखरांत बशिल्लो देव कसो दिसतालो. हातावेलें पेटणें आनी भितरलेवटेन धरिल्लो फातर ज्युस्त मोखीर घेत तो मडकी पेट्टालो. मदींमदीं मातयेत पडसर चिकणमाती लावन घेतालो. माती सुकी दिसल्यार कुशीन दवरिल्ल्या अन्नांतल्या उदकात निसर बुडोवन घेवन ओलसार

करून घेतालो. मागीर माती पेटण्या बराबर धांवतालो. तेन्ना गोपाळ भितर सरलो. थंय आशिल्ली एक मणय घेवन मुखार बसलो. ताचे हातय मातयेन भरिल्ले. तोवूय मडकी पेट्टटां पेट्टटां उठून येयला असो दिसतालो. ''जाणा मुरे राघोबा, कुंबरांल्या हातांत दत्तात्रयाल्या चार हातांत आशिल्लेवरी चार अस्त्रां - चक्र, पद्म, गदा आनी शंख. चाक सुदर्शन चक्रावरी घुंवडावन कुंबार चालां काडटा. आमी माती बडोवन बारीक करतात ती कुडती ती गदा. हातांत पेटणें घेवन काय बरे नाजूकसाणेन मडकी पेट्टटात, मडके आकार दितात तें पद्म म्हळ्यार साळीक. मडकी पेट्टटाना भितरल्यान गुळगुळीत फातर धरतात तो शंखावरीच चय.''

''खरें तुजें गोपाळण्णा, सगळ्यांत आदलो धंदो हो. ब्रह्मदेवान पिर्तुमेक मुळवण घालताना खंय गणेश पड काडिल्ली. तेन्ना कुंबरांक खंय कुंभ घेवन मानान आफयल्ले. पयलीं दर देवळाक, गुडयेक कुंबरान केल्लो मातये कळस आसतालो. पुरूसभर उंच सोबीत कळस करताले आमचे पुर्वोज. कुश्ट आज्जो पयलीं काय बऱ्यो खबरी सांगतालो. मरणाकच न्ही हेर सगळ्या बऱ्या कामाक- लग्नाक, जोगवणेक, अश्टबंधनाक, घरप्रवेशाक शांती काडूंक आमची मडकी लागता. कितले तरेच्यो मडक्यो पयली, खुळणें, बुडकुलो, चरवो, तपलें, तवली, मानन, पडगो, दाबणें, पेण्णा मडक्यो, भाण, आडभाण, सुरीभाण, एक कुसाच्यो, दोन कुसांच्यो मडक्यो. आतां आमी फक्कत बुडकुले पेटचे. सांग, कित्याक येयल्लो सांग.''

''धुवेक शकुंतलाक एक सोयरीक येयल्या, कणसगिरीसान. हरी मुळवेकार म्हण तेगेलो पूत. तुगेलें मावांडें न्ही थंय? मनशां कशीं तीं? भुरगो बरो आसा?''

''मावांडें म्हण्टा, कितलीं वर्सा जालीं कणसगिरी पावन. आमच्या बायलांनी भोंवचे गांव. दादल्याच्या कुल्या सकल्लो साक सुटना. थाप मडकी, भाज मडकी. बायलांल्या माथ्यार जाबळो दिलो की आमी मेकळे. मगेली तितली वोळख ना. अपरुप्याक विचारून पळय.''

अपरुपें मदल्या दारांतच येवन उबें आसलें. ताका लग्नाक आठ वर्सांनी गुरवचार येयल्लो. तें म्होंव, तुपान जेवन येयल्लेवरी तुश्ट तुश्ट दिसतालें. मुदलांतलो करपट काळसर रंग वचून गोरें टवटवीत दिसतालें. तें मोगरे फुलां

खुंटिल्लेवरी उस् उस् करीत आसलें. विचारतकीर ताणें सांगलें, ‘‘भांगरा गुणांची तेंगेली आवय. मागल्यार काळीज काडून दिवपी. मध्यान रातीर कोणय सोयरो तेंगेर पावल्यार उपाशीं पडचो ना. बापूय हरीदाद बाबडो मोनो देव. एक उतर हे वटेन ना ते वटेन ना. आपूण भला आपलें काम भला.’’

‘‘पूण चेडोभुरगो कसो गो?’’

‘‘दुसरो नंबर चेडो दिनू आसतलो. आतां भुरग्यांची तितली वोळख ना. पूण बरीं भुरगीं तेंगेलीं, हुशार. कारवारा सांतेबाजाराक दर आयताराक दोन जाबळे मडक्यो चुकल्योनात तेंगेल्यो.’’

गोपाळाक इल्लें अजापच दिसलें. पयलीं इल्लें तीख तोंडाचेंच हें अपरुपें आज इतलें बरें म्हौंवाळ उलयतालें. ताची दिस्ट काडची अशें दिसलें.

राघोबान मदींच म्हटलें, ‘‘कुंबार बरो आनी वायट. हातापांयान घट उल्ल्यार जालो. बरो उरून कितें भांगर जोडटलो? शेवटाक हातांत पेटणें आनी फातरच मुरे?’’

‘‘तशें न्ही, कुंबार धंद्यांत आतां राम ना राघोबा. इल्ली चलाखी आसल्यार हेर कितें तरी करतलो.’’

अपरुप्यान म्हटलें, ‘‘आसात ते हुशार. कशेच उपाशीं पडचे नात. प्रसंगार कितेंय करतले बरें. तूं चिंता सोड.’’

रोखडेंच शकुंतलालें लग्न कणसगिरी थाल्लें. एक दीस चार पांच कुंबार गेले आनी नाल्ल फोडून उतर करून आयले. देण्याघेण्याचें, मानापमानाचें कांयच नासलें. व्हंकलेल्या बापायन आंगणांत माटोव घालून शास्त्र करचें, दिबणाक जेवण घालून लग्न करून दिवचें, इतलेंच.

तरीय गोपाळान शिरमंत पुजेक न्हवऱ्याक दिवंक एक पेन्टा कपडो आनी न्हवऱ्याले आवयक दिवंक एक कापड हाडिल्लें.

रूख विकिल्लो ते तीन हजार मेळिल्ले. गोपाळालो लग्न जाल्लो धाकलो भाव विश्राम वांगडाच रावतालो. ताका पयशांचें कितें करचें काय म्हण विचारल्यार ताणें म्हटलें, ‘‘लग्ना खर्चाचेंच पयलीं पळय तूं. तेंच सारकें कर.’’

पूण तितल्यान काय तें जावचें नासलें. आनीक उश्णें उधार जावचेंच आसलें.

एक बरें, कुंबरांक लोक पातेताले. माजाळे बाजारांतले वाणी कुंबरांले ऐपती परमाणें उधार दिताले. मागीर कुंबार ते पावयतां पावयतां खर्शेतालो. पूण केन्ना बुडयनासलो. बायलो तर उधारी पावोवंक खटासून उब्यो रावताल्यो.

सीताय आवो तर गेल्ले आठ दीस गोपाळाल्या घरादारांत वावुरताली. कसले विधी, कसलें शास्त्र केन्ना, कसलें सामान जाय, कितलें जाय तें ती सांगताली. जेवणाच्या सामानाची ज्युस्त एक्कानएक जिनसाची वळेरी तिणें गोपाळाक दिल्ली. हाडिल्लें राखताली, काटकसरेन दिताली. गोपाळाले बायलेन गुलाबीन कसलेंय हुतहुतेपण केल्यार ताका ती तापयताली. सीतायलें अशेंच आसलें. वाड्यावयलें खंयचेंय मरण घर आसूं, बाळंत घर आसूं, लग्न घर आसूं, तें तितले काळापुरतें तिगेलें घर जातालें. फाटली फुडली दुस्मानकाय विसरून ती थंय वावुरताली. वर्सा फाटीं दादले, सवाशीण बायलो मायट्यो पणट्यो करतात म्हण तांचेमदीं केद्दें व्हडलें झगडें जाल्लें. पूण आज ताचो मागमूस नासलो...

लग्ना चार दिसां आदींच दादल्यांनी मेढी पुरून बेस माटोव घातिल्लो. बायलांनी दोन दीस पांच पांच दांतीं मांडून लग्ना जेवणाचें दळप केलें. दळटाना बेस होवयो गायल्यो. विश्रामा बायल श्रीमंतीलो आवाज बरो गोड आनी उंच आसलो. तिका होवयोबीन बऱ्यो कळटाल्यो. ती होवयो म्हणटाली आनी हेर तिचे फाटोफाट सूर धरताल्यो –

> न्हवऱ्या घरा तांब्याचें गे तामण
> न्हवरो गे रुपान गोरोगोरो बामण...
> शकुंतला बाये गे लजता कित्याक फुला
> न्हवरो येतलो बसून गे माचुला...

लग्ना आदल्या दिसा दादल्यांनी कुळवाड्यांल्या वाड्यार वचून कणात्तरी, हातर, हातऱ्यो हाडल्यो. कणात्तरेन माटवाक कडेवे केले. लोकांक बसूंक आंगणांत हातर हातऱ्यो सोडयल्यो. मागीर माटवाक आडव्यो उब्यो आनीक खूब आंब्या पानाताळे बांदले. आतां माटवाक खरेंच देवमंटपाचें रूप येयलें. ताका देवळाचीच सासाय चडिल्लेवरी जाली. मागीर हांवठणासरीं तांणी रांदूक ल्हानसोच 'रोशया' माटोव घातलो. थंय दोन व्हडलीं मातये भाणां उदकान भरून दवरलीं.

कुळवाड्यांल्या वाड्यांनी वचून कांय तोप, पंचाडी, पराथा हाडली. रांदूंक वाडूंक म्हण.

आदल्या दिसा दनपरां हळदी मूर्त जालो. हळदीक गोपाळ आनी गुलाबी चेडवाक शकुंतलाक घेवन बशिल्लीं. भट व्हडव्हडान मंत्रां म्हणटाले आनी मदीं कितें कितें फर्मायताले. एक फावट गोपाळाक भटान फूल दिलें आनी चुकून म्हटलें, ''जानयेक खोवप.''

कुशीन कांय दादले बशिल्ले आसले. तांतल्या रामचंद्रान म्हटलें, ''आमकां कुंबरांक जानीं आनी खंयचीं भटमाम? आमची मुंज करिनात तुमी.''

''मुंज करूंक गोत्र आसूंक जाय न्ही? गोत्र खंयचें तुमचें? गोत्र नाशिल्ल्या शंकर म्हादेवाची मुंज लेगीत केली ना आमी. तो अरण्यावांशी. तुमी केल्ली मडकी स्मशानार फोडटात. शेतकार मातयेंत कोंब किल्लयता. तुमी माती भाजून कयलां करतात...''

गोपाळ मदींच तापलो, ''वेळ खंयचो आनी तुमी उलयतात कितें अवचिन्न.''

मागीर बायलांनी व्हंकलेक हळद काडली. एक बडयेक एक तांब्याची पळी बांदिल्ली. पांच जण सवाशिणी ती बडी धरून गायनां म्हणत पळी हळदींत बुडोवन व्हंकलेल्या आंगाक लायताल्यो.

उपरांत भटान व्हंकलेक, यजमान, यजमान्नीक रोशया माटवांत व्हरून पोल्लेची पुजा केली. पोल्लेर नवी मडकी चडोवन तातूंत पांच सवाशिणील्या हातांत पांच तरेचें धान्य घालून व्हंकलेल्या हातांत पोल्लेक उजो घातलो. दुसरे एके पोल्लेर व्हड तवो दवरून ताचेर मिरसांग, कोथमीर, हळद, मिरीं, मेथी भाजली.

वाड्यावयले सगळे दादले बायलो घरांत माटवांत रासवळपणान वावुरताल्यो. भुरगीं माटवांत बोवाळटालीं. ते सगळे इतले बरे उमेद उल्हासाचे दिसताले, गांवचें जशें एक तीर्थक्षेत्र जालां आनी फाल्यांसान हांगा एक जत्रा जावपाची आसा. चोंयवटेन कुलकुलाट गरिबी, तातूंत कुंबरांक पडिल्लें एक देवसपन. हीं रासवळ सपनां परत परत पडत आसताली आनी कुंबार आपले गरिबीची परवा करिनासताना ते सुवाळे करीत आसतालो. पयशांच्या न्ही तर रासवळपणाच्या बळग्यार.

अकरा अठ्ठावन्नाक लग्नांचो म्हूर्त आसलो पूण न्हवऱ्यागेले दिबण रस्त्यार पावंकच कळाव जालो. ते कळमेल्ल्याशा एका म्हाल टेंपोंत बसून येयल्ले. रस्त्यार टेंपो रावोवन शेतांतल्यान चलून वाड्यार पावूंक आनीक कळाव. तातूंत खंय करोली, जी गेल्ल्याच वर्साक लग्न जाल्ली तिका दीस गेल्ले. ती मर्दींच घुंवळ येवन पडली. तातूंत आनीक कळाव.

भट येवन होमाचे सुवोतर स्वस्तीक रेखून, हेर सामान मांडून दवरून माटवांत वोगी बशिल्ले. जसो तो म्हणटालो, तुमी तुमकां जाय तेन्ना न्हवऱ्या व्हंकलेक हाडून उबे कराता. हांव अक्षता उडोवन मंगलाष्टकां म्हणटां.

आंबल मारतसान पुराय वाड्यार इतलो भणंग उजवाड पडटालो. सगळें फासपून पयस गेल्लेवरी दिसतालें. लोक वोतांत पयस पयस उबे आसात, पयलींवरी आपलेपणान कानान उलोवप जायना अशें दिसतालें. रूख मारतसान हें पयलें लग्न. दादल्यांक हें फासफल्लेपण हें हूंनत चड होलमतालें. इतले म्हणसर दिबणाचीं वाजंत्रां कानाक तेंकिल्लेवरी लागींच पावलीं आनी वाड्यार उमेद उफेवंक लागली.

दिबण भितर सरतना एकलो हाताक घडयाळ बांदिल्लो ताकतीक करूंक लागलो, ‘‘उशीर जालो, चड उशीर जालो.’’ थंय आशिल्ल्या एका दादल्यान ताका तापयलो, ‘‘तुगेलें घडयाळच मुखार धांवता. तेका इल्लें थंड उदक पाजय.’’

लग्नाक वट्ट सवाशेक लोक आशिल्लो. वाड्यावयले पन्नाशेक, दिबणांत येयल्लो चाळीशेक आनी विशेक गोपाळागेलो सोयरो. कोंकणे कुळवाडीय चवग पांच जण येयल्ले. तांकां गोपाळान मानान भितर व्हरून हातरार बसयल्ले. जेवनच वचात म्हण सांगिल्लें.

भटान लग्न एक देड वरांतच आटापलें. खरें तर कुंबारांली गरिबी पळोवन तो सामको उबगल्लो. ते भांगरा वस्त हाड म्हटल्यार तांब्या वस्त हाडटाले, तूप म्होंव हाड म्हटल्यार तिळेल, खोबरेल हाडटाले. दक्षिणा दवर म्हटल्यार चवली पावलो दवरताले. आनी हात जोडून म्हणटाले, ‘‘हेंच बरें मानून घेवचें भटमाम.’’

न्हवरो आनी व्हंकल दोगांय खरींच सोबीत दिसतालीं. दोगांय गोरीं, इल्लीं मोटवींच. सोळा वर्सांची व्हंकल आनी बावीस वर्सांचो न्हवरो. लग्नाचें वारें व्हावंक

लागतकीर दोगांल्याय कुडीर पिंजर तामशी तरतरसाण देंवन येयल्ली. कुंबरांगेल्या लग्नाक पयलेच फावट व्हंकलेन गोल पातळ न्हेशिल्लें. ल्हेव गुलाबी पातळ आनी गडद पांचवो पोल्को. ताचेन व्होट भरिल्ली म्हामाय देवी उठून माटवांत येयल्या कशी दिसताली व्हंकल. तशी ही लग्न सोबीतकाय दरएक कुंबराले व्हंकलेर येताली, कांय तेंप नंदताली. मागीर रोखडीच ती बावन वयताली. तकलेर मातये चोबे घेवन, माती कुडतेन बडयतना माती केंसांत घुसून घुसून तांच्या केंसांची बुजाणी जाताली. कूड बरगताली. हाची जाण हे घटकेक तरी एक्कय कुंबाराक नासली तें बरेंच आसलें.

इतल्यो बायलो माटवांत आसल्यो पूण एकलेल्याय आंगार एक धड भांगराची वस्त नासली. व्हंकलेल्या आंगार लेगीत मंगळसुत्रांतले दोन मणी आनी मदलें दाऊल तितलेंच भांगराचें आसलें. तें तीन ग्राम भांगर लेगीत जावचें नासलें. तितलेंच करून घेवंक गोपाळाक नाका पुरो जाल्लें.

जेवणाक चारच जिन्नस आसले. दांत्यार दळिल्ल्या तांदळाची गोडा गुळवण, तातूंत खोबऱ्या शिन्र्यो आनी शेंगा भाजून घातिल्ले. नीरपणस आनी मसंगी सांगो घालून पातळ वाटाण्या भाजी केल्ली. पणसा चाके चांचोवन सुकी भाजी केल्ली. शिजयल्ली तूर दाळ वांटून तातूंत चिंचे आमसाण, हरवी मिरसांग, हिंग, लसूण घालून कालवण केल्लें.

सकाळसान भायल्या भितरल्या वावराक दादले आनी बायलां मदीं जशी जुगलबंदीच चलिल्ली. दादले नाल्ल फोडून दिताले, बायलो कांतताल्यो. बायलो रांदताल्यो आनी चुलीवयलीं जड आयदनां सकयल देंवोवंक, शीत वाळूंक दादले मुखार येताले. बायले शेणा शिंतुडो घालून माटवांत सान्न मारताल्यो तर दादले पत्रावळी दवरून पंगती वाडटाले.

शीला आनी सखाराम गोंयसान लग्नाक येयल्लीं. शीला जें नाटकांत काम करतालें आनी मागीर सखाराम वांगडा मोगान लग्न जावन गोंयां गेल्लें तें लग्ना माटवांत इतल्या नकसूदपणान, उमेदीन हेर बायलां वांगडा वावर करतालें, पळोवन सगळ्यांक अपरूप दिसतालें. वाडटालें, पानां काडटालें, सान्न मारतालें, बायलो ताका म्हऱ्यांत घेताल्यो आनी तागेल्या कानसुलांर बोटां मोडटाल्यो. वर्सभरच जाल्लें ताका गोंयां वचून. तें सांकवाळे एके कंपनींत पॅकिंग गर्ल म्हण लागिल्लें

तें स म्हयन्यांतच पॅकिंग सुपरवायजर जाल्लें. सखाराम एके गॅरेजींत मोटर दुरुस्त करचें काम शिकतालो.

व्हंकलेक टेंपोसरीं पावोवंक पुराय वाडो लोटलो. शेतांतल्यान चलून व्हाळ बळांटून रस्त्यार पावलो. व्हंकल रडत मुखार वयताली. फाटल्यान चलतल्याच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवतालीं. नखेत्र कशें पोर. हांसल्यार उजवाड पडिल्लेवरी जातालो. गांव रितो उडोवन वयता!

वाड्यार सीताय एकली आसली, गोपाळाल्या दारांत बशिल्ली. तिगेली सून लेगीत 'व्हाळाकडेन म्हटल्यार पावोवन येतां हां' म्हण गेल्ली. वाड्यावयली ती एकसुरी सामसूम पळोवन ती भियेल्लेवरी जाली, कुंबरांलो धंदो बसूंक लागला. नवे भुरगे गांव सोडची भाशा उलोवंक लागल्यात. तळ्यार बांद येयल्यार तर सगळेंच फासपतले...

भुकेच्या वळवळ्यांत आनीक एक पावसाळो कुंबरांले तकलेवेल्यान गेल्लो. तरीय ते काट्याक जीव घेवन जिवे आसले. ह्या दिसांनी कुळवाड्यांगेर लुवणेक मळणेक वयताले. पुरशाक मात माळ्यामड्डेवयले जोगवणेक भुतावळ करची ताकतीक लागिल्ली. तो ह्या दिसांनी त्याच वावरांक घुसपल्लो आसलो.

मुडगेरी गांवच्या माळ्यामड्डे शेतांत मळूंक घालचे पयलीं थळांतल्या वागऱ्याची आनी एक्कान एक भुतावळीची जोगवणी, मांतीक जाताली. ही जोगवणी जालेबगर धानाचो एक मोडो मळूंक मेळनासलो. एक मूठ भात घरांत व्हरूंक फावनासलें. लुवन धान बांदताना हातरेर पडिल्लें भात लेगीत गुड्यांत घालून दवरताले. चोंयवटेच्या वाठारांत फक्कत हांगाच भुतावळीच्या पुराय पोंव्याची जोगवणी जाताली. हेर कडेन हेर थळांनी जोगवणेचो नक्की दीस पयलीं थारिल्लो नासतालो. शेतकार आपले सोयीपरमाणें जोगोवणी घालताले. पूण माळ्यामड्डेवेल्या शेतांतले जोगवणेचो दीस कायमचो थारिल्लो आसलो. तुळशी परबेच्या दुसऱ्या दिसाक दनपरां ही जोगोवणी घालताले. गांवचो मिराशी जोगवणेक

मिरासपण करतालो.

हें शेत अशें दोंगराकडेर दोंगरा भितर रिगिल्लेंशें आसलें. गांवच्या लोकांली रानांत जळोव हाडूंक वयची, गोरवां घेवन चरोवंक वयची वाट माळ्यामड्डे कुशीच्या बांदावयल्यान वयताली. ह्या शेतांनी पिकेर रानदुकरांची, मेरवांची हावळ येताली म्हण शेतकार हांगा माळे घालून रातचे राखणेक येताले. पंधरावीस शेतकारांलीं तरी शेतां हांगा आसलीं. जंय थंय बरींच खळां पडटालीं.

हांगाची जोगवण फक्कत शेतांक आनी शेतांचे पिकावळेक लागूनच नासली तर गोरवां वासरांच्या, रानांत येतल्या वयतल्यांचे बऱ्याचेंच गाराणें भुतावळीसरीं घालताले.

ह्या भुतावळीचीं रुपणीं शेतकार कुंबरांकडच्यान करून घेताले. हीं रुपणीं करचें काम वंशपरंपरेन आतां पुरशासरीं येवन पाविल्लें. पयलीं कोणें येवन सांगलार सांगलें ना तर ना, तरीय तुळशी परबेच्या दुसऱ्या दिसा दनपरां भुतावळ घेवन माळ्यामड्डेर पावंकच जाय आसलें. कुंबरान केन्ना तो नेम चुकयलो ना, मिरशाक फावट घालूंक लायली ना.

भुतावळीक चोरू शिजोवंक सात चरवणां, रोंट भाजूंक एक कयल. तेभायर कितलींशींच रुपणीं – घोडो, रावत, बरमो, झिटको. घाटिंगिरो, वाटमारो, पायक, नास, वाग, मानगें, जिवाणें, पालखी, भोय, कलवंत, ढोलकें ह्या सगळ्यांचीं मातये रुपणीं. तीं भाजूंक तेंचोच एक हावो जाताले.

जोगवणे दिसा एका व्हड पिणग्यांत हें सगळें घालून पुरसो वरभर चलून ज्युस्त वेळार व्हरून पावयतालो. मागीर मळणी पडटकीर दर खळार साक घेवन भोंवतालो. दर शेतकार कुडव दोन कुडव भात साकांत उडयतालो. देडेक खांडी तरी भात तो घरा हाडटालो.

ह्या वर्साय तो असोच पिणग्यांत घालून भुतावळ घेवन येयल्लो. पूण शेताकडेर येवन पळयल्यार ताका मोटें अजाप. चाळीस पन्नास एकरांची ती माळ्यामड्डी पुराय बंजर पडिल्ली. धान ना, गुडी नात, खळ ना, शेतांचो एक पडिंग तिठो. तो कांय वेळ तसोच उबो रावलो आनी मागीर तकलेवयले जड जाल्ले पिणगे

बळाबळा एका आड्यार तेंकयले. तो चिंततालो, पयलीं हांव भुतावळ घेवन येतालों तेन्ना शेतांनी लोकांलो मोटो घडघड चलिल्लो आसतालो. सगळे शेतकार जोगवणे थळार एकठांय जाताले. पूण आज थंय जितो जीव नासलो. थंयचे राखणे माळे गेल्ल्या वर्साक घडये शिवंक नाशिल्ल्यान भुंयेर पडूक लखून येयल्ले.. थंयचें तें पडिंगपण मोव मनाच्या पुरशाच्यान सोंसूं नज जालें.

इतल्यान कोण तरी रानावटेसान तकलेर लाकडा वोजें घेवन येतना दिसलो. लागीं पावतकीर पुरसो वोळखलो. मुखार येत ताणें विचारलें, ''गिरीधरमाम, शेतां अशीं बंजर कशीं? जोगोवणी जावची ना थळाची?''

''आरे पुरशा, तूं भुतावळ घेवन येयल्लो? त्या मिराशान सांगून धाडलें न्ही तुका, कसलो मनीस रे तो? पयशे मुठींत पडटकीर सगळें विसरून गेलो.''

''कितें जालें तर?''

''आतां जोगवणी करची सावकारान.'' तेणें वोजें उब्याउबेंच तेंकयत म्हटलें, ''पुरशा तुका खबर ना, ही अख्खी जमीन बेंगळूरच्या एका सावकारान विकती घेतल्या. कसली तरी फॅक्टरी घालता खंय तो. रेल्वे गेल्या न्ही लागींच्यानच. काम सुरू जातलें खंय एक दोन म्हयन्यांत.''

''फाटीं आयकल्लें खंय तरी फॅक्टरी जाता म्हण. हिंगा म्हण नकळच आसलों. आतां हांवें कितें ही भुतावळ तकल्यार मारून घेवची?''

''तुका सांगूंक जाय आसलें पयलींच. पयशे हातांत पडटकीर सुद्दींत ना ते. पयशे आनी वयल्यान घराक एकल्याक नोकरी.''

''तुजीय जमीन आशिल्ली न्ही गिरीधरमाम?''

''मगेली इल्ली, सामकी थोडी ती. आमकां आतां नोकरी कोणाक जाय? मगेलो एक पूत पोलिसांत, दुसरो मिलिटरींत. ते सरकारी नोकरी सोडून फॅक्टरींत कित्याक येतले?'' तो उलयत वोजें उखलून घेवन चलूंक लागलो.

पुरसो कांय वेळ तसोच उबो रावलो. दनपरच्या कडार थंय किण्ण एकसुरेपण पातळिल्लें. त्या शेताचें पडिंगपण दोंगरामेरेनच न्ही तर दोंगराच्या खूब भितर मेरेन पावलां, पुराय वाठाराक बादलां अशें दिसतालें. शेतांतलें तण, दोंगरांतलें करड मरूंक लागिल्लें, पिवळें पडिल्लें, कोण तरी हांकां सासणाचो मरणाचो स्राप

दिवन गेला अशें दिसतालें. पुरशाक हे भुतावळीचें कितें करचें तेंच कळनासलें. मागीर ताका कितें तरी सुचलें. ताणें पिणगें तिडकीन उखलून तकलेर घेतलें. घेताना पिणगें वांकडें जावन तातुंतलो वाटमारो सकल पडलो, तागेली मान तुटली. पुरशान रागानसो ताका थंयच सोडलो आनी तो लांब लांब धेंपां उडयत सरसरीत दोंगरा कडेर येयलो. थंयचे रुखावळींत ताणें पिणगें रितें केलें. मनांत म्हटलें, तेंची भुतावळ तेंचेकडेन, ते पुजूं ना तर सोडूं. स्थळाक, देवाक विसरतलो कसलो हो लोक, बेदिनवासी!

रिते पिणगे घेवन परत येतना तो चिंततालो, हांगा पयलीं शेतांनी भांगर पिकतालें, लुवणेचो, मळणेचो सुवाळो जातालो. घातिल्लीं खळां देवान खेळचे मांड कशीं दिसतालीं... आतां तें सोंपतलें सगळें. ताका खूब वायट दिसतालें.

**सी**ताय जिवान बरी उरनासली. आंगाचो सांद्यान सांदो दुखतालो. आतां फाटीकण्याक इल्ली बागय येयल्ली. जिवितांत तिणें ताठ ताठ रावचो यत्न खूब केलो. पूण नशिबान तिचो पांखो केन्नाच घेतलो ना. ऐन पिरायेचेरूच घोव वायदमानान मेलो. एकलोच चेडो तो मातये राशीपोंदाक चिड्डून गेलो. तो आशिल्लो जाल्यार सगळ्या संवसाराक ती कडाशेक खोवयतासली. तिगेली साधी अळबळी सून तारा कशीतरी संसाराची राट ओडटा, रडटा, धडपडटा, केन्ना सगळ्यांचेर किसळटा. पूण तग धरून आसा. कुंबारांत रांड बायलांचें जिवीत मोटें कठीण. मायट्यो, पणट्यो, तवे केले तरी ते भाजूंक कोणाले तरी उपकार घेवंक जाय. हेरांल्या हाव्यांत भाजूंक जाय, तेंगेल्या उपकारांत रावंक जाय. मायट्यो, पणट्यो सवाशीण बायलोय करूंक लागतकीर ती गांवावांगडा खूब झगडिल्ली. तिणें माळ्यावयल्यान चाक सकल देंवोवन हटान कांय चालां काडिल्लीं. पूण मुखार जालें ना तें तिचेकडेन. सूनय कचरली, तिचो आधार मेळ्ळो ना.

तिगेल्या नातवाक चवदा लागल्यांत. सवीक नापास जातकीर तो घराच आसा. ताचें कितें करचें सीतायक कळना जालां. कुंबारधंद्याक घालतलो तर हो

धंदो कितलो तेंप तग धरतलो ती शाश्वती ना. तिणें मनांत थारायलां, नातवाक नीट मार्गाक हांव लायतलें, तेचे पयलीं मरची ना. येयल्यार सखारामा बायल शीलाक सांगूंक जाय, तेका बाये तूं गोंयां व्हर आनी कसलोय पोटापाण्याचो धंदो शिकय. बापूय नाशिल्लो पोर.

तशी ती मनान अजुनय ताठ आसा. खंयूय वांकडें दिसल्यार तोंडार उलयता, धमकायता. फाटीं चवथी पयलीं एक दीस कुळवाडी खुशाली आनी तागेले दोगय दाणगे चेडे कुंबारवाड्यांत 'घुसूंक पळयताले.' तेन्ना सीतायल्या हांकाट्याकच ते फाटीं सरिल्ले. हावठणाचे उत्तरेकडची इल्ले उबारेर आशिल्ली ती सुवात कुंबरांली रासवळ आसा. उत्तरेकडचे ते तिनेक गुंठे सुवातेर एक अटमी रूख, एक बोडको कसो आंब्या रूख आनी एक रुमडी रूख आसा. ती तिकोनी कशी सुवात इल्ली खुशालील्या शेतावटन घुसल्या. कुळवाडी मर्दी मर्दी येवन थंयचे अटाम, आंब्यारुखाचीं खळाक म्हण तोरां काडून व्हरताले. कुंबार कानामनार घेयनासले. धायेक वर्सांफाटीं भुरगींबाळ नाशिल्लो कुळवाडी भिकू मेलो तेन्ना त्या लोकांनी येवन आंब्यारुखाचो एक मोटोसो खांदो लासूंक म्हण मारून व्हयलो तेन्नाय ते ओगच राविल्ले.

पूण त्या दिसा खुशालीन आनी तागेल्या चेड्यान तीन वोजीं खूंट, एक कांटये वोजें हाडून उडयलें आनी ते वाड्यावटेसान ते सुवातेक वंय घालूंक लागले. खूंट पुरूंक नेमां काडूंक लागले. यशवंतान, रामचंद्रान, राघोबान बीन वचून विचारल्यार म्हणूंक लागले, "आमचें हें शेत, आमची ही सुवात. आमी वंय करतात, तुमी कोण विचारतले?" आनी मोटे गुर्मेंत खूंट पुरूंक लागले.

सीतायूय थंय पाविल्ली. तिणें म्हटलें, "हो पुराय शिटो आमच्या पुर्वोजांनी वसयल्लो. आमी कुंबार वाड्याक वंय घालिनात म्हण ही सुवात तुमकां तुमची दिसता. भोंवतणीं शेतां तुमचीं म्हण शिट्याची ही सुवात तुमची जायना. एक खूंट पुरचें काम ना. मोडून उडयतले."

"आगे सीताय, तूं आनी चड उलोवं नाका. आमच्या बरेपणान तुमी हिंगा आसात. आमच्या पुर्वोजांली मेहेरबानी. फाल्यां कोर्टांत गेल्यार तुमकां वाडो

खाली करून वयचें पडटलें.''

''हें कोणाक सांगता तू खुशाली? हिंगा तीन वर्सां कसलार शेतां कसतल्याचीं जातात. तुमीय अशीं हेरांलीं शेतां खायल्यांत. आनी आमी शंबर दोनशें वर्सां हिंगा रावतात. सरकार न्हिदिल्लें ना. चावडेर वचून नकाशे पळोवन यो.''

तरीय ते खुंट पुरीत रावले. सीतायन व्हडाव्हडान उले मारून वाड्यावयल्या सगळ्या दादल्यांक, बायलांक आफयले. म्हटलें, हुमटून उडयात सगळें. कोण कोण मुखार सल्ले.

पूण खुशालीलें दोगय चेडे सदाशीव आनी रामेश्वर माकडेंतल्यान कोयती काडून ती हातांत उबी धरून उबे रावले. म्हणूंक लागले, ''मुखार येयल्यार चांचयतले एकएकल्याक.''

सीताय तितलेपुरती फाटीं सरली. मागीर तिणें जसो चंडिकेवरी थयथयाट करून म्हटलें, ''दादले, बायलो सगळे आत्तां घरा वचात आनी जण एकलो हातांत नवीं मडकीं घेवन येयात. हे सुवातेर हाडून फोडात. म्हणात, तुमचे सारयेर फोडटां म्हण मडकी. मागीर खावं दी तेंकां ती सुवात. बऱ्याक पडची ना.''

खरेंच, बरेच दादले बायलो धांवन घरा वचून नव्यो मडक्यो घेवन येयल्यो.

आतां खुशाली खूंट थंयच उडोवन वोग्ग चेड्यांक घेवन सुवात सोडून गेलो. वाड्या भायर शेतामेरेर उबो रावन खुंबराक हिस्तहिस्तीन गाळी संवंक लागलो. सीतायलें तर ताणें जशें न्हेसण उस्तिलें. कुंबरांनी कोणें जाप काडली ना. घनशामा बायल रुक्मीणीन सोंसूंक नज जावन शेवटा इतलेंच म्हटलें, ''तुगेल्याच शेतांत उबो रावन तूं अवचिन्न गाळयो घालता. शेत पोटुऱ्याक येवन कणशेवंक लागलां. फाल्यां पोलच खावची तुवें.''

सीतायन इतलेंच म्हटलें, ''कुंबरांक आतां जाणा जावंक जाय, दुस्मानामुखार रडल्यार तो चडच बडयता. येवंदी आतां कोणय कुळवाडी वाड्यार.''

पूण हें मुखार चड वाडलें ना. कारण खुशालीलें कर्तुब हेर कुळवाड्यांक मानवंक नाशिल्लें. ते खुशाली आनी तागेल्या पुतांआड उलयताले.

एक दीस कुंबरांनी थंयचे खुंट बांदले आनी व्हरून तेंगेलेच शेतामेरेर नीट दाळून दवरले. ते तेंगेल्यो बायलो एक दीस यवन घेवन गेल्यो.

**य**शवंतालो पूत सदानंद जो शिकूंक म्हण घरांतल्यान धांवन पुण्यां गेल्लो तो साडेपांच वर्सांनी घरा परतल्लो. आदींच बारीक, लांब, सुंदर तो आतां चडच सुंदर गोरो दिसतालो. दोळ्यांक आगळीच लिकलिकसाण येयल्ली. ताच्या हातांत आज बी.अे.ची फर्स्टक्लास डिग्री आसली. रागान आंगणांतल्यो मडक्यो फोडून गेल्लो तो येताना बरेंच शिकप जोडून घेवन येयल्लो.

येयल्ल्या दिसा तो सरळ येवन बापूय चाकार चालां काडटालो थंय येवन उबो रावलो. ताका पळोवन बापायल्या दोळ्यांतल्यान घळघळीत दुकां देंवलीं. ताणें म्हटलें, ''पुता, आवय बापूय भुरग्यांलें बरेंचे चिंततात. पूण आमकां अडाण्यांक बरें कितें आनी वायट कितें तेंच कळना.'' तेणें खूब व्हडान बायलेक म्हटलें, ''आगो, आमगेलो बाब सदानंद येयला पळय.''

कानार पडना फुडें आवय धांवन येयली. ताका खाकोळांत घेवन दोळ्यांत दुकां हाडून मोन्यानच जशी मटाळूंक लागली, दिसतालें आत्तां ती ताका उखलून पदरांत घेतली आनी हड्ड्या चिंवेक लायतली. ''येयल्ले फावट सांगून धाडटालें मुरे पुता तुका शिवराम मामाल्या आत्मारामाकडेन, एक फावट तरी येवन वच म्हण. तूं येयलो ना. आमची याद येयली ना?''

''येताली पूण इल्ली नोकरी करून शिकतालों न्ही? शिक्षण पुराय करूनच तुमचे मुखार मानान येतलों म्हण रावलों.''

''बरें जावं पुता. बरें केलें पुता, नांव काडलें आवय बापायलें.''

कळटकीर वाड्यावयलो एक्कानएक मनीस आंगणांत जमिल्लो. कितली खोशी, कितले प्रस्न, कितली उमळशीक! दिसतालें, आत्तां हे लोक ताका खांदार घेवन वाडोभर भोंवडावन हाडटले, घुमटां वाजयतले...

हेर दिसा तो उठून कुळवाडी गोविंद नायकागेर गेलो. तो गोविंद मामालो पूत आत्मारामा बराबरच पुण्यांत रावन शिकिल्लो - एक फावट आत्माराम रजेर येयल्लो तेन्ना 'आपूण मॅट्रिकेक बसलां आत्मारामअण्णा' म्हणटकीर आत्मारामान

सांगिल्लें, ''बरो करून पास जाल्यार यो पुण्यांत. पळोवया कितें जाता तें...'' तो तितलोच आधार.

साडेपांच वर्सां फाटीं जेन्ना तो घरांतल्यान धांवन गेल्लो तो दोन दीस गडार खानापूरकार मास्तरागेर उल्लो. आपूण मुखार शिकूंक पुण्या वयतां म्हणटकीर खानापूरकार मास्तरान म्हटलें, ''वच तूं, खंयूय वच, खूब शीक. सीम हुपता ताकाच जैत मेळटा खंय. पोटापुरती नोकरी धर, कालेजांत वच, खूब वाच, बरय, दर परिक्षेंत फस्ट क्लासांत पास जावंक जाय. ग्रॅज्युएट जावनच परतो यो... पूण कोणाकडेन वयतलो, खंय रावतलो तूं?''

''पुण्यांत सानमुडगेरीचो गोविंद मामालो चेडो आत्माराम आसा. तेणें यो म्हणिल्लें.''

''तशें तोंडार यो म्हणप आनी थंय वयतकीर आधार आलाशिरो दिवप हें वेगळें. शारांत लोक वोळख चोरतात.''

बरो तो. गोविंद मामय बरो मनीस. पावसाळ्यांत आई केन्ना गेल्यार पत्रावळींत शीत गुठलावन दिलात तेणें. तेगेले तिगय चेडे बरे शिकल्यात.''

दुसऱ्या दिसा तेणें भायलेभायर हायस्कुलांतल्यान दाखले, प्रमाणपत्रां घेतलीं. गोविंद नायकागेर वचून आत्मारामालो पुण्यांतलो पत्तो घेतलो. वयताना खानापूरकार मास्तरान तेगेल्या हातार चारशें रुपये दवरले. म्हटलें, ''वडा रुखाक एक ल्हानशेंच बीज आसता. त्या बीजांतल्यान मुखार हजार खांद्याताळयांचो रूख वयर सरता, मळबार पावता. हे पयशे तशेंच एक बीज म्हण समज. त्या बिजाची लागणूक दवर.''

ताणें मास्तराक सांगलें, ''हांव नीट शिकतलों सर. हांव वयतकीर तुमी बाबाक आईक नीट समजावन सांगात.''

आत्माराम पुण्याच्या कँप वाठारांत रावतालो. तो मिलिटरी अकावन्टसांत काम करतालो. तागेलो पत्तो शेणत म्हण तो भियेतालो. तो तोंड पाठच करून दवरिल्लो.

सदानंद कारवारच्यान बशीन गेल्लो. तो पुण्याच्या बस स्टँडार येवन देंवलो आनी दरयांतल्या निरमनीस जुंव्यार शेणून गेल्लेवरी जालो. चोंयवटेन लोकांचो

म्हासागर पूण एक चेहरो आपलो ना. संवसारांत इतलीं सगळीं अनवळखी मनशां एके सुवातेर आसूंक शकतात हें ताका खरेंच दिसनासलें. ताका दिसलें, हांव हांगा म्हज्या नांवनिशाणे सयत म्हजी वळख शेणून बसलां. ती ओळख मेळोवप हांगा कठीण दिसता...

तो भांबावल्लेवरी जालो आनी ताच्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. कशी काडटलों वाट हांव? तो थंयच एका बांकार बसलो. नकळत तो गांवच्या आंब्यारुखाचे सावळेंत पावलो... हाव्याचे मुखार दाळिल्लीं मडक्यांचीं घण्णां... सीताय आवोल्या हाताच्यो पणट्यो... हांवें अशें नव्यो मडक्यो फोडून येवंक फावनासलें. तेंच्या पोटाची ताळणी ती! हांगा तर फाल्यांच्या पोटाचीय आस्त ना... अचकीत ताच्या कानांत अपरूप सूर घूंवंक लागले... व्हड रातचो थंड शांत वेळ, वयर आंब्याचो पसरिल्लो रूख, घराघरांतल्यान दादल्यांनी पेटण्यार मडक्यो पेटिल्ल्याचो तालबद्द आवाज. त्या तालाचो आनंद घेत तो कांय वेळ गुंग जावन रावलो... पेटण्याच्या तालार कोण तरी भजन गायता, विठोबा, विठोबा, विठोबा रखुमाई...

शेनवारचे सांजचो तो आत्मारामाले कुडीर पाविल्लो. आत्माराम आनी तागेले दोग इस्ट जे वांगडाच रावताले, रांदून जेवताले तें कुडीरच आसलें. सदानंदाक पळोवन आत्मारामान थंडपणान म्हटलें, "येयलो, यो. गांवांतबीन सगळे बरे आसात मुरे? कळयनासतनाच पावलो तूं."

आत्मारामालीं हीं थंड परकेपणाचींशीं उतरां ताच्या मनाक लागलीं. ताच्या काळजांत धाकधूक.

दोन कुडींचें ल्हानशेंच घर. ते तिगय म्हेळ हाफपेन्ट बनयानाचेरच आसले. वोळणेर अस्ताव्यस्त कपडे, धुंविल्ल्या, ना धुंविल्ल्या आयदनाचो पसारो. एक पोन्नो पितळेचो स्टोव्ह... लग्न जावचे आदीं एका पेण्यार मनीस आळशी, बेफिकीर आसता ताचें पडबिंब थंय पुराय दिसतालें. आत्माराम गांवच्या एका बऱ्या शेतकारालो भुरगो, गांवांत झेतान मिरयतालो. ताका हांगा बेसावध धरिल्लेवरी जाल्लें म्हण घडये तो इल्लो भिडेस्त जाल्लो.

सदानंदाल्या आंगावेलीं वस्त्रां सुतां सुटिल्लीं, म्हेळ आसलीं. हातांत एक

बेठी पोन्नी वस्त्राची पोती आसली. हूम येवन तकलेवेले केंस, पुराय आंग चिकचिकें जाल्लें. पूण मुळांत तो बरो गोरो, हांसरो भुरगो आसलो. सतरा वर्सां पिरायेर कुंवरपण आनी जुवानपण हांच्या मेळावेलें आगळेंच कवकवीतपण ताचे कुडीर आसलें.

कांय खिणांतच त्या तिगांनीय ताका बरो येवकार दिलो. आत्मारान म्हटलें, ''जाणा पांडे, सामंत, हो आमच्या गांवचो. सदानंद नांव तागेलें. मॅट्रीक पास जाला तो...''

सदानंदान मदींच म्हटलें, ''हय, फर्स्टक्लास मेळ्ळा म्हाका. मुखार शिकूंक पळयतां.''

ते वोगच रावले. पूण एकल्यान ताका मोरयेंत बालदी भरून दिली. एकल्यान जें कितें आशिल्लें तें हून करूंक स्टोव्हार दवरलें.

कारवारा बशींत बसूक आयल्लो तेन्ना ताणें एक सवायसो नवो शर्ट, चड्डी आनी भितरली चड्डी विकत घेतिल्ली. न्हावन येवन ताणें ती घातली. तरीय त्या नव्या वस्त्रांतल्यानय ताची गरिबी, ताचें वावडेपण उकतें दिसतालें. तो पयलेच फावट जेवंक बसलो तेन्ना दिनवासीपणान ताचें मन भरून आयलें आनी वांगडा भिरांतय दिसली, हांव हांचेर वोजें कसो जावचो ना मू! ताणें म्हटलें, 'हांव इल्ली कसलीय नोकरी करुनच शिकतलों.'' मागीर आपूण तांकां एक विश्वास दिला म्हण ताका बरें दिसलें.

पूण ताका देडेक म्हयनो कांयच काम मेळ्ळें ना. नोकरी एकेच वेळेची जाय आसली. थोडें कठीणच आसलें. तरीय रेल्वे स्टेशनालागीं एके म्युनिसिपालटीचे शाळेंत अकरावीक प्रवेश घेवंक ताका तिगांनीय आधार केलो. खंयच्च्या खंयच्च्यान पोन्नीं पुस्तकां हाडून दिलीं. आत्मारामान ॲडमिशनाचे पयशे भरले, सामंत आनी पांडे मदीं मदीं बशीक तिकेटीचे पयशे दिवंक लागले.

बदलाक सदानंद नाका नाका म्हणटाना सगळीं आयदनां धुवतालो, फाटल्यान तांगेले कपडे उमळटालो, सान्न मारतालो. सान्न मारून पुसून घांसून घर इतलें चोक्क नितळ दवरतालो, तांकां बरें दिसतालें.

पूण ताका 'बेकार' दवरप शक्य नासलें. शाळा आसली, जेवण-खाण

आसलें. हेर बारीक खर्च आसलो आनी व्यवहार आसलो. सदानंद एकलोच आसतना एक दीस पांडेन म्हटलें, ''खडकी रोड कॉलनींतल्यान एकलो जाण्टेलो चोवीस जेवणा दबे आमच्या ऑफिसांत हाडून पावयतालो. दब्या फाटल्यान म्हयन्याक पस्तीस रुपये. तो जाण्टेलो बरो ना खंय. चड जाण्टो जाला, येवचो ना तो आतां. तूं पत्करशी जाल्यार चय. तुगेली सांजची शाळा, एक ते स. हांगा तूं साडेबारा म्हणसर मेकळो जातलो. मागीर लागींच शाळा तुगेली.''

सदानंद तयार जालो आनी दुसऱ्या दिसासान दबे व्हांवक लागलो. पिरायेच्या णवव्या वर्सासान तो तळ्यांतल्यान मातये चोबे व्हांवतालो. ताका तें चड जड गेलें ना. सकाळीं धांक रितो चोबो घेवन खडकी रोड कॉलनींत वयतालो. दबे एकठांय करतालो. ते चोब्यांत घालून माथ्यार मारून स्टेशना लागशिल्ल्याच डिफेन्स अकावन्टसच्या आफिसांत हाडटालो. वरः सवावराची वाट. साडेबारा, पावणे एक मेरेन मेकळो जातालो. मागीर धांवन धांवन शाळेक वयतालो. पुस्तकां जेवणा चोब्यांतच घालून हाडिल्लीं आसतालीं.

शाळेंत पावतालो तेन्ना हुमेन चिंब भिजिल्लो, सामको थकिल्लो आसतालो. ताचेन झेम येवंक लागताली.

सकाळीं चोबो तकलेर घेवन येतना सांजचो रितो चोबो घेवन वयताना एकादरो शाळेंतलो भुरगो अचकीत वाटेर मेळटालो. लज जाताली.

आत्मारामाक तांणी आदीं सांगूंकच नासलें. पांडेन भायलेभायर सगळें केल्लें. ताका कळटकीर ताणें पांडेक बरोच तापयलो. पूण सदानंदाक कळ्ळें, त्या तापोवपांत व्हडलो दम ना. फक्कत फुडाराक आपलें नांव राखूंक एक नोंद उरची म्हण तें तापोवप.

अकरावी आनी बारावी दोन वर्सां तो दबे व्हांवतालो.

पयशांचे बाबतींत ते व्हडलेशे व्हड मनाचे आशिल्ले अशें म्हणूं नजो. पूण हेर जायते बाबतींत तांचो ताका पुराय आधार आसलो. शाळेविशीं, अभ्यासाविशीं विचारीत रावताले. कळना जाल्लें समजावन सांगताले. खंयच्या खंयच्यान गरजेचीं पुस्तकां हाडून दिताले. रातचो अभ्यासाक बसूंक भितरले कुडींत ताका एकल्याकच राव म्हणिल्लें, न्हिदचे पयलीं अभ्यास करीत बस म्हण सांगून. येयल्लो तेन्ना

सामंतान ताका आपलें एक जमखण दिल्लें. आत्मारामान एक चादर घेवन दिल्लें. तो भितर एकलोच अभ्यास करीत रावतालो आनी उसरां न्हिदतालो. ताका दबे व्हांवपांतल्यान मेळटात ते आठशेंक रुपये तो कशे वांटून घालता हाचेरय तांची नदर आसताली. ताणें जेवणाचे दिल्ले ते पयशे घेताले.

रांदचें बरेंच काम तोच करतालो, आयदनांय घांसतालो. सकाळ धरून सांजमेरेन अखंड धांवपळ. पुरो जावन कासावीस जावप, मदींच झेमेन लकण मारप. गरीबेच्या कांचान जीव येद्दोयेद्दो जावप, लज दिसप, मदींच घळ्ळ करून रडूंक येवप.

तरीय बारावेक ताका पांसस्ट टक्के गूण मेळ्ळे आनी ताणें नामनेच्या एस्.पी. कॉलेजांत बी.ए.क दाखलो घेतलो. दोन वर्सां दबे व्हांवनय दाखलो घेतना आत्मारामाकडच्यान पयशे घेवचेच पडले.

कालेज सकाळचेंच आसलें. आतां दबे व्हांवप शक्य नासलें. मदीं परत तो तीन म्हयने 'बेकार'च आसलो. पयशे भरनासतना जेवप ताच्या जिवार येतालें. हांगा बशीक पयशे लागताले. पयशे ना जाल्यार धांवत, चलत कालेजांत वयतालो. कितले फावट दिसतालें, सगळें सोडून गांवांत परत वचचें. मडक्यो पेटून पोट भरचें. पूण गांवांत तर सगळे जण सदांच म्हणटाले, ह्या कुंबारधंद्याक आतां राम उल्लो ना. तातूंत पांडेन एक दीस म्हटलें, ''बारावी पुरो जाली म्हण समज. खंयूय नोकरी मेळटली इल्ली.'' आयकोन तो अवसानखत जालो.

हांगाय परत एके वेळेचीच नोकरी जाय आसली. ती सोदून सोदून मेळनासली. एक दीस ताणें आपल्या कालेजांतल्या एका तरणाट्या लॅक्चरराक आपली अडचण सांगली. सांगताना ताचो गळो भरून आयलो, दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं.

त्या लॅक्चररान म्हटलें, ''समस्या ही गर्भार बायले सारकी आसता. तांतले कश्ट फाल्यांच्या बऱ्या खातीरच आसतात.''

तीनच दिसांनी त्या लॅक्चररान ताका आफोवन घेतलें. सांगलें, हांगा लागींच सदाशिव पेठेंतल्यान 'यशश्री' म्हण एक साप्ताहीक भायर सरता. म्हगेलो बापोलयो थंय पालवी संपादक आसा. तांकां एक हॅल्पर जाय. साप्ताहीकाक कवरां लावंक,

नामो चिकटावंक, तीं पोस्टांत घालूंक. गांवांगांवान घट्टे वयतात. ते बसस्टँडार पावोवचे पडटात.''

''केन्ना? कितलीं वरां काम आसतलें?''

''सांजचीं तीन चार वरां तरी काम करचें पडटलें. आनीकय आसात लोक. तुजी अडचण हांवें बापोलयाक सांगल्या. आठवड्याक दोनशें रुपया दितले म्हटलां.''

मुखाल्लीं तीन वर्सां तो त्या साप्ताहीकांत काम करतालो आनी शिकतालो. सदाशिवपेठेंत शनिपारा लागीं 'अन्नब्रह्म' म्हण एक खानावळ आसली. थंय हाफ जेवण, जेवण आनी फुल्ल जेवण अशे तीन प्रकारचें जेवण मेळटालें. तेन्ना, म्हणजे चौऱ्याण्णवद पंच्याण्णवदाक हाफ जेवण सात रुपयांक, जेवण बारा रुपयांक आनी फुल जेवण अठरा रुपयांक मेळटालें. हाफ जेवणाक फकत दोन पोळयो, भाजी आनी आमटी आसताली. जेवणाक शीत मेळटालें. सदानंद कालेज सुट्टकीर थंय हाफ जेवण जेवन साप्ताहीकांत कामाक वयतालो. स मेरेन थंय काम करतालो आनी साडे स सातांक रुमार पावतालो.

आतां त्या तिगांलोय सदानंदाचेर जीव बशिल्लो, विश्वास बशिल्लो. ते ताका आपल्या ल्हान भावावरीच वागयताले. ताचे कडच्यान रुमा भाड्याचे, लायटीचे, उदकाचे कसलेच पयशे घेनासले. जेवणा पटयेचे तो दिता ते पयशे घेताले आनी जमेक घालताले. तो रांदतनाबीन चड घांसूंक पुसूंक लागलो तर ताका तापोवन म्हणटाले, ''तूं चल, वोग वचून अभ्यासाक बस.'' खंयूय गेल्यार ताका एकादरो शर्ट घेवन येताले आनी म्हणटाले, ''सेलांत बरो मेळ्ळो.''

तांतलो प्रल्हाद सामंत कडक शिस्तीचो चोक्क मनीस आसलो. दिसपट्ट्या कामांत, व्यवहारांत, न्हेसच्या कपड्यांत सगळीकडेन नितळसाण. पयशांचो व्यवहारूय नीट. एक पयसो हेवटेन ना तेवटेन ना. नरेश पांडे इल्लो बारीकसाणेचोच आसलो. खूब उलयतालो, चोबळायच चड. गांवाकडची व्हडवीक सांगत रावतालो. पूण तो रांदच्याबीन कामाक हात लायनासलो म्हण पयशांक बारीकसाणेचो आसूनय रांदच्या सामानाच्या हिशेबांत लक्ष घालिनासलो. आत्माराम इल्लो चड मॅच्युअर असो आसलो. ताच्या उतराक ते मान दिताले.

खरें तर तो भोव निवळ मनाचो आसलो. पूण उणें उलोवच्या सभावाक लागून ताचो थाव लागनासलो. कितेंय वांकडें केल्यार सदानंदाचेर असो तापतालो, सदानंद भिवन थरथरत 'चुकलें आत्मारामअण्णा' म्हणटालो. तो कसलेय पयशे दिवंक फाटीं सरतालो अशें न्ही, पूण पुराय शाहनिशा केलेबगर दियनासलो.

पूण ना थारयतांच सदानंदाचे बाबतींत ल्हवल्हव तांचें एकमुखी अशें मत जाल्लें. ह्या प्रमाणीक धडपड्या पोराक शिकूंक आमी आधार दिवंक जाय! पयर सदानंद गांवांत आयल्लो तेन्ना उलयतना सीताय आवोग सांगतालो, ''मगेले कातीचीं जोतीं करून तांगेल्या पांयांत घातलीं तरी तांच्या उपकारांची फेड जावची ना.''

**प**यलींवरी मडक्यो खपनासल्यो. कुंबार आळसायेन मडक्यो पेट्टालो. पयलीं दर पंद्रशीक हावो घालतालो तें आतां म्हयन्याचेर गेल्लें. आनी तांकां मोलय नासलें. वाडो कात उडोवंक कवंडाळें करून पडिल्ल्या मांडवळावरी सुस्त जाल्लो. तरीय अवचिन्न भूक लागतालीच. कुंबार भूक लागता म्हण जग्तालो, हातपांय हालयतालो. पुरसो केन्ना तिडीनसो म्हणटालो; नागड्या गांवांत धोबी बेकार म्हणिल्लेवरी जाला आमचें.

तरीय व्यसन लागिल्लेवरी कुंबरांल्या दरएक घरांतल्यान सदां कांय वेळाखातीर तरी मडक्यो पेटिल्लो आवाज येतालो. तो आवाज आयकले बगर जशी कुंबरांक चैन पडनासली. न्हीद येनासली.

पूण ह्या दिसांनी शंकर आनी रामचंद्रालीं पेटणीं मोनी जाल्लीं. गेल्लो म्हयनोभर तांणी मडकी पेटिल्लोय आवाज आयकलो ना आनी ते सुखोवंक घातिल्लेय पळयले ना. दीसभर बसले, उठले, हेरांचेर बेजारले अशें करूनच रावताले. कोण म्हणटाले, ते तिनसांज जाली की दोगय मेळून खंयतरी वयतात आनी खूब उसरां रातचे येतात.

खरें तर वाडो खपखप्यांतच आसलो. वाड्यार कसलें लचांड येयना जाल्यार

पुरो! हरशींय वाडो वयलो आंब्या रूख मारतसान फासपल्लेवरी जाल्लो. पयलीं ताचे सावळेंत आसताले तेन्ना एकठांयच गोठणां मारिल्लेवरी लोकाक सुगूर दिसतालें. आतां हो नवो भंय...

एक दीस तिनसांजचेच ते गेले आनी फाटल्यान धर्मूली आज्जी बायज्याले खोंपींत मरून पडली. ती गेल्लीं दोनअडेच वर्सां हातांत दांडो घेवन दारांत पडून बायज्याची 'राखण' करताली. ती मरून पडटकीर बायजें बोब मारीत धांवन येयलें, ''आगे ती उलो दिल्यार ओ म्हणना, हालयल्यार हालना, तोंड आं करून पडल्या.'' लोक सगळो बायज्याले खोंपींत धांवलो.

पूण शंकर आनी रामचंद्र वाड्यार नासले. प्रेत धर्मुल्या घरांत हाडून घालून दादल्यांनी खूब वाट पळयली. ती रामचंद्रालीय आज्जी लागताली.

ते बरेच उसरां रातचे येयले. आरे खंय गेल्ले... खंय ना... आरे कितें हाडलें... कांय ना. लोकांल्या मनांत फक्कत दुबाव आनी गोंधळ. रातचे खंय वयतात हे चोरीमारी करूंक वयतात काय म्हारवांल्या पोव्यांत भोंवतात!

कुंबरांनी केन्ना रातचें मरण घरांत दवरून घेतलें ना. त्या दिसा रातभर प्रेत घरांत पडून उल्लें. कुंबरांक रस्तो, गांव, बाजार, दवाखानो हें सगळें पयस पूण मसणवट लागीं. किरवड माथ्यार मारून पांच मिनटां चलून गेले की दोंगरा कडेर मसणवट. ही पुराय गांवची-रासवळ मसणवट. वर्सभर कोणाले ना तर कोणाले सारयेचो धुकट उठिल्लो कुंबार आपल्या दारांतल्यान पळयतालो. म्हणच तो घडये मरणाक, म्हारवांक चड भियेनासलो. धर्मूलो भाव शाणू तर फाटीं एक फावट आपले मेल्ले बायलेल्या म्हारवाक सोदत भोंवतालो.

त्या दिसा ते येता करता म्हणसर मध्यानरात जावन गेल्ली. प्रेत घरांतच उल्लें. तें सकाळींच व्हरून तांणी लासलें.

शंकर आनी रामचंद्र दिसाचो कसलो वावर करनासले. रातचे खंय वयतात तें खबर नासलें. पूण पोटल्यो बांदून तांदूळ हाडटाले, बरें नुस्ते हाडटाले, मदींमदीं कारवारा वचून सामानसुमान घेवन येताले. ते न्हावतात थंयसान वासा साबणाचो वासय येतालो.

दोनेक म्हयने हें अशें चलिल्लें.

सीतायक ह्या दिसांनी रातची झेमच पडनासली. नातरांचें कशें जातलें, सून कशी तग मारतली. हांव म्हातारकाळाक हांथरुणाक आनी पडना जाल्यार पुरो... ती चिंतनांतच आसताली. एक दीस अचकीत मध्यान रातीर भायर आंगणांत घब् घब् कोणतरी धांविल्ल्याचीं पावलां वाजलीं. फाटोफाट आनीक कांय पावलां. कवडेचे फटींतल्यान छक्क करून इल्लो उजवाडय भितर सरलो. कोण... कोण... म्हणत ती कवड काडून भायर येयली. ''तारा, कोणतरी धांवलें मुगो आंगणांतल्यान.''

''तूं वोगी पड गे. तुका कित्याक जाय? तुज्याच घरांत कोणय घुसतलो.'' सुनेन म्हटलें.

तरीय ती आंगणांत येवन उबी रावली. रामचंद्राल्या घरावटेन कोण तरी कोणाक तापयतालो. म्हणटालो, ''वोजीं उडोवन धांवन येवन हिंगा पडलात आतां. आमकां फाटल्यान धांवडायतात? सोडचे नात तुमकां. तींच वोजीं तकलेर दिवन पोलीस स्टेशनार व्हरून भितर उडयतले.''

सीताय रामचंद्राल्या घरासरीं गेली. दोन हे उंच खाकींतले पोलीस हातांत बॅटरे दिवे आनी दांडे घेवन दारांत उबे आसले. रामचंद्र आनी शंकर गुळे जावन वासरेंत बशिल्ले. दारार रामचंद्रा बायल हातांत चिमणे दिवो घेवन उबी आसली. रडत पोलिसांक कितें कितें सांगताली.-

इतले म्हणसर बोवाळ आयकोन वाड्यावयले बरेच जाण येवन आंगणांत उबे राविल्ले. पोलीस लोकांक सांगताले, ''आमी हिंगा लागींच व्हळापलतडी सुरी रुखाचे सावळेच्या काळखांत पाऱ्याक बशिल्ले. हे तकलेर सोऱ्या वोजीं घेवन येयले. आमी हटकीतर वोजींच उडोवन धांवंक लागले. आमीय फाट सोडली ना. बेटरे उजवाडांत हिंगा ह्या घरांत घुसताना दिसले.''

रामचंद्र आनी शंकर गेल्ले दोन अडेच म्हयने गोंयांसान चोरवाटेन सोरो हाडून गडार एकेकडेन पावोवचें काम करताले.

सीतायन तांच्या पांयार पडून पांये धल्ले. लोकय तांचे पांय पडूंक लागले. सीतायन म्हटलें, ''केन्ना पोलीस कुंबार वाड्यार येयले नात. कुंबारान केन्ना कोणाचें वांकडें केल्लें ना. कोणालें भाजयेचें पान खुंटलें ना. नांव घाण जातलें

कुंबारांचें. पोटा भुकेक इल्लो गू खायलो आसतलो, गांवार घालूं नाकात तें. हो कुंबारांलो धंदो आतां सामको लयाक गेला.''

अचकीत रामचंद्रालीं बायल-भुरगीं रडूंक लागलीं. तेवटेच्यान शंकराली बायलय रडत येयली. आनी तेन्ना कितें जालें नकळ, सगळो आंगणांत जमिल्लो लोकय रडूंक लागलो.

पोलीस थंयसान सरून कुशीक गेले. आंगणामेरेवरी उबे रावन हातांतले दांडे नाचयत तांणी म्हटलें, ''ह्याउप्पर एक कुंबार सोरो हाडटना मेळ्ळ्यार पळय, पुराय वाड्याक बांदून व्हरतले. तो उडोवन येयल्लो माल बेवारशी म्हण आज पंचनामो करतात.''

ते वचूंक गेले. वाड्यावयलो दरएक मनीसय कांय एक उतर उलयनासतना आपआपल्या घरा गेलो. जसो पुराय वाड्यान रासवळपणान एक गुन्हो केल्लो.

**तो** रेडो खंयसान येयलो आनी केन्ना वाड्यार घुसलो तो कोणाकच कळ्ळें ना. वाड्यार मद्दीं उबो रावन धेंकरार धेंकर दिवंक लागलो तेन्ना कळ्ळें, रेडो वाड्यार घुसला. कुंबार भोंवतणच्या लागींच्या कुळवाड्यांल्या गोरवांक, म्हसरांक वोळखताले. पूण हो मस्तो अनवळखी जसो गळोबर रेब्यांतल्यान उठून येयल्लो. खिणाखिणाक कात, कान फडफडायतालो आनी जसो सांगतालो, मुखार येयलार शिंगान मोखून मारतलों. कोणें हड् केल्यारच नाका पुडये फुरफुरायत रागान चयतालो. दिसतालें, आत्तां हो आंगार धांवन येतलो.

मुखाल्ल्यान ताचें मस्तक कासवाल्या कट्ट्यावरी घट दिसतालें. ताचेर दोन मोटवींच उबीं सुळकीं शिंगां आसलीं. तो इतलो काळो आसलो, रानांतलो रातचो सगळो काळोख हाडून ताचेर थापला अशें दिसतालें. काळो रंग आनी मस्तकावेले दोन तांबशे व्हांवते दोळे ताचेन ताका पळयलें की काळजाची हुडी चुकताली. लोक कुलकुलाट करीत आपल्या घरांनी धांविल्ले आनी दारां धरून उबे आसले.

हिंगा आतां म्हजोच शेक म्हणिल्लेवरी तो वाडोभर नाचलो. शिवरामाल्या आंगणांत घातिल्ली मातये रास धेंकर घालीत शिंगान फासपून उडयली. जायत्या

जणांनी आंगणांत सुखोवंक घातिल्ल्या मडक्यांचो धांवताना पांयांमुळांत चुरो केलो. कोणले तरी पावळेचे पांखे सकल देंविल्ले ताचें कवळ रेड्याल्या शिंगांत अडकले. तो तें कवळ घेवनच वाडोभर नाचलो.

दिसतालें, हाचे फाटीर यम बसला आनी तो ताचें बेंसण वोडून ताका धांवडायता.

पिसाय बायजें आपले खोंपीच्या दारांत उबें आसलें. खंयतरी कसलो तरी बोवाळ चलिल्लो तो आत्तांच थाल्ला... कोण हो असो धेंकर घालता, मळब फाळून गेल्लेवरी... ताका तें अपरूपशें दिसलें. तो कोण आपणाकच उलो घालता काय कितें... अशे धेंकर ताणें सपनांत जायते फावट आयकल्ले. कुळरा घरा फाटल्या रुखावळींच्या धेंगणांतल्यान, हांगा तळ्याभोंवतणच्या गच्च कांट्याकंणकींतल्यान... तें उठलें आनी घनशामाल्या घराफाटल्यना येवन मुखार आंगणांतच उबें रावलें, पळयल्यार मुखार दोन वांवाचेरच रेडो उबो. तांबड्या दोळ्यांचो काळो रेडो, हाव्यांत काळो जाल्ल्या बुडकुल्यावरी कुबस्थान. तें भियेलें ना. हें, कसलीं तुजीं हीं पोकळ शिंगां... आंगार येवन तरी पळय... दुसऱ्याच खिणाक रेडो बायजाल्या आंगार धांवत गेलो. ताका शिंगान मोखून माल्लें. तें पयस वचून उताणें पडलें. रेडो परतो धांवलो, आपले मुखाल्ले दोनूय पांय ताच्या पोटार हड्ड्यार दवरून तो नाचलो. ताचें एकपदरी न्हेसप सुटून पिनून कुंशीन पडलें. दुसऱ्याच खिणाक ताणें आपलीं शिंगां ताच्या हड्ड्याक खोयलीं आनी गळ्यावयल्यान वयर काडलीं. हड्डें धरून खाडकी मेरेन सगळें पिनून गेलें.

आपल्या दारांतल्यान पळयतल्या घनशामा बायलेन बोब माल्ली. "धांवात, बायजाक माल्लें. हातांत कुडत्यो घेवन धांवन येयात."

खरेंच पांच-स दादले हातांत माती बडोवची कुडती घेवन धांवन येयले. कुडती दाखोवन हय् हऽय् करून रेड्याक हामडूंक लागले.

रेडो थंड संथ पावलांन वाड्या भायर गेलो. शेतांतल्यान चलूंक लागलो. मागीर यकायक तो भिरकटी मारून धांवंक लागलो. दादले बरोच वेळ वाड्याकडेर उबे रावन ताका पळयताले. सुद्द विसरून. मागीर सट्ट करून तांकां बायज्याली याद येयली आनी ते वाड्यार येयले.

बायजें रगताच्या खळ्यांत उकतें पडिल्लें. बायलो भोंवतणीं जमिल्ल्यो,

पूण कोणाक मुखार वचून हात लावचो धीर नासलो. कोणेंतरी बायलेन ताचें कुशीन पडिल्लें वस्त्र चिमटेंत धरून कमरार ओडून घातिल्लें.

बायज्याल्या मरणाची खबर सदानंदान वचून पोलिसांक दिली. ते येवन ताचें प्रेत घेवन गेले आनी दुसऱ्या दिसा हाडून घनशामाल्या ताब्यांत दिलें. पूण शेवट पर्यंत तो रेडो कोणालो तें कळ्ळेंच ना. कोण म्हणटाले, तो गोंयची शीम हुपून हेवटेन येयल्लो.

बायजें मेलें तेन्ना तागेले खोंपींत फक्कत कडयेक एक खुळणें, शिताक एक चरवो, पेजेक बुडकुलो, एक मायटी, एक कळसो हीं इतलीं मातयेचीं आयदनां आनी दोन आलिमिनच्यो ताटल्यो आसल्यो. दोरयेर एकच जुनेर आसलें, एका गाडग्यांत दोन मुठी तांदूळ आसले. हाचे भायर एक कुसकूट नासलें.

सदानंद बी.ए. पास जावन येयल्लो तो गांवांत फक्कत दोनेक म्हयने उरलो. पूण सदां खानापूरकार मास्तराकडेन, पोस्ट ऑफिसांत वचत आसतालो. बायजें मेलें तेन्ना मात तागेलो वाड्याक बरो आधार जाल्लो. पोलीसांक आफोवन हाडूंक, मागीर प्रेत ताब्यांत घेतना वाड्याभायल्याचो कोणाचो आधार घेवचो पडलो ना. पोलीसांच्या प्रस्नांक तेणेंच सगळ्यो नीट जापो दिल्यो. कुंबारवाड्यार पयलेच फावट लोक इंग्लीश उलयल्लें आयकताले.

वाड्याक अभिमान दिशिल्लो आनी आस्त वाडिल्ली. आतां हो वाड्याक कसल्याय संकस्टांतल्यान तारतलो. कुंबार आयजवेर अन्नाडीच उरिल्लो.

सदानंद पळयतालो, पयशांचो सामको उणाव आनी तांतुंतल्यान आयिल्ली गरिबी एक चिंवट रोग कसो हांगा पातळ्ळा. पोटाखातीरच जगतना पोटच भरना जालां. कोणाकय कितें बऱ्याचें सांगल्यार सट्करून आंगार किसळटाले. आगे, भुरग्याक शाळेक कित्याक धाडिना म्हण विचारल्यार ती म्हणटाली, ''तुगेल्या पुस्तकापरस आमकां आमगेली भाकरी व्हड. तुजेवरीच घरांतल्यान पळोन वच म्हण सांग तेंकां, मागीर तुगेले आवयवरी हुस्क्याशिवाय रावतले आमीय'' हें तिडीचें उलोवप आसलें. सदानंदाक दिसतालें, आतां आतां कुंबार खूब आडमुठो

जाला. रोखडोच झगडूंक उठ्ठा. सदांच भुकेपोटार उलयल्लेवरी करता. आतां हांवेंय गांवांत रावन कांय करचें ना, कांय जावचें ना हांगा.

एक दीस प्रल्हाद सामंतालें ताका पत्र आयलें. ताणें म्हणिल्लें, तूं गांवांत वचचे पयलीं आमी दोनतीनकडेन गेल्ले तुगेले नोकरे निमतान तें तूं जाणा. हिन्दुस्तान लीवराचो बंड गार्डनालागीं एक सेल्स डेपो आसा. थंय एक सेल्स सुपरवायजर जाय कंय. मॅनेजर ओळखिचो आसा, जातलें काम.''

आवय बापायक पत्राविशीं नोकरेविशीं सांगल्यार ते वोगच रावले. आवयन कांय वेळान चिरक्या आवाजांत म्हटलें, ''खंय तरी वचून आतां पोट भरचेंच.''

तो तें सांगूंक सीताय आवोसरीं गेलो. सीतायन म्हटलें, ''वाड्यार तूं शिकिल्लो भुरगो. वाडो उबंतर उडोवन वयता?''

''म्हाका खूब दिसता गे मनांत गांवांत रावचें म्हण. पुण्यांत आसतना हांव गांवचे यादीन रडटालों एकलोच बसून. पूण कितें करतलों हांव हांगा रावन? कसली नोकरी मेळटली? कितलेय यत्न केले तरीय कुंबार धंदो वाडची आस्त ना. ह्या धंद्यांत फायदो आशिल्लो जाल्यार मुगे शारांतले पयशेकार हांगा येवन फॅक्टरी घालतासले. तुमच्या हातांत उरचो नासलो तो. कुंबरांल्या दुख्खाचें कारण एकच – पयसो ना. हर प्रयत्नान कुंबरान आतां पयसो जोडूंक जाय, तरच भुरग्यांक शिक्षण मेळटलें, पुस्तकां, कपडे मेळटले, पोटभर जेवंक मेळटलें.''

''पयसोच व्हड म्हणटा तूं! पूण हो पिळग्यान पिळग्यांचो धंदो न्हू? तो पाड घालचो म्हणटा?''

''कुंबार धंदो तो आमीच कित्याक करचो? आमी आतां धंदो बदलूंक जाय. कुंबार म्हणटा तो फक्कत एक धंदो, जात. धर्म न्ही धरून रावंक.''

''तूं शिकला, तूं लाथ मारता थंय उदक येतलें. पूण हेरांक अवघड रे तें! अजूनय मातयं गुळ्यांतच कुंबरांक भाकरी दिसता.''

''संवसार उकतो जाला. आमी बदलूंक जाय न्ही. जाणा मुगे, सकल्ल्या जातींच्या लोकांक सगळेकडेन राखीव सुवाती आसतात – शिक्षणाक, नोकरेक, आमदारकेक... पूण आमकां कांयच ना. आमी आमच्याच पांयांर उबे रावंक जाय. स्वातंत्र्य येवन पन्नास वर्सां जालीं पूण आमकां अजून विज्ज ना, रस्तो ना, व्हाळार सादो सांकव जायना. म्हजे सारक्याक शिकतलो जाल्यार हेरांले जेवणा

दबे माथ्यार व्हांवन शिकचें पडटा. आनी हे वाड्यावयले लोक भुरग्यांक शिकयात म्हटल्यार म्हज्या आंगार किसळटात.''

''पोटा मुखार, भुके मुखार पुराण वाचून कांय उपेग ना सदानंद. भूक म्हणटा ती चरतल्या बैलावरी.''

''शिकप ना म्हण पयसो ना, पयसो ना म्हण भूक भागोवप शक्य ना. एका दुश्टचक्रांत सांपडला गे कुंबार.''

सीताय कांय वेळ वोगच रावली. मागीर तिणें म्हटलें, ''सरकार तळ्याक बांद घालून आमची माती बुडोवंक पळयता. तुजेसारखो शिकिल्लो भुरगो आसल्यार आडावंक, झगडूंक जातासलें. आतां मुखार पावलां खंय तें.''

''कांय जावचें ना गे आडावन. तूं नकळ आवो, हेरकडेन सरकारान शेंकड्यांनी गांवां रितीं करून न्हंयकबीन बांद घातलात. आयकनात ते. पुराय धा गांवाक बांद जाय जाल्यार आमचें कोण आयकतलो? आमचीं हीं आठ घरां. कुंबरांनी आतां कसल्याय अद्रश्टाक तोंड दिवंक तयार रावंक जाय.''

''आमचे सारक्या म्हाताऱ्यांचें सोड. कशें तरी मरचेंच आसा. तुमचे सारके भुरगेय खंयूय गांवार वचून पोट भरतले. पांखां तन्नीं आसात. पूण जे आतां अर्द पिरायेर पावलात, मातीच पोट म्हणटात, तांणी कितें करचें? हांव सांगतां तुका सदानंद, तळ्याक बांद घालून तळें फुगयल्यार वाड्यावयलो एक्कान एक दादलो वचून तळ्यांत हुडी घेवन जीव दितलो.''

सदानंद कांय वेळ सीताय आवोक पळयत रावलो. ताच्या दोळ्यांत दुकां उबीं रावलीं. घोगऱ्या आवाजांत 'येतां गे आवो' म्हणत तो उठलो आनी चलूंक लागलो.

सीताय बेगीबेगीन उठून उबी रावली. तिणें म्हटलें, ''सदानंद, मगेल्या नातवाक खंयूय इल्ली रोजी मेळटा जाल्यार चय रे. फाल्यां गोकुळास्टमेक तेका चवदा सरून पंदरा लागतात.''

कार्तिकांतले दीस आसले. सकाळीं शीं बरेंच खातालें. वाड्यार कुडक्याकुडक्यांनी भोंवरे कशें वोत पडिल्लें. शंकर सामको धोंपरांत तकली घालून वोत शेकत बशिल्लो. ताचीं वयर उठिल्लीं धोंपरांच दिश्टी पडटालीं. तकली धोंपरांत मुंगरून गेल्ली.

विश्राम मुखाल्ल्यान वयतालो. ताणें विचारलें, ''शंकरण्णा, शीं चड रे?''

''रातभर कुलकुल्यांनी थंडी. अजूनय शिंयाची मिठी सुटना.''

''चड जाण्टो न्ही रे तूं.''

''कुंबार जाण्टो आनी नेण्टो, चाळीस जालीं की सोंपलो. हाव्यांत घालून काडिल्लेवरी रगत आट्टा. बेगीन मरण येयलें म्हण वायट न्ही विश्राम. उब्याउबें बेगीन मरचें रे कुंबरान. ती शिवरामाल्या घरावयली केळ पळयल्या, केद्दे व्हडलें पान पळय, वचून घराच्या पाडसऱ्याक तेंकलां. येद्दें व्हडलें पान केन्ना पळयल्लें तुवें? कुंबार भागूंक लागला आनी हे अवलांतीण केळीकच हें पान खंयचें? मगेले किरवडेर हांथळूंक उपकारतलें तें विश्राम.'' मागीर एकदम तो उठून उबो रावलो, व्हडान उलो घालून म्हणूंक लागलो, ''शिवराम, तें तुगेले दारांतले केळीचें पान पळय, घरापांख्याक तेंकलां. हातर कशें पान. वायट अवचिन्न. पयर दुलबा मेल्लो तेन्ना तेच केळीचें पान किरवडेर घातिल्लें मुरे?''

देडेक वर्सांफाटीं शंकर सोऱ्या वोजें वाटेर उडोवन वाड्यार धांवन येयल्लो. फाटल्यान पोलीस फाटीक लागून वाड्यार घुशिल्ले. वाड्यावयल्या लोकांनी पोलीसांले पांय धरून ताका वाटयल्लो. तेन्नासान शंकराक निर्शेणेन घेरिल्लो. आनी तो घुंविल्लेवरी करतालो. केन्ना मडकी पेटूंक म्हण माती भिजयतालो आनी ती आठआठ दीस कुसत उरताली. मनाक माल्ल्यार चाकाक हात घालप आनी चालां काडप. चालांय केन्ना सुकून कट्टी जावन वयतालीं. बायल पूतय ताका हेंस्सफेंस्स करून किंकोंत करतालीं. तो केन्ना सोरो व्हांवतालो म्हण न्ही तर आतां तो खंयचेंच काम नीट करिना म्हण.

फाटीं ताणें नेट लावन दोनतीन फावट हावे काडिल्ले. एक फावट तो आनी

बायल दोगांनय दोन जाबळे माथ्यार मारून सात मैल चलून बद्द कोडीबागांत मडक्यो व्हांयल्ल्यो. पूण सकाळ धरून सांजमेरेन थंय एक जाबळोय मडक्यो खपल्यो नात. उरिल्ल्यो मडक्यो घेवन घरा परत येयसर जेवणरात जावन गेल्ली आनी तीं थकून तांचे कुडीचे गबे जाल्ले.

आतां आतां ताचे हात मोने जायत गेल्यात. केन्ना बायलेक चरांटून गाळी संवत म्हणटा, ''कित्याक बडयता, कित्याक चाळटा ती माती? लोकांनी मडकेंत रांदचें सोडलां. सारयेर फोडूंक गांवलोक सगळो मरचो म्हण माग. स्टीला आयदनांत रांदून जेवन नाना रोग जावन मरतले चय ते. केन्सर म्हण आयकलां तुवें?''

आतां तेणें नवेंच आयकलां - तेगेलो चडो प्रकाशान बाजारालागीं वडाकडचे पायणींत एक माटोव घातिल्लो चुट्टांचे कडवे करून. शरबत, चणे, चाकलेटी, बिस्किटां, विडीकाडी विकूंक म्हण. थंय एक फळें आडवें घालून कांय बरण्योय दवरिल्ल्यो. पूण खरें तर तो थंय सोरो विकतालो. केन्ना सोता गोंयचे हद्दे भितर वचून सोरो हाडटालो. केन्ना हेरांकडच्यान हाडून घेतालो. तिनसांजचो लोक माटवांत गडदी करतालो. कोणकोण थंय सोरो घेवन कुशीन रुखांमुळांनी वचून बसताले.

प्रकाशान एक शाणेपण केल्लें. पोलिसांक मेळून तो म्हयन्या-म्हयन्याक नीट हफ्ते पावयतालो. हरशीं प्रकाशाक वाड्यार पयलींपसून आडांगी अवजाळी भुरगो म्हणच वळखताले. कळटकीर शंकरान इतलेंच म्हटलें, हांव आतां मेकळों. कामांतल्यानय मेकळों आनी मरुंकय मेकळों! मागीर ताणें एक दीस व्हडान उलो मारून सीतायक म्हटलें, ''सीताय मावशे, आमगेलो प्रकाश धंद्याक लागलो. कुंबार धंद्यापरस आनीक खंयचो धंदो वायट ना गे. आमीच भियेले सगळ्यांक. हे मुखार आता कोणाचो कोणाक भंय उल्लो ना.''

कुंबारवाड्या लागींच एका उल्यार कुळवाड्यालें व्हडलें खळ घातिल्लें आसलें. थंय चाळिशेक तरी धानां गुडी आसली. चारच दिसांत

मळणी सुरू जावची आसली. पयरच थळाची जोगोवणी जाल्ली. कुळवाड्यांनी रोट, चोरू शिजोवन भुतांखेतांक, गिरावळीक घातिल्लो.

ताच्या हेर दिसाकच रातचो दोनांक सुमार कुंबार राघोबा मुतूंक म्हण भायर येयल्लो तर तागेले दोळे दिपकल्लेवरी जाले आनी उज्याचो भगभग दिश्टीक पडलो. खळावेलें एक धानघुडें पेट्टालें आनी ताचो लोळ वयर सरतालो. देवा, कुळवाड्यांली वर्साची घोळटीक, तांचें पोट! ताणें एकदम गळ्याची नाळी फोडूनशी वाडो हालयत बोब माल्ली, ''धांवात रे धांवात, खळाक उजो लागला, धांवात.''

जाका पयलीं जाग आयली, जांणी पयलीं आयकलें तांणीय बोब मारूंक सुरवात केली. कांय वेळ कितें जालां हें कळनासतनाय आरड आनी बोबेन पुराय वाडो भरून गेलो. मागीर लोक रोखडोच साबुद्दीर आयलो. घरांत दारांत आंगणांत जंय म्हण उदकाचे कळशे, बिंदले भरिल्ले आसले ते घेवन खळावटेन धांवंक लागले. कांयजाणांनी बेगीबेगीन आपले रिते कळशे बांयचेर भरून घेतले.

धा-बारा दादले, तितल्योच बायलो, भुरगीं शेतांतल्यान, मेरेवयल्यान जशे हुडयो घेत फाटींफुडें धांवताले. एका पुराय पेटिल्ल्या गुड्याचो उजवाड लपलपत भोंवतणीं पातळिल्लो. म्हणसर आनीक दोन गुडयांनी उजो घेतिल्लो. त्या उजवाडांतच ते धांवताले म्हटल्यार जाता.

जे पयलीं पावले तांणी सरसरीत गुडयांर उदक माल्लें. उजो आनीक पातळचो न्ही म्हण कुशीनची गुडी भिजयली. इल्लो इल्लो दंव पडटालो ताचेन एकदम उजो धांवंक पावनासलो.

सगळ्या तीन गुडयांक उजो पेटिल्लो. एक गुडये उज्यान पुराय आपले आधीन घेतिल्लें. दुसरीं दोन अर्दीं पेटिल्लीं. तांच्या गाब्यांत भातांमेरेन घडये अजून उजो पावंक नासलो. अर्दी पेटिल्ली ती गुडी कुंबरांनी उदकाचे कळशे ओतून ओतून पालयली. पूण पुराय पेटिल्ले ते गुडये कशेच आटोक्यांत येयना जाले. उल्टो तांचो उजो वाडतच गेलो. हें पुरूसभर उंच गुडये, करकरीत सुक्या धानाचे, मदल्यान पेटिल्ले आनी तांचो उजो वयरभर उबो वयतालो, एक म्हाज्योत पेटिल्लेवरी.

कुंबार हळहळटाले. देवा, दोळ्यांहुजीर कोणालें तरी धन पेटलां! वांगडाच ते उजो आनीक पातळचो न्ही म्हण कुशीच्या गुडयांक उदक मारून तीं ओली

करीतच आसले.

तेवटेन विश्राम कुळवाड्यांल्या वाड्यावटेन धांविल्लो. आकाड्यांतल्यानच आड्डत तो वाड्याचे मदीं पावलो. ''धांवात, तुमच्या मुळकणांतल्या खळाक उजो लागला.'' काळखांत उबो रावन तो आड्डतालो आनी वांगडाच सुणींय अच्छेव आयिल्लेवरी भोंकतालीं.

वीस पंचवीस घरांचो व्हडलो वाडो. कोणाल्या तरी बंद दारांतल्यान आवाज भितर गेलो. तो उठून भायर येयलो, धडपडत वचून तेणें दुसऱ्याल्या दारार माल्लें. दुसऱ्यान तिसऱ्याल्या दारार. खिणांत सगळो वाडो घरांतल्यान भायर येयलो. सगळ्यांच्यो बोबो आनी हुयेल्यो, ''देवा घात जालो रे, आमचें पोट उज्याचे भकीक पडलें.''

ते खळार येवन पावले तेन्ना दोन पालवल्लीं अर्दीं लाशिल्लीं गुडयां मुखार उबीं आसलीं. एक गुडयें पुराय जळून खाक जाल्लें. ताच्या गोबरांतल्या राशींतल्यान फकत धुंवर उट्ठालो.

उकत्या मळबांत राशींनी नखेत्रां रसरसतालीं. खळार चाळीसेक शाबूत घुडयां उबीं आसलीं. शिंयाच्या कुडकुड्यान एक वटेन कुंबार खुरमांडी घालून बशिल्ले. दुसरेवटेन कुळवाडी. झिळमिळ्या काळखांत सगळे एकच सारके, आपलेशे दिसताले. खरें तर एक् व्हडलो आकांत चुकिल्लो, ताची खोशी मनोवपा बदला, पुराय खळान उजो घेतल्यार कितें जातासलें हेच भिरांतेंत ते पडिल्ले.

कुळवाड्यांवटेसान कोण तरी मदींच उलयलो. ''लागींलागींच भावपणान रावले आमी इतलीं वर्सां. उजो पालयलो तुमी आमच्या खळावयलो. विसरचेनात केन्ना.''

कुंबार पुरशान तो आवाज ज्युस्त वोळखलो. हो खुशाली, वर्साफाटीं तो हावठणा सकल्लेवटेची आमची सुवात आपली म्हण सांगून वंय घालूंक येयल्लो. आडयतकीर बुरशो गाळी संवन गेल्लो. तागेली गुडी हुलपतां हुलपतां सुगूर उरिल्ली.

कोणेंतरी दोन कळशे उदक त्या धुंवरेवपी गोबरा राशीर हाडून घातले. मागीर सगळे उठून गेले.

दुसऱ्या दिसा सकाळीं कुळवाडी खळार येवन गणमणटाले. तेन्ना तांकां

दिसलें, उजो शेतांतल्यान बरोच लांबसान पेटत पेटत आयल्लो.

... काल सांजचो सैरोबा आपल्या शेतांत मेरो करतालो. घराकडसान येतना तो एक शेऽण पेटोवन घेवन येयल्लो, विडी ओडूंक म्हण. वयताना तो पेट्टी शेऽण थंयच सोडून गेल्लो. लुंवताना, धान बांदून व्हरतना थंय आशिकुशीक बरेंच तण पडिल्लें. लुविल्ल्या धानाचीं मुळांय सुकूंक लागिल्लीं. त्या तणान शेणींतल्यान केन्नातरी उजो घेतलो आनी तो खळार गुड्यांमेरेन पावलो.

**व**र्सा फाटींच चंद्रकांतालें लग्न जाल्लें. तागेली बायल गोंय बाळ्ळीसान लग्न करून हाडिल्ली. दिसूंक बरी सुंदर आशिल्ली अशें न्हू, पूण ती चार बुकां शिकिल्ली आनी बरीच फॅशनां करताली. तिचेसरीं मेकअप बॉक्स आसलें. बाजारांतल्यान धाकली शँपूचीं पाकिटां हाडून ती न्हावताली. अशें सांगताले, तिगेले ट्रूंकेंत दोन सलवार कमीजाचे जोड आसले. पूण ते तिका ह्या कुंबारवाड्यर घालचो धीर जायनासलो. ती ते ट्रूंकेंतल्यान परती परती काडटाली आनी झाडलेशे करून परत ट्रूंकेंत दवरताली.

लग्ना पयलीं देडेक वर्स तें वास्को मावशेगेर आसतालें. मदींमदीं बायलांक बीन तें वास्कोच्यो खबरो सांगतालें. वास्कोच्या सप्तांत जाणा मुगे... जाणा मुगे मावशेल्या घराच्या दारांतल्यान बंदरांत बोटी उब्यो राविल्ल्यो दिसताल्यो, व्हडल्यो व्हडल्यो बोटी...

पूण बाळ्ळी तेगेलो बापूय कुंबार काम करनासलो. गीमांत काजूंनी वावर करतालो. पावसांत खोऱ्या कामाक वयतालो. चार जण तीं भावंडां. बरीच गरिबी आसली. तातूंत तागेले जातीचे कुंबार इतले उणे, सोयरिकेक भोंवभोंव भोंवचें पडटालें.

एक फावट विश्रामा बायल श्रीमंती बाळ्ळी आपले भयणीगेर गेल्ली आसतना तिणें रजनील्या बापायक सहज म्हटलें, आमगेल्या वाड्यार चंद्रकांत म्हण बरो भुरगो आसा. रजनीक बरो सोबतलो...

रजनीलो बापूय जसो पडट्या फळाची आज्ञा मानून श्रीमंती वांगडाच माजाळे

येयलो आनी सगळें घट करुनच गेलो...

कुळरापरसय हांगा गरिबी आशिल्लीच, आनी वयल्यान जिणेंत कसलेच रंग ढंग नासले. तोंडाक लावचेलो पावडर, न्हावचो वासा साबण हांची अजून दिसपट्टी गरज जावचीच आसली. मन माल्ल्यार ज्या दिसा कोणय वासा साबण बाजारांतल्यान घेवन येतालो त्या दिसा घरांत उत्सव आसतालो.

पूण तकलेर मडक्यां जाबळो घेवन वचचें आसलें तरी रजनी तोंडाक पावडर लावन भायर सरतालें. बायलो मागीर फाटल्यान फुतफुतताल्यो, खबरी करताल्यो. मांयन एक दीस म्हटलें, ''पावडर कित्याक, इल्ली तळ्यांतली माठा माती सारोवन घे. बरी कुंबान्न कशी दिसतली.''

हाचेर रजनी तिचेर किसळ्ळें, ''तुमच्या कुंबरांनी मातीच थापची. भायलो संवसार खंय पळयला तुमी? चिखलांतल्या गोळक्यांक चिखलाचेंच सूख.''

त्या दिसा मांय आनी सुनेमदीं बरेंच मोटें झगडें जालें.

रजनीलो घोव चंद्रकांत आपूण आवयवटेनय ना आनी बायलेवटेनय ना म्हणिल्लेवरी आंगणांत वोग्गी कुडतेन माती बडयतालो. एक फावट आवयन 'लेमडो तूं, बायलेलें तोंड फोडूंक जायना' म्हणटकीर ताणें इतलेंच म्हटलें, ''तुमी झगडून मरात थंय, म्हाका आनी कित्याक मदीं ओडटात?''

हरशीं चंद्रकांत इल्लो थंड साबळोच आसलो. आतां हेर तरनाटे भुरगे शर्ट इन् करून लांब पेन्टी घालूंक लागिल्ले. पूण चंद्रकांत हाफपेन्टच घालतालो आनी वयल्यान शर्ट सोडटालो. तळ्यार गेल्यार बायलेन रानांनी भोंवन यां म्हटल्यार 'कित्याक गो थंय काट्यांनी घुसूंक?' म्हणटालो.

गडार म्हामायची जत्रा आसली. पयलीं हे जत्रेक धा बारा जाबळे मडक्यो खपताल्यो. वाड्यावयल्यो बायलो मेळून जाबळे घेवन वयताल्यो. पूण आतां लोकांक जत्रेंतल्यान हातांत मडकीं धरून व्हरूंक लज दिसताली. ह्या वर्साक फक्कत रजनीलो मांव शिवरामान सुनेक वांगडा घेवन दोन जाबळे मडक्यो जत्रेक पावयल्ले. सुनेक सकाळीं मडक्यांचो मांड घालून दिवन तो घरा येयल्लो. येताना सांगिल्लें, ''खपता तितले खपूं दीत. उरिल्ले जाबळ्यांत घालून बांदून तामणकाराल्या मांडा कुशीक दवरून सांज जावच्याक घरा यो.''

सांगिल्ले परमाणे त्या दिसा तें सांजचें घरा येयलें. दुसऱ्या दिसा तसोच घोव जाबळे घेवन ताचे बराबर गेलो. तोवूय रजनीकच थंय विकरेक बसोवन परतो येयलो. दोनय दीस ते तिनसांजेर घरा पाविल्ले.

तिसऱ्या आनी निमण्या दिसा आपूण उरिल्ल्यो मडक्यो खपोवन रिते जाबळे घेवन येतां म्हण तें एकलेंच जत्रेक येयलें.

त्या दिसा मात सांज जाली, तिनसांज जाली, रात जाली पूण रजनी घरा पावलें ना. आज तर सगळें गुठलावन घेवन बेगीनच यो म्हण सांगिल्लें! म्हणटकीर घोव आनी मांव वर सवावराची ती वाट माडोवन जत्रेचे सुवातेर वचूंक सुटले. हुस्को गळ्याकडेन पाविल्लेवरी ते धांवनशे चलताले.

चलताना ते उलयताले, ''तेका एकल्याकच पातेवंक फावनासलें कांतू. आतां पयलींवरी ना, काळ वांकडो जाला.''

''हय, इल्लें वाचूंक बरोवंक कळटा तेका. नाटकांत उलयल्लेवरी उलयता.''

''कुळराबीन वयता म्हणटालें?''

''ना, म्हाकाच गोंयां खंयूय नोकरेक वच म्हणटालें.''

''कानडी चवथी शिकिल्लो तूं, तेंवय विसरून गेला. गोंयां वचून शेणचेंच आसलें.''

म्हामाय देवळासरीं पावल्यार बरेच जत्रेमांड उठिल्ले आनी देवळामळ रितें पडूंक लागिल्लें. कसलो आवाज नासलो, लोकांचें यो-वच नासलें. जंय थंय उजवाड आनी काळखाच्यो सरबरशी सावळ्योशो पातळिल्ल्यो. देवळांत पळयल्यार आड्यावयल्यो घांटी मोन्यो पडिल्ल्यो. गर्भागारांत खूब भितर पेटपी दिवो खूब म्हेळसो दिसतालो. शिवरामान मनांत म्हटलें, भर जात्रेंत गर्भागारांत काळोखसो कित्याक पातळ्ळा! मागीर ताच्या लक्षांत आयलें, कालच जत्रेचो निमाणो दीस आसलो. आज बरेच मांड बेठेच गिरायकांची वाट पळयताले.

तांणी मडक्यांचो मांड घालून दिल्लेसरीं येवन पळयल्यार थंय कोणच नासलो. थंयचे तांब्या तामणा मांडय उठून गेल्ले. फक्कत रितो भणंग माटोव. माटवाचे मेडीसरीं मडक्यांनी अर्देक भरिल्लो जाबळो सरकून दवरिल्लो. ताचो वयलो पास लेगीत बांदूंक नासलो. तोंड उकतेंच आसलें. पळोवन शिवरामाल्या काळजार

मूठ मारिल्लेवरी जाली. खंय गेलें हें...

चंद्रकांतान म्हटलें, ''वाटेर खंयूय चुकामूक जाली आसतली बाबा, घरा पावलें आसतलें तें.''

''चुकामूक न्ही रे ही कांतू...''

मुखारच एक खाज्यामांड आसलो. ताचेकडेन वचून शिवरामान विचारलें, ''ती मुखार मडक्यो विकताली बायल, खंय ती, घरा पावली ना...''

खाजेकार मात्सो अनमानलोसो जालो, पूण तांचीं बावडीं तोंडां पळोवन ताणें सांगलें, ''हेदोळ सांजचो तो व्हडलो तामणां मांड कवळ्ळो आनी ते तामण पिकअपींत घालून घेवन गेले. ती मडकीं विकताली बायल पिकअपींत कोणा वांगडा मुखार बशिल्ली पळयल्ली...''

शिवरामान आवरो हुडिल्लेवरी 'कितें...!' म्हटलें. चंद्रकांत तर रडूंक पाविल्लेवरी जालो.

खाजेकार इल्लो मुखार बागवलो. ताणें सांगलें, ''एकलो तामण विकरेचे पयशे घेवचें काम करतालो. ती बायल मडक्यो तशोच सोडून तेचेसरीं येवन उलयत रावताली सदांच. तिका तोच चायेक, जेवणाकबीन व्हरतालो. फोल्गां मारतालीं.''

''खंय गेल्यांत आसतलीं?'' शिवरामान जीव गळ्यांत हाडून विचारलें.

''कशें सांगतलों? येद्दो व्हडलो मांड घेवन भोंवतात ते. पिकअपींत बशिल्ली तेन्ना आमी समजल्ले, तो तिका घरा वचूंक मदीं वाटेर बीन सोडटा दिसतलो म्हण.''

''केन्ना सुमार तें?''

''हेदोळ चारांक सुमार. आतां णव जावंक येयलीं.''

बापूय आनी पूत दोगय सरकावन दवरिल्ल्यो मडक्यो घेवन परते फिरले. वाटेर ते एक उतर उलयले नात. ते काळखांतल्यान चलताले आनी काळोख जसो एक म्हारू जावन तांचे बराबर चलतालो, तांचे मदल्यान. कितेंय उलयल्यार म्हजो साबळो पोर रडूंक लागत म्हण शिवरामाक भिरांत दिसताली.

घरा येवन तेणें बायलेक इतलेंच म्हटलें, ‘‘कोणा बराबर तरी पळोन गेलें तें पिकअपींत बसून. हे मुखार कुंबरां बराबर बायलो रावच्यो नात.’’

घरांत रडूंकय जायना, सवंकय जायना अशी गत.

पूण वाड्यार रोखडीच ही खबर कळ्ळी. वाड्यारय एक सुन्न थंडाय पातळ्ळी. खरे तर खबर आयकोन वाडो हालिल्लोच.

कुळवाड्यांले भुरगे आतां बरेंबरें शिकून गोंय, मुंबय, पुण्या नोकरेक वचूंक लागिल्ले. जाण्टेंच गांवांत उरताले. ताचेन बरींच शेतां पडिंग पडूंक लागिल्लीं. कोणाकय कसून पिकयतल्यांक ते सवाय गेणीन दिताले. गोपाळान तकलेंत घेतिल्लें, आतां कोणालें तरी कुळवाड्यालें शेत गेणीत करचें.आपली ही माण्णी तो वाड्यार कोणाकोणाक सांगत रावतालो. हेर गांवचे कुंबार शेतां बीन करताले. तांचीं कांय जाणांचीं सोताचीं शेतां लेगीत आसलीं. पूण ह्या गांवच्या कुंबरांनी केन्ना सोता शेत वसोवंक नासलें. कुळवाड्याल्या शेतांत वावराक वयताले पूण सोता शेत कसून अजून पिकोवंक नासलें.

गेल्लीं पांच-स वर्सां मेरेन चोंयभोंवतणचीं शेतां अशीं पांचवींचार जावन पावसांत वयर सरतालीं. तीं पिकूंक लागलीं म्हणटकीर चडट्या वोतांत शेतांत भांगर रखोवन दवरलां अशें दिसतालें. आतां ल्हवल्हव कुडक्याकुडक्यांनी शेतां पडिंग पडूंक लागिल्लीं. सारखी राखण नाशिल्ल्यान गोरवां शेतांत पडटालीं. रोविल्लें खावन उडयतालीं. शेतांचें मोल उणें जाल्लें. वर्सभर शेतांत घोळचें कोणाक नाका जाल्लें. कुळवाड्यांले नोकरेक गेल्ले भुरगे रजेर येयल्यार येवन शेतांनी भोंवन वयताले आनी वचून आवय बापायक सांगताले, ‘‘शेतां आनीक करूं नाकात तुमी. जावचें ना तें कश्टांचें काम आतां.’’

निकतोच माघा म्हयनो लागिल्लो. एक दीस गोपाळान खंयसान तरी दोन बैल हाडले. सामके भागिल्ले, तेंकिल्ले. तांचो फाटीकणो सामकोच बशिल्लो आनी भागिल्लें पोट सकल लांबतालें. ते हाडले आनी ताणें हावठणाकडच्या

पणसा मेड्याक बांदले. थंयच कुशीन एक नांगरा घडप, जूंव उबें केल्लें. सामकें झरिल्लें नांगरा घडप, रिशीचीं खांपां तुटिल्लीं आनी नांगर, ताची जगल झरून सामकी बारीक जाल्ली. बैलांल्या गळ्यांतलीं दांवीं, जुवांतल्यो कानी पोन्नी तुटूंक पाविल्लेवरी जाल्ली.

एकएकलो कुंबार येवन पळोवन वयतालो. मनांत म्हणटालो, हें सगळें पोन्नें जिंत्रप वांगडाच कोणालें तरी मागून हाडलां हाणें. घनशामान तेका म्हटलेंच, ''गोपाळा, मांसाक मारूंक व्हरतना हे बैल सोडोवन हाडल्यात काय कितें रे तुवें? तूंच बिरमतेक पडटा पळय.''

''सदाशिवालें जोत तें. जाण्टें जालां. बांदून दवरून आनी चडच भागलां. तेणें म्हटलां, तूंच पळय बैलांक आनी तळ्याकडचें मगेलें तीन खांडयेचें शेत कसून रोय. मागीर कितें दिता तें दी.''

''तळ्याकडचें शेत तें कश्टाक कितलें जड जाणा मुरे? कसताना बैलांल्या गाणींतल्यान फेण येता. दिपळ्यार दिपळो माल्ल्यार सणण करून उसळटा आनी हाती रटे फुट्टात. आनी तेणें दिता तें दी म्हटलां? कोंकणो कुळवाडी तो, फाल्यां खळार येवन बसतलो साक घेवन.''

तरी गोपाळान दुसऱ्याच दसा खांदार नांगरा घडप घेवन बैलांक हामडून व्हरून तळ्याकडच्या शेतांत जोत बांदलें. शेत कसूंक बरेंच जड आसलें, तासार फातर कशे दिपळे पडटाले. नांगर अडचून धरून बैलांच्या फाटीर बडी ओडत तो कसतालो. हाता मणगट धरून खांद्यामेरेन हिसके बसताले. तरीय ताका आज आपूण सुगूर आसां, कसोतरी तड मारतलों अशें दिसतालें आनी समाधान भोगतालें.

**शं**कर पयलीं अदींमदीं सोऱ्या घोट घेतालो, सोऱ्या अंमलात मोटी ताबदारकी सांगतालो. पूण आतां कांबळ कांबरून काळखांत बशिल्लेवरी एकलोच वोग्गी खंयतरी बसून रावतालो. जोराची हुडहुडी भरिल्लेवरी हात आंगा भोंवतणीं घालून आंग कवळून घेतालो. एक दीस तो धांवन धांवनसो सीताय

आवोसरीं येयलो. ‘‘सीताय मावशे, यो पळय हावठणाच्या तोंडार येद्दें सुपायेदें वटवागूळ मरून पडलां, पांखां सोडोवन.’’

सीतायक धस्स जालें. ती बेगीबेगीन हावठणार गेली, पळयल्यार थंय कांयच नासलें. ‘‘अरे खंय रे तें?’’

‘‘दोळ्यां मुखार झळकल्लें, काळो सत्रें कपडो कसो. जीव भल्लो आसतलो, हेदोळ कुडवभर काळे कोळशे आसले तेवय नात.’’

सीतायन ताका बारीक पळयलें. ‘‘शंकर तूं आतां दिसांतल्यान दोन तरी मडक्यो पेट. ना तर मरतलो बेगीन. कुंबाराल्या हाताचें कर्तुब तें. मरसर बंद करचें न्ही.’’

‘‘मडक्यो पेटोवन खंय खपोवंक वचूं हांव? काय म्हजेच सारयेर फोडूंक पेटूं? मगेलो पूत धंद्याक लागला. हांव आतां बसून खातलों. तो पोलिसांक पोसता म्हण जाणा मुगे?’’

सीताय वोगच परत येयली. धंदो खंय, केन्ना सोऱ्यासयत तेका पोलीस धरून व्हरतले सांगून जायना.

घनशामालो चेडो सुरेश गेल्लीं चारपांच वर्सां बापाय वांगडा कुंबार धंदो करतालो. कांय तेंप तो धंदो सोडून गांव भोंवतालो. आतां सकाळींच तो आंगार म्हेळ तेलकटशें खोमीस चड्डी घालून वयताना दिसलो. सीताय जाणा आसली, तो आतां कोणाल्या तरी ट्रकार क्लीनर आसा म्हण, ‘‘चल्लो रे सुरेश? कोणालो ट्रक म्हणिल्लें तुवें?’’

‘‘काजुवाड्यार विवेकान ट्रक घेतला, गोंयां रेतयेक लायला.’’

‘‘विवेक तो नागेश नायकालो पूत मुरे?’’

‘‘हय नागेशमाम आतां रिटायर जाला न्ही?’’

‘‘आतां म़दां तूं गोंयां फावटी मारता तर, मजा तुगेली.’’

सुरेश हांसलो. ‘‘त्या तेगेल्या ड्रायव्हरान म्हाका ट्रक चलोवंक शिकयतां म्हटलां. मागीर लायसन् काडटलों हांव.’’

सुरेश वचूंक गेलो. सीताय चिंतताली. कुंबार ट्रकार किलिंडर जाला. फाल्यां ट्रक चलयतलो... तिका एकदम सुरेशाक उलो मारून सांगचेंशें दिसलें, ‘सुरेश,

म्हगेल्या नातवाक प्रमोदाक कसलेंय काम पळय रे, फाल्यां गोकुळास्टमेक सोळा सरून सतरा लागतलीं तेका.

**य**शवंत आतां आरामांत आपणाक जाय तेन्ना मडक्यो पेट्टालो, केन्ना सवकासायेन हावो घालतालो. तागेलो चेडो सदानंद शिकून पुण्यांत नोकरेक लागिल्लो ताका आतां दोनेक वर्सां जाल्लीं. म्हयन्या म्हयन्याक तागेली घरा मनीऑर्डर येताली. तो केन्ना स म्हयन्यांतल्यान आयलार यशवंताल्या घरांत उत्सव आसतालो. येताना तो भावंडांक आवय बापायक नवे कपडे घेवन येतालो. तेगेल्या घराच्या आंगणांत भितोडेक चाकलेटीचीं, बिस्किटांचीं चकचकीत कागदां पडटालीं.

पूण नकळ कित्याक, तांगेल्या घरासरीं लोकांलें यो वच उणें जाल्लें. यशवंता बायलेलें, गोकळाल्या आंगावेलें नवें कापड पळोवन बायलो फुतफुतताल्यो, दुस्वास करताल्यो. म्हणटाल्यो, "तांत्यावयली कोंबी कशी चाळवल्या, गर्व येयला तेका. पयलीं हें दी तें दी म्हण हेरांल्या दारांनी भोंवतालें. आतां उलोवंक म्हारग. गर्व येयला. पयशांक आनी देवाक सोयरीक ना म्हण नकळ तें."

यशवंताल्या घराक लोक तुटूंक लागिल्लो. वाड्यार तें वेगळेंच 'गिरेस्त' घर जाल्लें. फक्कत धर्मू वचून तागेल्या वारांदांत बसतालो. म्हणटालो, "यशवंता, आतां तान सोंसूंक जायना म्हज्यान. आतां हेतूनच मरचें हांवें. उडय, कितेंय उडय म्हाका."

धर्मूलें ह्या दिसांनी जेवण सुटिल्लें. लिव्हर फुगून पोट अशें एकेवटेन मुखार सरिल्लें आनी तें घुमट कशें दिसतालें. पूण लखत पडत तरी सोऱ्या दुकानावटेन वयचो सोडनासलो. कोणाकडेनय भीक मागिल्लेवरी पयशांक हात पसरायतालो. लोकान धरिल्लें, आतां हो म्हयन्या दोन म्हयन्यां भितर मरता.

यशवंत वयल्यान खडबडीत दिसलो तरीय भितरल्यान मोवाळच आसलो. केन्ना तेणें कोणाक तुटोवन उलयल्लें आसतलेंय. तो सगळें विसरून गेल्लो पूण वाड्यावयलो लोक ताची नव्यान उजळणी करूंक लागिल्ले. तो आतां साबण

लावन नितळ धुविल्लो धवो वालो न्हेसतालो, वयल्यान धवें पैराणय घालतालो. असो तो कोणाल्याय घरासरीं वचून बसल्यार पयलींवरी मनमेकळें उलोवप जायनासलें.

एक दीस रामचंद्रान बारीक जळोवाचें वोजें हाव्या उज्याक म्हण हावठणासरच्या रामफळी रुखाक तेंकोवन उबें दवरिल्लें. तें वाऱ्यार हालून थंयसान येवचे वयचे वाटेर आडवें पडलें. पुराय सांज तें तशें पडिल्लें आसलें. यशवंत थंयसान वयताना ताणें रामचंद्राक व्हडान म्हटलें, ''आरे हें वोजें वाटेर पडलां दिसना तुका? वाट आडोवन दवरलां?''

हाचेर रामचंद्र तापलो. ''वच वच, मात्शी वाट वांकडी करून गेल्यार पांय मोडटले कितें तुजे? तूं पयलीं कांट्याची शिरी आनी शिरपुटां हाव्यासरीं हाडून उडयतालो. आमच्या पांयांक कांटे तोंपताले, गेले ते दीस, आतां मगेलें वोजें दिसता तुका?''

''आरे असो मुर्खावरी आडमुठो कितें उलयता? पिसो जाला?''

''हय, पयशे नाशिल्ले पिशे आमी. तूंच शाणो. शाणो न्ही, पयशांचो माज तो.''

थंय मागीर तांचें बरेंच झगडें जालें. यशवंतय आपल्या मूळ सभावाक धरून बरेंच तिरकटी उलयलो.

खरें तर हो रामचंद्राविशी दुस्वासच आसलो.

सीताय आपल्या आंगणांत उबी आसली ती मनांत म्हणटाली, कुंबारवाड्यार असो दुस्वास केन्ना पळोवंक नासलो. गरिबेन गिराशिल्लीं भुतां जालांत हेंचीं. तो पोर बरो शिकलो पूण तेका परदेसच धरचो पडलो. वाड्याक कांय उपेग जालो ना तेचो. शिकून हिंगा रावन तरी तो कितें करतासलो? कर्मकट्टे हे कुंबार. हिंगा बरें कितें म्हण तगचे ना. कुंबार माती भाजून पातकबीन करिनात मू देवा!

राघोबा पयलींपसून मोट्या आंगाचोसोच आसलो. मोटेंशें कमर, घबधबीत धवसो चेहरो. तरीय कुंबारांलो सगळो वावर उद्योग नीट करतालो. तेगेले बायलेक अपरूप्याक लग्नाक आठ वर्सांनी गुरवाचार येवन दोन वर्सांफाटीं

एक भुरगें जाल्लें. घरांत जाण्टो बापूय आसलो, एक लग्नाची भयण आसली.

मदीं कांय दीस तो सगळ्यांचेर तापिल्लोसो, झगड्याक उठिल्लोसो करतालो. विकरेक गेल्लेकडच्यान मडक्यो परत्यो हाडल्यार बायलेक वायट वायट गाळी संवतालो. बापायन कितेंय उलयल्यार बापायल्या आंगार वयतालो. राग येयल्यार नवीं मडकीं काडून जमनीक मारतालो. एक दीस शिवरामान म्हटलें, "चयलां राघोबा, वाड्यार राती शेणा थापे पडल्यात. हे कुळवाडी रातचे गंवणींत गोरवां बांदिनासतना पारपोळ सोडटात."

हाचेर राघोबा सट् करून तापलो. "म्हाका कित्याक सांगता तूं? वचून कुळवाड्यांक विचार, झगडूंक वच तेंचेकडेन."

गेल्ल्या पावसाक अन्नाक लागून तांची बरीच आबाळ जाली. बापूय पावसभर मरता काय उरता म्हण: जगलो. भुरग्यांलेंय शीकपण जायत उरलें. राघोबाय आतां बरोच भागिल्लो. कंबर बारीक जाल्लें, चेहरो पडून तो इल्लो लांबट जाल्लो. मदीं तो वाड्या भायर भायर रावंक लागलो. खंय वयता कितें करता कळनासलें. दनपरां उसरां येतालो, खूब खूब थकिल्लोसो, हुमेन भरिल्लोसो. तागेलें हाफपेन्ट कमरेर गुठलावन येयल्लें आसतालें. आंग झरकटिल्लें, रगशेल्लेंशें आसतालें. वाड्यार येतना तो थकून भागून लखतसोच येतालो.

एक दीस धर्मू बायल देवावाड्यार मडक्यो घेवन गेल्ली. वैकुंठ सावंताल्या दारांतल्या माडार चडून कोणतरी माड पाडटालो. तिणें वयर चयलें आनी विचारलें, "कोण गा तो माड पाडटा?"

वैकुंठान म्हटलें, "आगे तो तुमगेलो कुंबार राघोबा मुगे."

धर्मू बायल पळयतच उरली. मोट्या हाडाचो तो मनीस आतां बरोच भागिल्लो आनी वयर पाखो कसो दिसतालो. तो फक्कत जिवा जाळाकच थंय हुमकळटा हें कळटालें. धर्मू बायलेन मनांत म्हटलें, हाका आनी हें काम न्हीच आशिल्लें. ताका ती ल्हानपणापसून पळयत आयल्ली. तिका भोवच वायट दिसलें.

तिणें घरा येतकीर वचून अपरुप्याक सांगलें, "तुगेलो घोव राघोबा गांवांत माड पाडूंक वयता मुगो. जाता तरी गो तेच्यान?"

अपरूपें जाणाच आसलें. ताणें थंडपणान म्हटलें, "पोट आसा न्ही गे. पोटाखातीर हातपांय धाडावंक जाय."

पुरशान मांय बरी ना, येवन वचात म्हण शीलाक कोणाकडेन तरी सांगून धाडिल्लें. त्या शेनवाराकच शीला आनी सदानंद येयले गोंयसान. शीलालो पयलीं नाटकांत कामां करतालें तेन्नाचो आब आनी ताची सोबीतकाय, नीतळसाण, हांसरेंपण तशेंच आसलें. बरीं निवळ सोबीत पातळां न्हेसतालें, धवींशुभ्र पोल्कां घालतालें. वाड्यार ह्या घराकडल्यान त्या घराकडेन पासयो मारताना देवाघांट बारीक किणकिणत वयता अशें दिसतालें.

मांय तशी बरी आसली. बेठेंच आंग मुरमुरिल्लेवरी जातालें. आंगावयल्यान उजो व्हांविल्लेवरी जातालें. पुरशान बेठेंच त्या निमतान तरी तीं येवन वचूं म्हण सांगून धाडिल्लें तरीय शीलान मांयक कारवारा व्हरून तपासून हाडलें. बरोवन दिल्लीं वखदांय हाडलीं. डॉक्टरान कांय भिवपासारकें ना म्हण सांगलें. तें मांयक माजाळे बाजारांत बसीवयल्यान उतरावन घेवन येतना सगळो लोक ताका तोखणायेन पळयतालो. दिसतालें, आत्तां कोण तरी मुखार सरतलो आनी ताची दिस्ट काडटलो.

शीला येयल्ले फावट सीताय आवोली एक परवंणी आसताली, 'मगेल्या नातवाक व्हरून खंयूय पोटाक लाय' म्हण.

शीलान जायते कडेन चवकशी केल्ली. पूण सीतायल्या नातवाक वसंताक अठरा सरूंक नाशिल्ल्यान सगळे अनमनताले. तातूंत तो कानडी सवी मेरेनच शिकिल्लो. ताचो गोंयां कांयच उपेग नासलो. शिला सांखवाळ जंय काम करतालें ते फॅक्टरीचे लागींच एक ब्रेड, टोस्ट, केक भाजची व्हड बेकरी आसली. गाडयेंत घालून ते ब्रेड केक गोंयभर पावयताले. शीला थंयच्या मॅनेजराकडेन उलयलें तेन्ना ताणें सांगलें, ''ताका अठरा सरसर तो शिकपी म्हण हांगा येवंदी वर्सभर. अठरा सोंपतकीय मागीर चवया.''

शीलान म्हटलें, ''शिकतासतना पोटापुरतें तरी कितें दिवचें पडटलें.''

मॅनेजरान बेठेंच 'चवया, चवया' म्हटलें.

त्याच नाड्यार शीलान सीताय आवोक आनी तिगेले सुनेक हें सांगलें. ती ताका शीला वांगडा धाडूंक एका पांयार तयार जाली. सीताय आवोन म्हटलें,

“हांगा कुंबार हाव्यांत मडक्योा भाजतालो, थंय तो भट्‌टेंत पाव भाजतलो.”

“दाबोळी रावतात आमी. घर व्हड कांय ना. भायली एक व्हड खोली आनी भितरली एक खोली.”

“सद्याक दवरून घे बाय तूं तेका कशेंय करून.”

“बरें करून रावचें पडटलें. अडचण सोंसची पडटली. सांगात ताका सगळें नीट.” शीला खाकोळांत बसून कानांत उलयल्लेवरी इतलें बेस बरें उलयतालें, ताचें सगळें खरें खरें दिसतालें.

वसंत इल्लो अस्थिर, अवजाळीच आसलो. एके सुवातेर म्हण थारनासलो. आंब्याकडच्यान काजीकडेन आनी काजीकडच्यान चुन्नीकडेन. माती हाडूंक म्हण तळ्यार वयतालो आनी चोबो कुदळ तळ्यारच उडोवन रानाकडांनी भोंवतालो. तो सतरा वर्सांचो जाल्लो पूण सामको भुरगोसोच दिसतालो. आज्जेन आनी आईन ताका म्हऱ्यांत बसोवन सगळें नीट सांगलें, “तुगेलें पुराय आयुश्य आसा. ह्या कुंबार धंद्यांत ह्या मुखार कांय जावचें ना. आमी आज आसात, फाल्यां नात. तुगेल्या ल्हान भयण्यांलें फाल्यां तुवेंच पळोवंक जाय.”

तो भुरगो तो दीस पुराय सांज घुम्म मोनो आसलो. जशी ताची पांयांची हुडी कोणें अचकीत काडून घेतिल्ली. आवय तारा तर सांजभर तागेल्या आंगावयल्यान, तकलेवयल्यान हात भोंवडायत आसली.

दुसरे दीस सकाळीं आज्जेन हेवटेच्यान तेवटेच्यान करून तेगेल्या हातांत देडशेंक रुपये दिले. आंगार आशिल्लो एक म्हेळसो कपड्याजोड आनी पिशवेंत एक जोड - शर्ट आनी हाफ पेन्ट इतलेंच घेवन तो सदानंद आनी शीलावांगडा वचूंक गेलो. दोगांय धाकल्यो भयणी भावाक जश्यो हरणाचे ओले नदरेन पळयताल्यो.

सीताय ताका पावोवंक बशीमेरेन गेल्ली. वाटभर ताका ती सदानंदभाऊ वांगडा, शीलावयनी वांगडा बरो करून राव, तेंगेलें आयक म्हण सांगताली. तांकांय पांये धरिल्लेवरी पोराक बरो करून राखात म्हण सांगताली.

ती तांकां बशीर बसोवन परत येतना सामकी थकून गेल्लेवरी बागवत, लखतशी चलताली. दिसतालें, आत्तां तिगेल्या हातांत बडी दिवची. ती घरा पावतकीर व्हडली नात माली जी आता चवदा वर्सांची आसली ती येवन आजयेक





सारक्की तेंकून उबी रावली. सीताय तेगेल्या केसावेल्यान थरथरत हात भोवंडायत रावली, मोन्यांनी.

तिनसांज जाल्ली आनी काळोख धुंवर कसो पातळूंक लागिल्लो. सीताय पावळेंतल्या तेण्यार बशिल्ली. भितरले वटेन सून तारा काळीज कोणें अंदून धरिल्लेवरी, जीव गळ्यांत आयिल्लेवरी हूं हूं करून परवंताली. काळीसावळी पूण लिकलिकीत दोळ्यांची सोबीत तरणी ती बायल आतां सुकूंक लागिल्ली, मूळ मारिल्ल्या झाडावरी. सीतायलीय आतां शक्त सरिल्लेवरी जाल्ली. बरी लांब रुंद बायल ती पूण आतां तिणें कासवावरी जशें आंग कवळून घेतिल्लें. तिगेलो नातू वचून आतां देडेक म्हयनो जाल्लो. रानांत चरतां चरतां वासूर अचकीत शेणून वयचें आनी गायेन हांबेवन हांबेवन कासावीस जावचें तशें तांकां दोगांकय जाल्लें. बापूय मरतकीर घरांत एकलोच 'दादलो' आशिल्लो तोवूय पोट भरूंक दिगंतराक गेल्लो, अपुरबुद्द पिरायेचेरच.

तिनसांजेर कोण दावखुलां मारून उजवाडाच्यो शिरो पुंजावन घेता आनी फक्कत काळोख सोडटा अशें दिसतालें. मुखावेल्या दोंगरांतलो काळोख तर तळें, शेतां पार करून वाड्यार सूर मारतालो. तातूंत चोंयवटेन इतली थंडाय, इतलें एकसुरेपण पातळिल्लें, सीताय पयलेच फावट त्या काळखाक भियेल्लेवरी जाली. तिणें साबुद्द शेणिल्लेवरी व्हडान सुनेक म्हटलें, "तारा, तुगेलो पूत वसंत चय फाल्यां पेन्ट बूट घालून येतलो. येतना तुका नोटां कवळे, साड्यांचे घट्टे. हांसचे दीस मुगो तुगेले पापणी, रडटा कित्याक? तिनसांजचेर आतां हांस मात्शें. धुवांसरी फुगड्यो खेळ."

भितरल्या काळखांत तारा पुराय बुडून गेल्लें. मांयल्या उलोवण्यान ताका जाग येयल्लेवरी जाली. तें 'दिवो लायता' म्हण उठलें आनी अदमासानच भितर गेलें. वयताना तिणें म्हटलें, "बाळबुद्द येयल्या तुका. हो पिसो खेळ म्हजेकडेन खेळूं नाका."

पूण सीताय परत काळखांत, चिंतनांत बुडून गेल्ली. तिका सारक्की याद

आसा, ती लग्न जावन तिनसांजचेरच वाड्यार पाविल्ली. वाड्यार भितर सरतनाच घनशामाल्या बापायलें लाशिल्लें घर दिश्टी पडलें. फक्कत कोळशे जावंक पाविल्ल्यो मेडी आनी आडी तितली उबी आसली. घटणार गोबोर पातळिल्लो. सांगतालें, वाड्याचे अस्तंत दिकेक आनीक एक हावठण आसलें. एक दीस हाव्याक उजो दिल्लो आसताना वाऱ्याच्या वोगार एक पेटिल्लें तणां कवळ वयर हुडलें आनी ज्युस्त घरार वचून पडलें. तणां चुडटाचें कोलवां घर पेटलें आनी कांय वेळांतच लासून खाक जावन गेलें. घनशामालो बापूय कांय दीस हागेले तागेले भितोडेक रावलो. मागीर एक दीस ताणें खांक्याक झोळी मारली आनी गांवागांवांनी भोंवन लोकांलो आधार मागलो. म्हटलें, अग्नीनारायणान मगेल्या घराचें भस्म केलां. मठी परती उबी करूंक आधार करात. एक वांसो तरी तुमचो पडूं दी. लोकान भात, तांदूळ, पयसो कितें दिसता तें तागेले झोळयेंत उडयलें. मागीर ताणें आपलें घर तेच सुवातेर उबें केलें. ह्या वाड्यार पुराय नळे घातिल्लें तें पयलें नेटकें घर. पळोवन लोकान म्हटलें, अग्निनारायणाची कृपा.

... तेन्ना लोक खऱ्यानच सुखी आसले. जत्रेक परबेक रगड्यार तवलीभर पीठ वाडटाले. सान्नां, गवनां, पोळे, कायलोळ्यो करून खाताले. खुळणीं भरून बऱ्या बऱ्या नुस्त्यांची कडी. तकलेर मडक्यांचे जाबळे घेवप आनी गीमभर जत्रा करीत रावप. खाज़ें ख़पिल्लेवरी मडक्यो खपताल्यो. लोक मडक्यो व्हरूंक म्हण जत्रेक येताले. आतांवरी फक्कत मरणांकच मडकेक रावनासले.

दादले बायलांक घेवन जळोव जिगां हाडूंक रानांत वयताले. येताना तकलेर वोजें घेतिल्ल्यो बायलो तुश्ट, तामशो दिसताल्यो. तेन्ना रानांय गच्च पाचवींचार आसली... तेन्ना हो दोंगर कितलो लागीं दिसतालो. तळ्यांतले मातयेचो वास तर वाऱ्यार दारांत पावतालो. मसणवट मात पयस दोंगराकडेर दिसताली ती आतां आंगणांत येवन रावल्या कशी लागीं दिसता.

...एक वर्सा अचकीत कितें जालें, गुरवार जाल्ल्या कितल्याशाच बायलांक व्हाळणी लागल्यो. जाल्लीं भुरगीं सटयेन कपलार बरोवचे पयलींच मेलीं. कुळवाडीय शेतांत पोल धरली, माडांचे बोंडे झडले म्हण रडटाले. त्याच वर्सा म्हगेलो घोव मेलो. तेन्नासान लोक कुसको जावन घोटाणे पायांनसो पयस पयस गेलो तो परत लागीं येयलोच ना. वाड्यावयलो आंबो बावडो वर्सवर्साक नेमानिश्ठेन

फुलतालो, धरतालो. तेचेंय मूळ मारून भुंयेर शेंवटिलो तेन्ना मुळार कळसोभर दुकां सुटून दीक जाल्लो. कोणाल्या नांवान रडटालो काय तो! कोणाक स्राप दिल्लो आसतलो! देवा मगेलो एकलोच कोंब पोट भरूंक गांवाभायर गेला, राखण दी तेका!

खिणाखिणान काळोख गच्च जायत गेलो आनी सीतायल्या कानांत काळखाची शीळवणशी घुंवली. तिणें बारीक कान दिले, अशो काळखाच्यो शिळवण्यो पयलींय केन्ना घुंवल्यात... घोवाल्या बाराव्या दिसा रातच्यो... पूत मेलो तेन्ना सून रातरात हूं हूं करून रडटाली आनी भायर काळोख शिळोवण्यो वाजयतालो.

वाड्यार इतली थंडाय आसली, दिसतालें, फक्कत एक काळखाचें कूप पातळ्ळां तातूंत रोयण्यो कशीं घरां उबीं आसात. सीतायक दिसलें, सगळ्यो मडक्यो फोडून उडोवन, हावठणार उदक रखोवन कुंबार बिटकी बांदून घेवन दिगंतराक वचूंक गेल्यात. ही दिसतात तीं घरां न्ही तर फक्कत मडक्या कयलांच्यो राशी.

शेतावटेसान काळखांतल्यान कोण येताले. सीताय मात्शी काळखावटेन सरकली. येयल्ले ते तिगय लखतलखत तिगेल्या आंगणांतल्यान गेले. सीतायक अजाप दिसलें, हे बरेच पियेल्ले आसात तरीय हांचीं दाडवणां कित्याक बसल्यांत? तिका दिसलें, हांणी सोऱ्या नेटार बोवाळ घालचो आनी वाड्याक जाग हाडची. तांतल्या फाटल्यान आशिल्ल्याक ती ज्युस्त वोळखली. मोटवो बुडकुलो कसो हो शाणू, तो बायल मरतसान मनीस भायरो जाला. सद्दां सांजचो सोरो पिता आनी मान उडोवन खंयूय बसून रावता. एक उतर उलयना. फाटीं आनी 'म्हारू' जावन रातच्यो किळांच्यो मारपी बायलेक रानांनी सोदत भोंवतालो.

हावठणा वयले वटेन खुंट्याक बांदिल्ले रामचंद्राले बैल खुंट्यार शिंगा आपटून घेताले. पंदरा दीस जाले ताका हांगा हाडून बांदून. मदींच रातचे ते खुंट्यार खड्खड् शिंगां आपटितात. भुकेन काय रागाचो किंवाटो येयल्लेवरी? हे बैल ह्या कुंबारवाड्यार समाधानी नाशे दिसतात. पोट पडलां आनी बरेच भागल्यात. सदां दोळे व्हांविल्ले दिसतात.

इतल्यांत आनीक कोण तरी काळखांतल्यान काळोख खवदळायत येतासो

दिसलो. सीतायक भिरांत दिसली, तो चुकून बांयवटेन बीन वयचो ना मू! ही बीनकट्याची बांय जशी कितलो काळ तानेल्लेवरी तोंड आं करून उकती आसा. दिसान रातीन केन्ना कोणय तातूंत पडटलो अशें दिसत रावता.

तो कोण सीतायल्या आंगणांत पावलो. ताणें रडिल्लेवरी उलो दिलो, "सीताय आवो!" आनी तो दारांतच येवन उबो रावलो. घम्म सोऱ्या वास सुटलो.

"कोण धर्मुलो प्रेमानंद रे? केन्नाचो पोर रे तूं आनी कितें अवस्था तुजी! बापूय पितालोच. तुवेंय कित्याक म्हण हें धरूंक जाय आसलें?"

"बापायन अन्नाक म्हारग केलें मुगे? आतां मडक्यांकय मोल ना. हांव माजाळे मेस्ताले साळेंत घण मारूंक वयतां लोखणार तें चयलें ना?"

"आतां हात कसो आसा तुगेलो?" फाटल्या दिसांनी लोखणार घण मारून तेगेलो तळवो, बोटां फुटून रगत येयल्लें तें सीताय जाणा आसली.

"पाड पडूं गे हात. शंबर घण माल्ल्यार वीस रुपये मेळटात तेच व्हड. बाप्पोक आतां भूक लागना खंय. मरतलो तो बेगीन. आवयक दितां हांव दिसाक धा-वीस. तो मेल्यार आवय तरी सुट्टली."

ताचें हें उलोवप आयकून सीतायल्या मनार कांटे ओडिल्लेवरी जालें. ती वोगच रावली. प्रेमानंद उलयत वचूंक गेलो. "घण म्हणटा ते कुंबरांलें पेटणें न्ही फुलां हातान पेटूंक. गरम लोखणार घण माल्ल्यार उज्याचीं केणां सुट्टात, रटे फुट्टात..."

सून तारा दारांत येयली. "आगे काळखांत अशी भायर कित्याक बसला भुतावरी? दोंगराकडेर मसणवटीर कोणाक लासूंक उडयला काय पळयता? पाड वाडो हो तुमचो. दारांतल्यान सारयेचो उजो नदरेक पडटा."

"कसलें अवचिन्न उलयता तूं तारा, तिनसांजकात्रेर? तुगेलो पूत गांवार गेला मुगो पोट भरूंक..." सीताय कांय वेळ वोग रावली. मागीर तिणें भितर तोंड करून म्हटलें, "तारा, हांव मेल्यार म्हाका नातवाल्या हातानच उजो दी हां. प्रेत तश्शें दवरून तेका हाडूंक गोंयां कोणाकय धाडून दी." मागीर सुस्कारत तिणें म्हटलें, "म्हगेल्या नातीलें लग्न जाले बगर हांव मरचें ना."

ताराक मांयविशीं खूब मोगसो, काकूळटशी दिसली. तिचे मुखार बसून रडचें अशें दिसलें. पूण तें वोग्गी घरांत गेलें. ताणें म्हटलें, "यो, जेवंक यो तूं. वाडटां

तुका.''

**मा**जाळेची मार्केपुनव- बांडीजत्रा जावन आठच दीस जाल्ले. चार दीस मोटो गजबज चलिल्लो जत्रेवटेसान जत्रेचो कलकल, बांडी ओडिल्ल्याचो 'अय्योय्यो यो, यो बांडी यो' हो आवाज, बांडीचें करकरावप, रातचे नाटका गड्यांचे उलयल्ले आवाज कुंबारवाड्या मेरेन आयकोंक येताले. पयली सीताय एकतरी जाबळो मडकी घेवन जत्रेक वयताली आनी मडक्यो खपयतां खपयतां जत्राय करताली. पूण चेडो मरतसान ती जत्रेक गेल्ली ना. तिनसांजची भायल्या वारांड्यार बसता आनी जत्रेच्या आवाजा वांगडा सगळीं चित्रां दोळ्यां मुखार सरकायता. तिका जत्रेंत सगळ्यांत चड मानवताले ते जत्रेक विकूंक येवपी चोंब्यांनीं आबोले फुलां अनी ती माळून तकलेर दिवजां घेवन बांडी मुखार चलपी शेकड्यांनीं सवासिणी. आतां तें तिका आनी तिगेले सुनेक दोगांकय पैसावला. आबोले फुलांचेर नदर पडल्यारच आंगा शिरशिरता. जीव तिडकेता. मन कोणाक तरी गाळयो घालता.

जत्रे दिसा कुंबारवाड्यार बरोच चकफोग जाल्लो. घरां चार तरी कुकडां मारिल्लीं. तवलीभर पोळ्या पीठ रगड्यार वाटिल्लें. चोबो भरून पोळे काडिल्ले. दोन तरी सोऱ्या बाटल्यो पोळ्यासान पांयवाटेन वचूनच जण एकल्यान हाडिल्ले. असनोटी, कणसगिरी, फातर्पे, जांबावलीसान सोयरे आयल्ले. शिवरामान एक भाड्याचो पेट्रोमॅक्स हाडून तो पेटोवन आंगणात माटवांत हुमकळायल्लो. ताचो उजवाड सगळ्या कुंबारांल्या आंगणांत, घरांच्या तोंडार इल्लो इल्लो पडटालो. रात चडटा तसो घराघरांतल्यान उलोवण्याचो घडघड आयकोक येतालो. वाड्याक एकतरेची मस्तेची नशा चडिल्ली. कुंबारान आपली सगळी दु:खा-कश्टां, आपलो फुडार जसो फापडून उडयल्लो, त्या खिणांक !

...पूण आज कुंबारवाडो सगळी धूळ सकल बशिल्ले वरी थंड आशिल्लो, सुस्त पडिल्लो. दोंगरा देगेंतल्या तळ्यांतलें उदक निकतेंच तळाक तेंकिल्लें. चोय वटेंच्या कुळवाड्यांनीं आनी कुंबरांनीं चोबे मारून मारून तळ्यांतले पिट्टोळ,

खच्यों, आळयो, थिगूर, गोळके धरून व्हयल्ले. उदक सामकें खदूळ रेबो करून सोडिल्लें. रातचो केन्ना वाऱ्यार ताचो कुसड वास वाड्यामेरेन पावतालो. सिताय आवोक एक कुवाडें पडलें, ह्या कुसड काळ्या मातयेच्यो मडक्यो हाव्यात भाजतकीर देवावरीं तांबड्यो कश्यो जातात? केन्ना त्यो मडक्यो माथेंबर आबोले फुलां माळिल्ले सवासिणीचे तकलेवरी दिसतात तिका. हें कुवाडें सदानंदाक विचारूंक जाय आसलें. तो तर आतां पुण्यात पावला, ह्या धंद्यांत राम ना म्हण. सदानंद शिकप घेवन आयल्लो तो तेगेल्या दोळ्यांतल्यान, मुखावेल्यान भांगरावर्ण ओतता अशें दिसतालें. सखारामा बायल शीला एक सुवर्णहरण कशें गांवांत चुकून पाविल्लें. तेंवय गेलें एक दीस कुंबारगांव सोडून. हांगा बऱ्याक सुवातच ना काय कितें!

सितायआवोक सट् करून उगडास जालो, हे आंबो फुलचे दीस. ह्या दिसांनीं आमले रूख फुलून ताचो रथ जातालो. फुलांचो परमळ वाडोबर पातळटालो. तिका दिसलें देवाची सासाय म्हणटा ती हीच, फळ धरचे पयलींचो फुलांचो परमळ. ती सासाय मेला आतां. वाड्यार आमले रूख आसताना वाड्याचेच देवूळ जाल्लें. आतां तेज हरपलां.

मर्दीच विष्णू बायल जायूली मोट्यान दुखिची परवणी आयकोंक आयली. जायू भिरांतेनच अर्द मेला, फाटीं तेका सारक्कें तांबडें आंगार जावंक लागलें. विष्णू तेका घेवन गोंयां, बांबोळें हास्पीटलांत गेलो. तेगेले गर्भपिशवेंत गुठल्यो जाल्यात खंय. ते कॅन्सराचेय जावं येतात म्हण डाक्टरान म्हटलां खंय. आठ दिसांनीं परतें हाड म्हटलां, गर्भपिशवी काडून उडोवंक. जायूक पांच जणा सोबीत धश्टपूश्ट भुरगीं. तिगां स्वरूप सुंदर चेडवां लग्न जावन आपल्या घोवाघरा संवसाराक लागल्यांत. दोग चेडे, दोगय भारी बऱ्या स्वभावाचे. मायेस्त, तुका सावळी दिवन आपूण वोतांत उबे रावपी. त्या मायाळ गर्भपिशवेंत आतां ह्यो गुठल्यो! विष्णू आतां चाकाक हाफुडना, एक मडकी पेटना, पेटणे हातांत धरिना. निर्शेणेत घुंविल्लेवरीं करता. म्हण्टा, 'हांवें आयजवेर कितल्यो मडक्यो रचल्यो, बायल कितले फावट गर्भार जाली, पूण जय ना आमका कुंबरांक.'

आज उदेल्ल्या सूर्याक जसो उजवाड वोतच नासलें, तोंडार पड्डो धरिल्ले वरी दिसतालो. पयस दोंगरा धेगणार दिसपी एके लायनीत पारेदार कशें उबें आशिल्लें धवें अर्जुना रूख धुंवटेंतल्यान अजून पुराय मेकळें जावंक नासलें. तळ्या धडयेंवेल्या कणकीचो शेंडो राकेसाल्या शेंडयेवरी दिसतालो. तळ्यावटेन सगळें थंड आसलें. कोण शेवणें सुकणें गायल्लो रडिल्लोय आवाज येनासलो. मात वाड्याच्या फाटलेवटेन एकलो कुळवाडी घडघड घालीत जोत हामडून शेत कसतालो. तेणे मर्दीच बैलाल्या फाटीर रप्प बडी ओडिल्ल्याचो आवाज हांगाय आयकोंक येतालो.

कुंबार सदां सकाळीं उसरांच उठ्ठात. केन्ना शेतकार तांकां म्हणात, तुमी न्हिदिल्लेकडेन सुर्याक पांय मारतात म्हण तुमचीं पोटां भरनात. पूण ते तशे न्ही. कुंबार बरोच रातमेरेन चिमणे उजवाडांत मडकी पेटत रावता, बायलोय थंय गणमणत रावतात. घोव न्हिदूंक आयले बगर तांकांय न्हीद पडना.

त्या दिसा सकाळीं उठून ते दांतांक इंगळो लायतात थंयच आसात, दोंगरा मुळसासान, तळ्याकडेसान सामक्को घरघर आवाज आयकोंक येवंक लागलो. लोकांक अजाप. दोंगरवटेन आनी हें कसलें यंत्र घरघरता!

दावे वटेन पयस शेतांत पळयल्यार दादले बायलो अशे सरभरीत विशेक कामदार दंवांत भिजतशे शेतांतल्यान चलून तळ्यावटेन वयतात. तांच्या हातांत चोबे, खोरीं, पिकास हीं अवजारां आसात. कुंबार खपखप्यान कांचवेनशे तेवटेन पळयताले. हातांत हीं अवजारां घेवन धांवतशे कोणालीं मडीं घालूंक हे वयतात? काय सोताचेच गळे चिरून घेवन मरतले!

फाल्गुन म्हयनो, पानां झडून बरींच झाडां बोडकीं जाल्लीं. कांय पिवळीं विसकळ जावन उबीं आसलीं. पयस दोंगराराय पिवळीं फोणकुलांशीं पडिल्लीं. तळ्यांतलें उदकय आतां जिरून तळाक लागिल्लें. बेठीच चिखचिखशी वोलसाण आसली. केन्ना तळ्यार फुलिल्लीं साळकां, तांचे देठ, पानां आतां चिखल जावन भुंयेक लागिल्लीं. कुंबार आनी आठच दिसांनी तळ्यार माती हाडूंक वयचे आसले.

कुंबार उबे राविल्लेकडेनच शिंयान कुडकुडतशे सकल बसले. पोटांत सामकें

खपखपिल्लेवरी जातालें. दोंगरा कडेर कसलो हो मर्णाचो घरघर!

रामचंद्र सकाळीं बैलांक सोडून तळ्यावटेन घेवन गेल्लो. तो बैलांक थंयच सोडून धांवतसो परत आयलो. ताणें येवन सांगलें, ''माजाळेवटेसान वाट काडीत दोन व्हडलीं शेवाळीं आनी दोन ट्रक तळ्यार पावल्यात. कारवारवटेच्यान येयल्लो वड्डर, लमाण्यांलो एक पंगडय पावला तळ्यार कामाक.''

आयकोन पुरशान रडलेंशें करून म्हटलें, ''आतां आमची माती खणून ती बांदाक घालतले ते. वीस तीस फूट उंच करतले बांद. आमची माती वर्सभर बुडून उरतली. मे म्हयन्यांतय बुडून मरचें इतलें उदक उरतलें तळ्यांत.''

घनशामान मुखार म्हटलें, ''वर्सभर तेंचीं शेतां, माड माडी शिंपतले ते, सुखी जातले. आमकां मात मडक्यांक चोबोभर माती मेळची ना. मातयेची भीक मागत आतां खंय वयचें आमी?'' ताणें व्हडान सितायक उलो माल्लो, ''सिताय मावशे पळय गे तळ्या वटेन कोणाक मरणाचो घरघर लागला ते. सिताय थंड पावलान येयली आनी तांच्यासरी बसली. हात-पांय मोडून पातळावन घातिल्लेवरी.



